लोकार्पणाच्या दिसाची
प्रसादप्रत

०३-१२-२०१०

# जुवारीचीं पांयजणां

- अशोक कामत




कामत प्रकाशन

Juvarichim Painjanaan
A Novel by Ashok Kamat

जुवारीचीं पांयजणां



पयली आवृत्ती 2010

प्रकाशन क्र. 14

उजवाडावपी
अशोक कामत
कामत प्रकाशन
कुडचडें गोंय 403 706
फोन - 0832 2650335
M. - 9552551424

अक्षर जुळोवणी
अशोक कामत

छापपी
बांदेकार ऑफसेट
कुडचडें गोंय

मोल : रु. 150/-

Sole Distributors
Sanjana Publications
39 Manguesh - Laxmi Niwas
Dattawadi, Sanguem Goa 403 704
E-mail-sanjanapublications@yahoo.in

अशोक कामत

स. रवींद्रबाबाच्या उगडासाक
म्हजें हें सुपुल्लें शें पुस्तक-फूल

# मनांतलें

आज तीन डिसेंबर 2010. म्हजे पयलें पुस्तक 'म्हजी भूंय म्हजो मोग' 1969 तल्या तीन डिसेंबराक उजवाडाक आयिल्लें. जिस्त 41 वर्सां जालीं. उपरांत साहित्यिक प्रवास जाय तसो जालो ना. ताका उपाय नाशिल्लो. म्हज्या पयल्या पुस्तकाच्यो हांवें एक हजार प्रती काडिल्ल्यो. णवशें रुपया खर्च आयिल्लो. आनी म्हजो पगार आशिल्लो एकशें वीस रुपया. त्या वेळार अर्थीक पालव दिवपाक आयचेवरी खंयचीय कोंकणी मोगी एन्. जी. ओ. वा गोवा कोंकणी अकादेमी जल्माक येवंक नाशिल्ली. तरीपूण अर्थीक तंगी आसूनय 'म्हजी भूंय म्हजो मोग' पुस्तकाउपरांत एकार एक चार पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. गोंयच्या आनी कोंकणीच्या मोगान आमी तेन्नाचे तरणाटे पेटून उठिल्ले. देखून रिणाचें वजें माथ्यार घेवन हांवें पुस्तकां छापून घेतलीं. ह्या कामाक बांदेकार ऑफसेटाचे तेन्नाचे मालक आनी म्हजो इश्ट स. रोहिदास (बाबू) बांदेकार हांचें फाटबळ मेळिल्ल्यान हें शक्य जालें.

'घणाघाय नियतीचे' हे कादंबरीक समाजाच्या सगल्या थरांतल्या लोकांचो येवकार मेळ्ळो. ध्यानांत घेवपाची गजाल म्हणल्यार जोडकार आनी आनी कर्ते सवरते तरणाट्यांच्या मध्यमवर्गीय आवयांकडल्यान सुमाराभायलो येवकार मेळ्ळो. आपणें भोगलां ते परिस्थितीचें रेखाचित्र हाणें चितारलां काय अशें तांका दिसलें. हातूंतच हांव कादंरीचें यश मानतां. कादंबरी हो विशय म्हजेखातीर नवो आशिल्लो. तातूंतलें तंत्र म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण वाचकांकडल्यान मेळिल्ल्या येवकारांतूच हांव कादंबरीची सफळताय मानतां.

साहित्यिकांनीय दखल घेतली. कांय जाणांनी चिटयो बरोवन, लेख बरोवन तर कांय जाणांनी फोन केले. रवींद्रबाबांली चीट आयली तेन्ना म्हजे साहित्यिक जिणेचें सार्थक जाल्ल्याचें समाधान जालें. तांणी बरयल्लें, हालीं हालीं आपल्याक दोळ्यांनी सारकें दिसना पूण आपणें भींग वापरून कादंबरी वाचली. तांणी कांय सुचोवण्यो केल्यो आनी कांय धोंगां पोंगाय दाखयलीं. समिक्षा आनी तुस्त-तोखणाय करून चिटयो आनी फोन हांचो त्या दिसांनी पावसूच पडिल्लेवरी जाल्लो. कांय समिक्षात्मक लेख

---

अशोक कामत

नापरातांतूय आयले.

मराठी साहित्यिक भो. विश्राम गुप्तेंचो सुनापरांतांतलो लेख आनी
. वि. ज. बोरकार हांच्या फोनाचो उल्लेख केलेबगर रावूं नजो. वि. ज.
रकार तर कादंबरीविशीं फोनाचेर अर्द वर उलयले.

चिटयो आनी लेख बरोवन, फोन करून आनी प्रत्यक्ष मेळून जाणी
ाणी म्हजें अभिनंदन केलें आनी 'घणाघाय'ची तुस्त तोखणाय आनी
मिक्षा केली तांकां हांव देव बरें करूं म्हणटां.

आज 'जुवारीचीं पांयजणां' तुमच्या हातांत दितासर तब्बल पांच
वर्सांचो काळ उलगलो. ह्या मजगतच्या काळांत बरयल्ल्यो अर्दुकुटे
वस्थेंतल्यो दोन कादंबऱ्यो पुर्ततायेची वाट पळयत म्हज्या कॉम्प्युटराच्या
ार्ड डिस्कार आसात. कथा म्हूण बरोवंक घेतिल्ली 'जुवारीचीं पांयजणां'
रयतां बरयतां होल्मलें कीं हातूंत कादंबरीचें बीज आसा आनी ही नवलिका
ाल्माक आयली. घणाघायवरी हेय कादंबरीक येवकार मेळटलो अशी आस्त
रतां.

भो, शैलेश संजगिरी, आनी भो. दिनेश मणेरकार हांच्यो मोलादीक
ुचोवण्यो, भो. नित्यानंद नायक हांचे फोटोग्राफ, भो. विपूल म्हापसेंकार
ांची मुखपृष्ठ आंखणी, आनी भो. सुदेश बांदेकार हांची छापणावळ ह्या
ाजालींबगर हें पुस्तक पुराय जावप कठीण आशिल्लें. हांकांय देव बरें
रूं.

कामांत व्यस्त आसूनलेगीत डॉ. किरण बुडकुले हांणी कादंबरीक
ुंदर आनी सार्थक अशी प्रस्तावना दिवन म्हाका उपकारांत दवरला.

प्रुफ रिडींग आनी एडिटींग हो खंयच्याय पुस्तकाचो प्राण. म्हजी
रकान्न सौ. अर्चनाबायन हें काम बेस बरें केलां. तिकाय देव बरें करूं.

**अशोक कामत**
**कुडचडें**

# पांयजणांचे पावलटीचो नाद-निनाद

बाकीबाबाच्या अज्रंवर 'पांयजणां' (१९६०)'च्या सुवर्ण महोत्सवी वर्सा, अशोक कामतीचीं 'जुवारीचीं पांयजणां' हो एक निखटो योगायोग न्हय. ती एक खेरीत साहित्यीक तशेंच समाजीक स्थित्यंतराची वर्तवणी! पन्नास वर्सां आदीं कोंकणी कविता रुमांतवादाच्या घोंसार धोलताली, सगले जिणेक आयल्या सांज... म्हणत अमुरपिक्या मोगाच्या उगडासान हळवी जाताली, नोस्तालजीक जायत स्मरण-रमणांत शेणटाली. आदर्शवादाच्या फोलेरावरवीं वास्तवाची वाट चलताली.

आज, पांच दसकां उपरांत कोंकणी नवला ह्या स्मरण-रमणाचो उपेग एक 'थेरपी' कशी करता. आपणाली नित्य सांगातीण, मोगिका सहचरी, जिवन-संगिनी आपल्याक कायमची सोडून वचची आसा, ह्या अटळ तशेंच असह्य यथार्थाक खीणभर विसरचेखातीर अशोक कामतीचो नायक-निवेदक स्वताक मुजरत भूतकाळांत व्हरप पसंत करता. खेद-खंतीच्या हुंवारांतल्यान वयर तकली काडून, यादींचे देगेर किणकिणपी 'जुवारीचीं पांयजणां' ताच्या उचंबळीत काळजांत भूतकाळाचें चलचित्र उबें करतात, आनी अशे तरेन खीणभर कांय जायना ताका असहनीय वर्तमानाच्या जंवजाळांतूय इल्ली तरी थाकाय दितात.

मात, 'जुवारीचीं पांयजणां ' म्हणल्यार निखटे एके व्यक्तीच्या अंतरमनाचे उमाळे वा उत्फर्के उक्तावपी कथानक न्हय. ह्या कथानकाचे व्हांवतेंत एके व्यक्तीचे जिणेचो उगडास-पट उलगडटा खरो, पूण ताच्या सांगातान,दोन-तीन पिळग्यांच्या मापान,समाजपुरसाचे व्यापक वाटचालीचो सटीक आलेखूय मेळटा. धाकलू आनी बाबलो हे दोनय सक्रीय घटक निवेदनाच्या प्रवाहांत आस्पाविल्ले अनेक अंतःप्रवाह ल्हव हातान सुटावे करीत वतात. पुर्तुगेजकालीन गोंयांतलो खातोपितो, तथाकथीत उच्चवर्णी, 'भाटकार' वर्ग, तागेले हुस्के-हावेस, कुटुंबीक-व्यक्तीगत संघर्श, भाटकार-मुंडकार नात्याची खेरीत बुन्याद, फाटल्या

५०-६० वर्सांनी बदलत गेल्ली सामाजिक-कुटुंबीक मूल्यव्यवस्था तशेंच एकामेकांचेर नितांत मोग करपी जोडप्याच्या वियोगांत लिपिल्ली हृदयद्रावक एकटेपणाची शक्यताय - ह्या सगळ्या ज्वलंत प्रस्नांची वास्तविकताय 'जुवारीचीं पांयजणां सामकारायता'.

जरी कथानक आत्मनिवेदनपर आसलें तरी, अदीं-मदीं संभाशणाचो शितोडो वेगळे वेगळे दिश्टीकोण उक्तावपाची भुमिका निभायता. चडावत उलोवणें धाकलू आनी बाबलो हांचेमदीं जावनय, दोगांयमदलो एकलोय एका विशिष्ट विचारांचें वा धारणेचें प्रतिनिधित्व करीना हें लक्षणीय. जशें दिसपट्टया संभाशणांनी जाता, तश्शी वेळोवेळार एखाद्र्या घटनेची, विशयाची वा पात्राची उलयतना अचळय चिकित्सा तर जाताच, शिवाय ते-ते घटनेक, विशयाक वा पात्राक विंगड विंगड नदरेन तिजुंकूय मेळटा.

सुखवस्तू समाजघटकाक आपल्या भुरग्यांक 'फॉरेन रिटन' करपाचें लागिल्लें पिशें, ताचेफाटल्यान आशिल्ली भाव-बंधवांमदली आपसांतली सर्त, आवयबापायच्या संस्कारांचें येस आनी पराभव, फाटले आनी फुडले पिळगेचे हावेस आनी प्राथमिकतायो, भुरगीं आनी आवय-बापूय हांच्या परस्पर संबंदांची पिळग्यांप्रमाण बदलपी बुन्याद - ह्या सगळ्या विशयांचेर धाकलू आनी बाबलो हांची चर्चा वाचप्याखातीर उत्सुकताय-वर्धक थारता. हाचें कारण, हे चर्चेक वेळोवेळार कथानकांतल्या प्रसंगांची, उगडासांची आनी वाद-विवादांची धिगी आसा.

देखीक, मीरा आनी पूत सर्वेश हांचेमदल्या शीतयुद्धाचें वर्णन करतना, धाकलू अळंग तांचेमदल्या उलोवण्या संदर्भान बाबल्याक आनी पर्यायान वाचप्याक सहभागी करून घेता. पुताची चूक मानून घेतनाच तो हेंवय मान्य करता कीं 'नव्या कावळ्याच्या साच्यांत 'मीरान आपणाक आसपावन घेतिल्लें जाल्यार दीस मात्शे बदलतले आसले. पूण बायलेवयलें जिवापाड प्रेम ताका म्हणूंक लायता, 'कांय प्रमाणांत आं'. कारण तो आपले बायलेक जापसाल धरूंक सोदीना. बाबलो

ताचेकडेन सहमत जाता पूण वाचक न्हय.

धाकलूचे भूत-भोंवडेंत परदेशांत स्थायिक जाल्ल्या भुरग्यांच्या मानसशास्त्राचेर बेस-बरो उजवाड पडटा. ते पिळगेचें मानसशास्त्र आनी तांगेल्या स्वार्थाक आवय-बापायवयल्या मोगापरस वयली सुवात दिवपाचो सभाव धाकलू उतरांनी तर थिक्क बांदताच, पूण आपले पिळगेच्या सैम-सभावावांगडा ताची तुळाय करता. ताच्या मत्तान, आदली म्हळ्यार आपली पिळगी 'भावना, नातीं, नात्यांमदले संबंद' हांकां म्हत्व दिताली जाल्यार उपरांतची म्हळ्यार भुरग्यांची पिळगी 'वेव्हार, पयसो' म्हळ्यार सुवार्थाक म्हत्व दिता. पूण तागेलो 'परिपूर्ण श्रोतो' ही भुमिका करपी, बाबलोच खरी पटपाजोगी प्रतिक्रिया ह्या विशयाचेर दिता. आपली पिळगी जाणट्यांचें करताली, भाटां बेसां पळयताली आनी आयची पिळगी कामापुरती जाणट्यांक आपल्यागेर फॉरेनाक आपयता. ह्या सगल्यामदीं बाबल्याक एक काळातीत सत्य होलमता. तें म्हळ्यार 'मनीस पयलीं सुवार्थ पळयता'. आदले पिळगेक भाटा-बेसांची गरज आशिल्ली, आयचे पिळगेक ना.

धाकलूचो मीरावयलो मोग बरेचकडेन तिचीं उणीं ताका कळूंक दिना. तरी पूण तो नकळटां वेगवेगळ्या संदर्भात मान्य करता कीं 'आमच्यो बायलो मरे शिक्षीत आसूनय अशिक्षीत शो वागतात;' ताका, सर्वेश परदेशी बायलेक घेवन येता तेन्ना मिराचें 'मख्ख तोंड' आनी 'जिबेर इंगळे,' हें आवय-पुता मदले वणटीचें एक कारण हें होलमता. तो मीराच्या ह्या वागपाचें सर्वेशावांगडच्या संभाशणांत विश्लेशणय करता. 'सुनेचें नोत काडप,' लग्नांत 'मिरोवंक' मेळप ना हाची खंत, आपलो 'अधिकार वगडावता' हाचो भंय दिसप; हें मांय-सुनेमदल्या खटपटणेचें कारण हाची धाकलूक जाण आसा. तरीकूय ताची बायलेवयल्या मोगाची परिशिमा, निश्ठा आनी एकेतरेचो भक्तीभाव(!) ताका तें पुरायेन मानून घेवंक आडकाठी करतात.

ह्या गजालींचे तुळेंत मध्यमवर्गी उच्चवर्णियांच्या फॉरेनाच्या

आकशर्णाक लागून तांची जाल्ली दैना तो बरे तरेन समजता. कांय प्रमाणांत भुरग्यांचो स्वार्थ, जाणट्यांच्या कुड्या हावेसांतूच जल्मता. रीण काडून भुरग्यांक 'भायर' धाडपी बापूयच आसता. त्याच भुरग्यांच्या हावेसांचीं पाखां बळिश्ट जाले बराबर, आवय-बापायची उपेक्षा जाता; 'फॉरेन रिटर्ना'ची चलनी नोट वाटावंक मेळना म्हूण पालक दुस्वासतात.

'जुवारीचीं पांयजणां' ही नवलिका दोन पातळ्यांचेर चलता. एक म्हळयार, साध्या मनाच्या, सेवाभावी धाकलूची आपले बायलेविशींचे अपार मायेन एकलेपणाची भ्रांत कशी प्रचंड प्रमाणांत वाडटा हें दाखोवपी एक पातळी; आनी ते उद्वीग्न मनस्थितीचेर तोड काडचेखातीर, धाकलू बळयां जी स्मरण-रमणाची वाट आपणायता ती दुसरी पातळी. पयले पातळेवयल्यान, धाकलूच्या आनी पर्यायान तो ज्या वर्गाचें प्रतिनिधित्व करता, त्या वर्गाच्या कुटुंबीक यथार्थाची, तांच्या सांस्कृतीक फाटभुंयेची वळख घडटा. जाल्यार दुसरे पातळेवयल्यान. गोंयांतल्या फाटल्या ५०-६० वर्सांच्या सामाजिक यथार्थाची विस्तृतायेन वळख मेळटा. शिवाय मुक्तिपूर्व तशेंच मुक्तीपश्चात गोंयांतली आर्थिक वास्तविकताय, अर्थकारणाचो बदलतो सांदो, ताचीं कारणां तशेंच परिणाम हांचोय 'जुवारीचीं पांयजणां' माग घेतात.

पूण हे नवलिकेचें वेगळेपण तंत्रांत आसा. सामान्यपणान एखाद्रे कादंबरींत जो कथ्य आनी घटिताचो एकसणीं टांको आसता, तो हे कादंबरींत पुरायेन निवेदनांतल्यान उबो जाला. तेप्रमाण कथानकाची व्याप्ति मर्यादीत दवरून लेखकान पात्र-प्रसंगाच्या विस्तारापरस निवेदकाचे अनुभूतिचे खोलायेक अदीक म्हत्व दिलां. निवेदन, संभाशण, दोन मुखेल पात्रांमदली भासाभास हातूंतल्यानच ही नवलिका घडत वता. निवेदकाची मनोभूंय स्वच्छंदीशी आसली तरी चिंतपाची धरती तर्काक धरून आसा आनी वेव्हारी दिश्टीन वर्तमान संकश्टाचें आव्हान पेलपाची तो मानसिक तयारी करता. पूण ताची सैमीक प्रवृत्तीच भावूकतायेकडेन झुकता तशी आसा. इच्छा आनी निर्धार आसूनय तो

पूर्णपणान भावनांच्या कंवडाळयांतल्यान सुटूंक शकना, आनी म्हूण मनस्ताप तशेंच तणावाचो बळी थारता. ही ताचे जिविताची इतिश्री आनी शोकांतिकाय! हांकाच लागून ताका वाचप्याची सहानूभूति फावो जाता.

'जुवारीचीं पांयजणां' वाचतना पदोपदीं जाणवता ती लेखकाची कलात्म दृष्टि आनी सरभोवतणां विशींची ताची सभावीक ओड. सैमांतलें सौंदर्य आनी वेगळेंपण जशें ताचे नदरेंल्यान सुटना, तेच प्रमाण परिसराचे प्रस्न, सैमाक मनशांवरवीं जावपी बाधा, मानव-परिसराचो संबंद, आनी तांचें परस्पर अवलंबन हे विशय लेखकाल्या मर्मबंधांतले हें सतत जाणवता. ताणें केल्लीं सैमाचीं वर्णनां, सूचक उतरांतल्यान निस्ततात, आनी ताचे सुंक्षीम निरिक्षणाची गवाय दितात.

हे नवलिकेंतलें लक्षणीय तास म्हळयार 'जुवारी'. ह्या प्रतिकांतल्यान निवेदक आनी मीरा हांच्या जिविताचें, तांच्या परस्पर नात्याचें आनी मनोवृत्तीचें मनोहर दर्शन घडटा. पणजेचें मीरा आनी साळावली-जुवारीच्या मेटावयल्या गांवांतलो धाकलू हांच्या अनुबंधाची व्हांवती जशी जुवारीचीं ल्हारां दाखयतात, तेच प्रमाण तांचे जिणेंतल्या अंतप्रवाहाचीं स्पंदनां जुवारीच्या प्रवाहाचीं 'प्रतिकात्मक पांयजणा' दर्शयतात. ह्या पांयजणांच्या नादांत धाकलू-मीराचे जिणेंतलें तादात्म्य आसपावलां, जाल्यार तांच्या प्रतिध्वनीच्या निनादांत तांच्या भोंवतणें वावुरतल्या संवसाराचें घटीत आनी फळीत. तांच्या एकवटांतच 'जुवारीच्या पांयजणांचें' स्वत्व लिपलां. ताका येवकार!

**- डॉ. किरण बुडकुले**

# जुवारीचीं पांयजणां

साळावली न्हंय खंय सोंपता आनी जुवारी न्हंय खंय सुरू जाता हें सारखें कोणाक खबर ना. न्हंयच्या प्रवाहाक कोण शीम घालतलो? कांय जाण साळावली न्हंयच फुडें वचून जुवारी जाता अशें म्हणटात. पूण सादारणपणान साळावली जंय सोंपता आनी जुवारी जंय सुरू जाता अशी समजूत आसा थंयच मोण्णार वसला हो गांव. हो गांव आनी लागसारचो अख्खो वाठार दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी रेवडायल्लो आशिल्ल्याकारणान सैमान हाका कसलीच किरपीणकाय करिनासतना हात सोडून घसघशीत वरदान दिलां. गोंयचो गांव म्हणटकच माड माडयो ना जाल्यार कशें जातलें? गांवांत जंय भाटां आनी कुळागरां आसात थंय माड आनी माडयो भरगच्च आशिल्ल्यान वताची कडकसाण केन्ना गांवच्या लोकांक जाणवली ना. जेन्ना सूर्य तिरपो जावचो तेन्नाच भुंयेक वताचीं किर्णां मेळचीं. कावथे इतले वयर गेल्यात तें पळयत जाल्यार ते मळबाक आफुडपाच्या हावेसान एकामेकांकडेन सर्त करतात काय दिसता. घोग्यांनी पावस पडलो जाल्यार हो गांव धोपरभर उदकांत बुडटा पूण कांय वरांच. दर्याक सुकती आयली म्हणटकच उदक देवूंक लागता आनी कांय खिणांभितर जमीन दिसूंक लागता. न्हंयचे सपाटीपसून मिटरभर उंचायेचेर हो गांव अशिल्ल्यान हुंवारान ह्या गांवाक व्हडलें शें लुकसाण केन्ना जालेंच ना. पन्नास पाउणशीं

घरांचो हो गांव. पावसाळयांत खंयच्याच घरांत केन्नाय केदोय हुंवार आयलो तरी उदक भितर सरलेंच ना. हाचें कारण एक तर उदक पावना अशे उंचायेर घरां बांदिल्लीं आसात वा घरांचे बुन्यादीचो चौथुरोच ऊंच कांडून ताजेर घरां बांदिल्ली आसात. शारांचे सुदारणेचो वास लागुंनाशिल्ल्या ह्या गांवांत जाणटेले आनी गंवडे वास्तुशात्रांत कितले फिशाल आशिल्ले तें हीं घरां पळयतकच कळटा. वास्तुशाश्त्र ही आमच्या देशाची परंपरा. ह्या देशांत नगरआंखणी आनी घरबांदणेचें वास्तुशास्त्र ही बुन्याद. पूण ह्या शास्त्राकडेन शिक्षण म्हूण जेन्ना कोणें पळोवंक नाशिल्लें तेन्ना हें शास्त्र गंवड्यांनी आनी घरबांदणेंत निपूण आशिल्ल्या लोकांनीच सांबाळून दचरिल्लें. तांच्या रगतांतूच तें एकरूप जाल्लें आशिल्लें.

ह्या गांवांतलींय घरां हेरकडेन आसतात तशीं धाकलीं, मध्यम आनी व्हडलीं अशींच आसात. पूण तातूंतल्या कुडींची रचणूक आनी उजवाडाखातीर आशिल्लीं जनेलां वा उजवाडावाट पळयत जाल्यार तीं आधुनीक आर्किटेक्चरापरस खंयच उणीं दिसनात.

खरें म्हणल्यार हो गांव संगमाचेर वसला. संगम दोन वा तीन न्हंयांचो न्हय, तर तीन म्हालांचो. हो गांव आसा अंत्रूज म्हालांत. पूण पन्नाशेक पावलां चल्लो जाल्यार सांगें म्हालांत पावता आनी तार काडून पलतडी गेलो जाल्यार केपें म्हालांत प्रवेश जाता.

धाकलू बल्कांवार सोप्यार चिंतेस्त बशिल्लो. तो बाबल्याची वाट पळयतालो. तो येतलो आनी आपूण ताका फुडलीं कामां सांगतलों म्हूण धाकलू चिंततलो. धाकलू म्हणटकच कोण तरी अशिक्षीत, गांवढळ असो मनीस दोळयांमुखार येता. पूण तशें निखालूस नाशिल्लें. हो बरो बरपाक्षरी मनीस. ते दोग भाव. एक भयण. व्हडलो दामोदर, दुसरो गुरू म्हणल्यार गुरूदास. ताका सगले धाकलू म्हूण वळखताले. व्हडलो भाव गांवच्या लोकांखातीर

आनी इश्टमित्रांखातीर दामू जालो. आनी गुरुदासाचो गुरू. गोंयकार देवांचीं आनी व्हड व्हड अशीं नांवां दवरपाक आयकनात पूण तेचवांगडा नांवांचें बारिकीकरण आनी विद्रुपीकरण करपांत गोंयकारांचो हात धरपी दुसरेकडेन खंयीय मेळप कठीण. दामोदराचें दामू, विश्वनाथाचें विसू, वा द्रौपदीचें दुरपदी, अनुसुयेचें अन्सू सहज जाता. भयण व्हडल्या भावाक भाऊ म्हणटाली आनी धाकल्या भावाक धाकलो भाऊ. धाकलो भाऊ! हें आनी इतलें लांब कोण म्हणटलो म्हूण भयणीन पयल्या उतराचो निमाणो 'ओ' स्वर काडून त्या जाग्यार भाऊचो 'ऊ' घालो आनी अशे तरेन धाकलो भाऊ ह्या उतराचें सोपें रुपांतर धाकलू करून सोडलें. आपल्या नांवांत बदल केन्ना जालो तें धाकल्या भाऊक केन्ना कळ्ळेंच ना. भयणीलें धाकलू आयकून आयकून अख्खो गांव ताका धाकलू म्हणपाक लागलो. गांवचे जाणटे लोक धाकलू म्हणपाक लागले आनी हेर लोक आदरान उलो मारतना धाकलूबाब म्हूण उलो मारपाक लागले. तो अख्ख्या गांवचो धाकलू जावन पडलो.

दामू पोर्तुगेजां काळार सेशन्स कोर्टांत क्लार्क आशिल्लो म्हणल्यार एल्. डी. सी. पूण समाजांत मान कितलो! लोक म्हणटाले तो त्रिबुनालार एम्प्रेगाद आसा. केदें नांव आनी केदो मान!

धाकलून पोर्तुगेज प्रायमरी स्कुलांत जिवीतभर मास्तरकी केली. मुळावे शाळेंतल्या मास्तरांक प्रोफसोर म्हणपाची प्रथा. वाटेर कोणूय मेळ्ळेजाल्यार बाँ दीय प्रोफसोर, बाँ तार्द प्रोफसोर म्हूण हटकिलेबगर रावनाशिल्ले. ताजे विद्यार्थी तर गोंय मुक्तीउपरांत लेगीत बाँ दीय प्रोसोर म्हणुनच आदरान पाचारपाक लागले. तो रिटायर जालो आनी प्रोफसोराचो प्रोसोर जालो. ताज्या माजी विद्यार्थ्यांक प्रोफसरापरस प्रोसोर म्हणप सोपें पडपाक लागलें. ताज्या ध्यानांत जेन्ना तें आयलें तेन्ना तो दर खेपे दर भुरग्याक आपल्या विद्यार्थांक शिकयल्लेभशेन स्पश्ट बरें 'प्रोफसोर' म्हणपाक

शिकोवपाक लागलो. ताजो परिणाम मात उरफाटो जालो. विद्यार्थींच न्हय तर मेळिल्लो ताका प्रोसोर म्हणपाक लागलो. आनी तो प्रोसोरूच उरलो. मागीर तातुंतूच ताणें समाधान मानलें. कोणेंय ताका प्रोफसोर म्हणल्यारलेगीत ताका हो कितें तरी चुकता अशेंच दिसपाक लागलें.

मूर्ती ल्हानूच पूण आवाज खणखणीत. एक धेंगसो घालो जाल्यार आवलांत आवाज काडपाचें भुरग्यांक धाडस जायनाशिल्लें. ताजें एक थापट पडल्यार भुरगो कालसांवांत सू ऽ ऽ केलेबगर रावनाशिल्लो. पांयांत बूट, तकलेर फिंर्गीं पद्दतीचें चेपें, पुडवें आनी तातूंत मोटव्या हातांचें खोमीस इनशर्ट केल्लें, आनी ताजेर ग्रावात. पँट केन्ना घलिनासलो, पँटीची पद्दत नाशिल्ली अशांतली गजाल न्हय, पूण पोर्तुगेज आनी भारतीय संस्कृती मेळून एक मिक्स कल्चर त्या वेळार चलतालें. चड करून प्रोफसोर लोकांभितर.

पूत अमेरिकेंतले चलयेकडेन लग्न जाल्लो आनी ताणें वेगळें घर बांदिल्लें. जाणटेल्यांचें राजवाड्यावरी राजांगणाचें घर सोडून तो आपल्या बंगल्यांत येवन राविल्लो. चौगांचें घर. रासवळ कुटूंब म्हूण आपल्या भुरग्यांक फोरेनाच्यान येतकच घरांत प्रायव्हसी मेळची ना म्हूण ताणें हो बंगलो बांदिल्लो. बंगलो बांदप उतारवयांत जाल्ल्यान जी कितें पुंजी बँकेंत आशिल्ली ती सोंपोवन बशिल्लो. चलो दोतोर जाल्लो. मध्यम वर्गाच्या लोकांक सदांच फोरेनाचें पिशें. म्हगेलो चलो फोरेन रिटर्न म्हूण म्हणून घेवपाक अती खोस. फोरेन रिटर्नाचो बापूय म्हणून घेवपाक वेगळोच आनंद आनी फोरेन रिटर्न चल्याचें मोल तर सुमाराभायर वाडटा. व्हडल्या भावालो, दामूलो चलो फोरेनाक शिकलो, थंयच नोकरी मेळ्ळी आनी थंयच स्थायीक जालो. मावोडेंय गडगंज मेळ्ळें. व्हंकलेक भांगरान भरिल्ली. ताजें सूख धाकलूच्या दोळ्यांत भरिल्लें. सुखापरस वरदक्षिणेच्या रुपान जें आयलें तें दोळे दिपकावपीच आशिल्लें. तें

पळोवन धाकलून आवाशिवा करून धाडलो आपल्या चल्याक, सर्वेशाक अमेरिकेक. पूण ताजेउपरांत व्हडल्या भावान जें सोंसलां तें धाकलूक पयलीं कळिल्लें जाल्यार तो आपल्या चल्याक फोरेनाक धाडपाचें पिशेपण केन्नाच करचो नाशिल्लो. ताजो पूत अमेरिकेक गेलो आनी थंयच स्थायीक जालो. गोंयांत दोतोरकी चलनाशिल्ली अशें न्हय. कितलेशेच दोतोर गोंयांत प्रॅक्टीस करून पयशे जोडटाले. पूण शिकिल्ल्या भुरग्यांक सदांच परदेशाचो हावेस आनी डॉलरांची ओड. तातूंत आनी भुरगो फोरेनासावन येतकच आवय बापायक वेगळेंच तेज येता.

दुसरें चली शमी. घोव जर्मनीक आशिल्लो. तें लग्न जावन जर्मनीक गेल्लें तें पांच वर्सांनी आयिल्लें. पंदरा दीस येवन राविल्लें. मागीर येवप इल्लें इल्लें पातळ जाल्लें. पूण गोंया येवपाची ओड इल्लीय उणी जाली ना. केन्नाय्र आयलेंय जाल्यार रावप शक्य जालें ना. मागीर मागीर वागपद्ध परकी शें जाल्लें. जावपाचेंच! घोवाचो हुस्को! घोव थंय एकलो. कितें करता आसतलो, जेवता आसतलो काय सारखो? अशा प्रश्नांनी ताचें येवप उखलापेंच जातालें. भुरग्यांक घेवन हेवटेन तेवटेन भोंवप. रोखडेंच वचप अशेंच जातालें. बापायचें सोड, आवय धुवेच्या नात्याचें एक वेगळेंच सूत्र आसता. ते ओडीन ताजें येवप जातालें. मागीर मागीर ती ओड आसूनलेगीत घोवाचे नोकरेच्या व्यापान येवप जमचनाशिल्लें.

तिसरो चलो नितीन. तोय लंडनाक. आवय बापायची ओड उणी जाता म्हूण न्हय तर नोकरेचे जंजाळ, भुरग्यांचें शिक्षण, केन्ना बायलेचें अती आकर्शण वा बायलेचो अती शेक असल्या व्यापांत आवयबापायची खबर घेवप संवसारांत पडिल्ल्या तरणाटयाक जडूच वता. ताजीय गत तशीच कितें तरी जाल्ली आनी ताकाय आवय बापायची खबर घेवपाक फावलें ना.

इतलोच ताजो संवसार. मोटे उमेदीन रीण काडून ताणें

भुरग्यांक शिकयल्लें. चली दिल्ल्या घरांत शिक्षणाकलागून लजेक पडूंक जायना म्हूण आनी चल्यांक आपल्या पांयार उबे रावपाखातीर. आपले अर्थीक तांकीभायर ताणें आपल्या भुरग्यांक शिक्षण दिल्लें. भुरग्यांचें शिक्षण आनी तांचो फुडार ही मध्यम वर्गाची तळमळ आसता. व्हडल्याक, सर्वेशाक दोतोर केलो. दुसऱ्याक, नितीनाक, आर्किटेक्ट तर तिसरें, शमी, सी. ए. जालें. सगळींच लग्न जावन आपापल्या संवसारांत गुल्ल आशिल्लीं. आनी कितें जाय एका मध्यमवर्गी संवसारी मनशाक? पन्नास वर्सां बायलेवांगडा संवसार केलो. सुखा समाधानान दीस गेले. भुरग्यांची भलायकी, शिक्षण हातूंत त्रास पडले पूण हे त्रास कोणाक पडनात? संसारांतले असले त्रासूच मनाक संतोश दिवन वतात. पूण खरे त्रास पडले ते सर्वेशाक अमेरिकेक धाडपाच्या वेळार. एक भाटलेगीत विकचें पडिल्लें ताका. पूण भुरगे शिकून आपल्या पांयार उबे रावचे आनी आपल्या म्हातारपणांत आपल्याक आदाराचो हात दिवचो हीच तर आवय बापायची अपेक्षा आसता. ही पुराय जावपांतूच संसाराची नाडी आसता.

दोन म्हयने जाल्ले, धाकलूची घरकान्न मीराबायक हॉस्पिटलांत ॲडमीट केल्यार. तिणें तर शॉकूच दिल्लो. त्या दिसा मीराबाय सकाळीं उठली, च्या करून दिली, न्हाली, जेवण करपाक गेली आनी धाकलू बाजारांत नुस्तें हाडपाक गेलो. जेवण जातकर पडवेर बसून खबरी करीत बसलीं. घरांत दोगांच. सदांच गजाली कसल्यो करतलीं? भोवन भोवन भुरग्यांच्योच खबरी.

"खरें म्हणल्यार आमी हे पिरायेचेर नातरांच्यो गजाली करपाच्यो. पूण करतात पुतांच्यो आनी धुवेच्यो." धाकलून बायलेक म्हणलें.

"आतां नातरांचे लाड करपाचे. तांचेवांगडा खेळून आमी भुरगीं जावपाचीं. पूण आमी नातरां पळयलीं खंय? नातरां जालींय

परदेशांत, खेळ्ळींय परदेशांत आनी वाडलींय परदेशांत."

"खरें तुजें! तांकां भारत हो परकीच देश."

"ना, तशें जावपाक जायनाशिल्लें. पोर्तुगेजांच्या गोंयांत आसतनालेगीत आमकां भारत केन्ना परकी दिसला?"

"आगे, ती गजाल वेगळी. आमी स्वातंत्र्याक आशेल्ले. तीं भुरगीं थंय स्वतंत्र आसात. त्या देशाचे ते नागरीक आसात. आमी फकत तांचो उगडास काडपाचो. संजू केदें जालें काय? रिना कितें शिकता काय? तांचें चिंतून वेळ पासार करपाचो. तांकां आमचीं नातींलेगीत खबर आसात काय कोण जाणा?'

"रूख व्हडलो जालो आनी ताज्यो खांदयो चारूय वाटांनी फांकारल्यो म्हूण मुळाचें म्हत्व उणें जाता? नातीं विंगड विंगड आसलीं तरी जाणटेल्यांची ओड ही आसूंकच जाय न्हय!"

"आमच्या तिगांय भुरग्यांचें भुरगेपण सामकें दोळयांमुखार आसा. तांकां नातरां जालीं पूण आमकां तीं कुकुलींच दिसतात न्हय!"

"सर्वेश जायतपसून ताजें दिमखुऱ्यानी मुखार सरप, उबो रावंक लागतकच दुडू दुडू धांवप, मागीर उडयो मारप तें बुद्द येवन तो अमेरिकेक वचमेरेन पुराय हालचाली दोळयांमुखार दिसतात."

तांगेल्यो अशो खबरी हालीं हालीं दिसपट्टयोच जाताल्यो. पूण त्या दिसा खबरी करतां करतां ती अकस्मात जमनीर कोसळ्ळी आनी हात पांय मारूंक लागली आनी निपचीत पडली. शेजाऱ्यांक आपोवन रोखडीच तिका हॉस्पिटलांत व्हरपाची वेवस्था धाकलून केली. त्या दिसाच्यान ताका धड न्हाण ना, धड न्हीद ना, धड जेवण ना. दोन म्हयने मीराबाय हॉस्पिटलांत उरली. पुतांक फोन केलो. धाकलूक दिशिल्लें, एकलो तरी पूत येतलो आनी आपल्या

खांदावयली जबाबदारी उणी करतलो. व्हडल्या पुताची ताणें चडशी आशा धरूंक नाशिल्ली. ताजी आपल्या कुटुंबाकडेन, आपल्या गांवाकडेन नाळूच तुटिल्लेभशेन जाल्ली. तरीपूण आवय बापायविशीं भुरग्यांचें कर्तव्य म्हूण कितें आसता काय ना! फोनाचेर दोगांय पुतांक ताणें विनवणी करून पळयली. माये-मोगान शिणलो, रागान तापलो, दोगांयचेरूय कांयच परिणाम जालो ना. तिका डिसचार्ज दितासर धांवपळी खूब काडल्यो, तो आनी ताजे वांगडा ताजो मुंडकार बाबलो हांणी दोगांयनी दोन म्हयने धकचपाटे काडले. पूण ताजें सार्थक जर जाल्लें, जाल्यार धाकलूक खोस जातली आशिल्ली. पूण....

आजूच ताजे घरकान्नीक हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडिल्ली. आनीक चोवीस वरां काडीत शी दिसना. तेन्ना कोणाकय आपोवचें आसल्यार बेगीन आपयात नदर घालपाक. अशें दोतोरान सांगलें तेन्ना ताज्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हावूंक लागल्यो. ताणें काकुळटेक येवन दोतोराक विचारलें,

“दोतोर, मातलेगीत आशा ना? तशी तिजी पिराय जावंक ना. यत्न करात न्ही.”

“ना. ती डावन जायत वता. ट्रीटमेंटाक रिस्पॉन्स दिना.”

“तशें न्हय दोतोर, तरी आसतना इतल्या वर्सांचो सांगात सोडून ती वता म्हणटकच मन तयार जायना.”

“तशें आमच्या हातांत कांय ना. तुमीय वायट मानून घेनाकात. तुमी पळय तिजी सेवा केल्या न्हय? खूब जाली. कितली म्हूण तुमी हांगा दवरतले तिका? तुमी एकले, तुमची इनर्जी कितली म्हूण घास्तार करतले तुमी? घरा व्हरून दवरात तिका. तिकाय समाधान जातलें, आपूण घरा मेली म्हूण. घडये घरा वचून मरपाकूच रावल्या जातली ती. तशें आसता! कांय जाणांची सुप्त इत्सा

आसता. आपणें घराच प्राण सोडचो म्हूण. आनी तुमकांय धांवधपटी नाकात. फुडें फुडें तुमकांच कोणाचोय तरी आदार जाय पडटलो. तुमी मनाक लावन घेवं नाकात. वयल्यान देवाकडेन मागात बेगीन तिजी याद कर म्हूण."

ताणें चितलें, 'आतां निमाणी तयारी करची पडली. पूण जीव वचचेपयलीं म्हूण केन्ना मरणाची तयारी करतात? आनी मरणाची पूण कसली तयारी करपाची? कितें कितें सामान जाय पडटलें हें तो चिंतूंक लागलो. एक कोंडो जाय, सूम, मायटी बी असलें बारीक बारीक सामान. म्हत्वाचीं लाकडां. खरेपणीं कामाक लागल्यार बरें! आपूण एकलों. भुरगे आसून नाशिल्ल्याभशेन. भुरगे मागतात कित्याक? आपलो वंश फुडें चलचो, आपल्यावांगडा आपल्या कुटुंबाकय आदार जावचो, जाण्टेपणांत बोटाक धरून आदार दिवचो, आपले कुडीक अग्नी दिवचो, वर्साक एक खेप तिथीच्या दिसा ताळयार उदक घालचें म्हूण.'

ती गेलेउपरांत सगळेकडेन पावप कठीण. ताका उगडास जालो. घरांतलो कोणूय भायर पडलो जाल्यार शेजारी, भागेली, मुंडकार सगले भर्र करून जमताले. सांगनासतना सगलीं कामां जातालीं. आतां ते संबंधूय तुटल्यात आनी दर एकलो कामांत इतलो व्यस्त आसा कीं कोणागेर वचपय जमना आनी दुसऱ्यालें दुख्ख आयकून कोणाच्या मनांत चर्रय जायना. ताणें आपलें मन घट केलें आनी तिरायताचे नदरेन आपूण सगळीं कामां करतलों म्हूण मनांत थारायलें. हालिंसाराक भोवन भोवन लायट वचपाक लागिल्ली. म्हूण तो मेणवाती आनी फस्कां हाडून घरांत दवरतालोच. मीराक हाडून सारकी खाटीर घालतकच पयलीं तो मेणवाती आनी फस्क सोदूंक लागलो. खंय दवरल्यो काय? काय घरांत नाच काय मेणवाती? आपूण हाडूंक बी विसरलों ना मूं? तो चितूंक लागलो. अख्खें घर धुंडाळून ताणें पळयलें. पूण आज ताका मेणवाती खंयच मेळना जाल्यो. दिसा उजवाडे फस्कां आनी मेणवाती हाडून

घेतलो म्हूण ताणें बाबल्याक तिस्कार धाडिल्लो. ताजीच वाट तो बल्कांवांर बसून पळयतालो. फस्कां आनी मेणवाती हातांत घेतना ताणें बाबल्याक सांगलें,

"घरा फाटल्या आंब्याचो खांदो मारपाक यो."

"कितें? आंब्याचो खांदो? भाटकान्न गेली?"

ताका खबर आशिल्लें, खंयच्याय खिणाक भाटकान्न गेल्ल्याची खबर कानार पडटली म्हूण.

"ना रे! पूण तयारी केल्ली बरी न्हय?"

ते दोगूय मीराक घाल्ली ते कुडींत गेले. तिका पळोवन बाबल्याक खूब वायट दिसलें. ती वतकच भाटकार एकलो पडटलो आनी मागीर ताजें कशें जातलें हेंच ताज्या मनांत भोवन भोवन घोळटालें. बाबल्याचो बापूय धाकलूच्या जाणटेल्यांचो मुंडकार. धाकलू भुरगेपणांत बापायवांगडा सदांच भाटकारागेर येवन वचून आसपी. धाकलू आनी बाबलो हांचेभितर कांय वर्सांचे अंतर आशिल्ल्यान तांचें वांगडाच खेळप, भोंवप बी जातालें. देखून तांचेभितर एक प्रकारचें आपलेपण शें निर्माण जाल्लें. दोगांयभितर एक प्रकारची भावनीक ओड शी निर्माण जाल्ली. दोगूय संवसारांत पडले आनी इल्ले इल्ले पयसावपाक लागले. बाबल्याचो पूत व्हड जालो. हुशार आशिल्लो. बाबल्यान खूब कश्ट करून ताका शिकयलो. शिक्षणांत कितेंच उणें पडूक दिलें ना. पदवी मेळटकच अर्जी करपाक सुरवात केली. आनी एक दीस ताका मुंबय ठाण्याच्या एका कारखान्यांत नोकरेखातीर कॉल आयलो. संद सोडली ना. रावपाक खोली मेळटकच चल्यान बापायकूय आपलेसरीं व्हेलो. हांगांसल्ली शेतां, गोरवां बी कितें आसा तीं भावांकडेन सोपोवन बाबलो चल्याच्या आदाराक गेल्लो. सून घरांत येतकच मात वर्साक एक दोन वेळा गोंयांत येतालोच. जो मनीस भुरगेपणांत धाकलूच्या

घरांतलो एक वांगडीच सो जाल्लो तो आतां खूब पयस पावलो. गोंयांत आयलो जाल्यार बाबलो धाकलूगेर पांय दवरलेबगर परत वचनाशिल्लो.

हालीं हालीं धाकलूक जाणटेंपण आयिल्ल्यान ताचे कुडीची तांक इल्ली इल्ली उणी जाताली. गेल्ल्या देड दोन वर्साआदीं बाबलो गोंयां आयिल्लो तेन्ना धाकलूची दशा पळोवन ताणें गोंयां परतो येवपाचो निर्णय घेतलो. पुताचें बस्तान बशिल्लें, नातरांचेंय शिक्षण पुराय जाल्लें. तेन्नाच्यान ताजें मन उखलिल्लें. आनी एक दीस पुताचें मन मोडून तो गोंयां आयलो. आनी तेन्नाच्यान बाबलो धाकलूच्या आदाराची बडी जाल्लो. ती बडी हाताकडेन आसलेबगर धाकलूचें काम जायनाशिल्लें.

ताणें येदेशें तोंड करून धाकलूक पळयलें. धाकलूच्या तोंडार बायल आपल्याक सोडून वतली म्हणपाचें दुख्खूय नाशिल्लें आनी आपले भुरगे आसून तिच्या मरणाची तयारी सगली आपल्याकूच करची पडटली म्हणपाची खंतूय दिसनाशिल्ली. जें जें कितें घडटा तें घडपाचेंच आनी ताका आपणेंच तोंड दिवपाचें अशी भावना ताज्या तोंडार दिसताली. ते कोण आपल्याक पावचे नात आनी येवचेलेय नात हें ताका खबर आशिल्लें. तरीपूण ताणें दोनूय पुतांक आनी धुवेक फोन केलेच.

"कोणूय मरचेआदीं ताजी तयारी करप बरें दिसता?" बाबल्यान ताका विचारलें.

"ना रे! आनी वायट जावपाचें आतां कितें उरलां?"

"शीऽऽऽ! थुमेकाल, आयब तें!"

"म्हाका सांग, आमच्या घरांत थुमेकाल, आयब हीं कोणाखातीर पाळपाचीं रे बाबल्या?"

"तशें न्हय भाटकारा, एक रीत म्हूण आसता न्हय? एक

पद्दत म्हूण आसता न्हय?"

"तेंच म्हणटां हांव. रीत, पद्दत कोणाखातीर पाळपाची रे? घराखातीर, फुडले पिळगेखातीर."

"आतां जिस्त उलयलो तूं भाटकारा."

"हें घर कोणाखातीर? आनी फुडली पिळगी खंय आसा? पिळग्यो बिळग्यो ते खंय मानतात. आमी दोगां जाण्टेलीं. तिणें तर तिकेट काडल्या. प्रवासाक वचपाचो दीसलेगीत थारायला."

"पूण व्हडलो बाबा अमेरिकेक आसा. बाय आनी धाकलो बाब दोगांय भायर आसात. तांचेखातीर तुवेंच चिंतप न्हय?"

"आरे पूण तांकांय तशेंच दिसपाक नाका? सर्वेशान तर हात फाफुडले. आवय सिरियस आसा म्हूण कळयतकच आपल्याक कशेंच येवपाक मेळना. आपल्या नातवाचो बारसो आसा म्हूण कळयलें."

"म्हणजे, व्हडलो बाबा आजो जालो?"

"आरे, हांव पणजो जालों. तुजी भाटकान्न पणजी जाली."

"बारसो बी करतात अमेरिकेक?"

"देव जाणा! आमचे पद्धतीन करतात काय अमेरिकेचे पद्धतीन करतात देवाक खबर. धर्म, परंपरा खंय लागता तांकां आतां?"

"तिका सांग पणटू जाला म्हूण. कशी सडसडीत उठून बसता पळय ती!"

"ती ह्या जगांत आसा खंय! ती कोमांत गेल्यार दोन म्हयने जाले. इतले दीस काडलेच कशें तिणें हेंच अजाप जाता."

"तिजो जीव घुटमळटा आसतलो आपल्या लोकांक पळोवपाक.

निमाणी इत्सा कितें आसा तें लेगीत सांगूंक येना तिका.”

“पूत येतले येतले म्हूण खूब वाट पळयली तिणें. नातरांवांगडा खेळपाची इत्सा अर्दकुटी उरली तिजी. एकले धुवेवटेंतल्यान नातरां पळयलीं तिणें. पूण तांच्याय वांगडा मन भरून तावल्यो बावल्यो करपाक मेळलें ना. सुनो हाडल्यो, तांचेर मांयपण गाजोवंक मेळ्ळें ना. पूण नातरांवांगडा खेळप, तांकां काणयो सांगप, तांच्यावांगडा भुरगी जावन मस्ती करप तिका खंय मेळ्ळां आनी म्हाकाय बी? जाणटेपणांतल्यो उमेदी पुराय जाल्योच नात. जिवीत अर्दकुटें, अतृप्त उरिल्लेभशेन दिसलें तिका.” इतलें उलोवन तो मातसो शांत जालो. पूण ताजेभितर चलिल्लें वादळ बाबल्याक स्पश्ट दिसतालें. कांय वेळान धाकलूच उलयलो,

“बाबल्या, एक कोंडो मारपाक देमूक सांगलां. मारलाय जातलो ताणें. तिजो जीव गेलो म्हूण कळटकच केळीची एक अख्खी शिर्ती कापून हाड तूं. मातशें लक्ष दी आं बाबल्या. ऐन त्या वेळार म्हाका धांवपळ जमचीना रे. दायजी, शेजारी पाजारी येतलेच रे.”

“कसलीं पिशेपणां उलयता भाटकारा? तूं हुस्को करूं नाका. हीं कामां तुवें करपाचीं न्हय. तीं आमचीं आनी शेजाऱ्यांलीं कामां . तें आमी पळोवन घेतात. सगलीं कामां सारकीं जातलीं.”

“तिका जाय तेन्ना प्राण सोडूं दी. पूण त्रास जायनासतना ती वचची अशें मागतां हांव. जीण अपुरीच उरली रे तिजी. आतां आमचें उरलां कितें? भुरगीं व्हड जालीं. आपापल्या संवसाराक लागलीं. तीच धादोसकाय मानप! पूण पुराय धादोसकायेन मरपाचें सूख मात ह्या भुरग्यांनी आमकां दिलें ना.”

“सूख खंयचें तिका? वता आसतना आपले लोक आपले भोंवतणी आसून, आपल्या कामाचें वजें भुरग्यांच्या माथ्यार दवरून

गेल्ल्याचें समाधान तिका खंय मेळळां? एकूय भुरगो आपलेसरीं नासप हाचेवरी दुसरें दुख्ख आसा? पूण एक खेप तरी व्हडल्या बाबान येवन आवयक मेळपाचें न्हय?"

"हांवें कळोवपाचें कळयलें तिगांय भुरग्यांक. आतां येवप ना येवप तांची मर्जी. सर्वेश तर येवचोच ना. तो अमेरिकन जाला. अमेरिकेचो जावंय न्हय तो! थंयचोच नागरीक जाला तो."

"पूण आवय बरी ना, सिरियस आसा म्हूण कळय भाटकारा."

"आतां आनी केन्ना कळय! आतां सोंपलें सगळें. रात काडल्यार व्हडली. पूण हांवें कळोवनाशिल्लें अशें समजूं नाका तूं आं. दोन म्हयने पयलीं ही कोमांत गेल्ली तेन्नाच कळयल्लें. म्हयनोभर वाट पळयली हांवें. कोणूय तरी येतलो म्हणपाची आस आशिल्ली रे. कितें जाता, अडचणीवेळार, संकश्टावेळार लागींचो मनीस, मायेचो मनीस, आपलेम्हऱ्यांत आसलो म्हणटकच मनाक थाकाय मेळटा. ते कोणूय येवपाची आशा उणीच, तरी आसतना आज हांवें तांकां फोन केल्यात येवन आवयचेर निमणी नदर घालून चलात म्हूण सांगपाक. कोणाचोच शीण नाका."

"दोन म्हयने आदीं कळोवनलेगीत कोणूच आयलो ना? जल्म दिवपी आवय ती."

"आपल्याक येवपाक वेळ ना. खूब बिजी आसां. कोणाकूय आदाराक घे हॉस्पिटलांत रावपाक, पयशे जाय जाल्यार सांग म्हाका, धाडून दितां म्हूण व्हडलो चलो म्हाका सांगता. हें सांगपाक हो जाय म्हाका? एक खरें बाबल्या, आतांचे भुरगे वेव्हारी जाल्यात. तांकां फकत वर्तमान दिसता. दोळयांमुखार येता तें. ना फाटलें ना फुडलें. सगळें सुधारलां बाबा आतां.सगळें सुधारलां. कोणाक कोणाचो हुस्को ना, कोण कोणाक वळखना."

"म्हूण कितें जालें? आपल्याक जल्म दिवपी आवय बापायकलेगीत विसरप?"

"अमेरिकेसारक्या फुडारिल्ल्या देशांत आसा तो. हांवें आनी आयकलां, थंय कामार आसतना कोणाकूय घरच्यान फोन आयलो आनी तुगेलो बापूय वा आवय भायर पडली म्हूण सांगलें जाल्यार तो खंय सरळ म्युनिसिपालिटीक फोन करता, अमक्या अमक्या घरांत आपलो बापूय भायर पडला ताका घेवन वचात म्हूण. म्युनिसिपालिटीचें बील मागीर ताणें भरप खंय."

"श्ये! अशें मात जावंचें ना आं भाटकारा. हें मनीसपणाभायलें काम जालें. अशें म्हूण केन्ना जाता?"

"ना रे बाबल्या, आज खोऱ्यांनी दुडू ओडपाचे सर्तींत मनीसपण खंयच्या खंय शेणलां रे. अशें हांवें आयकल्लें खरें. सांगूं नजो रे, त्या लोकांचें चित्र काडूं नजो."

"व्हडलो बाबा इतलें करीत शें दिसना म्हाका आं."

"थंयच्यो गोऱ्या मॅडमी पळयतकच हे इतले भुल्लुसतात कीं आपली जल्मभूंय, आपले संस्कार, आपलो देश, आपलो धर्म, आवय बापूय कांयच लागना तांकां. सगळें विसरून वतात."

"लग्न जातकच व्हडले सुनबायक हाडिल्ली न्हय हांगा?"

"हय! ती केन्ना रमलीच ना ह्या घरांत. आमचे संस्कार, तांचे संस्कार! कशे जुळटले? जुळटात. ना अशें न्हय. पूण दोनीय वटांनी मिसळ भाजी करपाची तयारी आसपाक जाय. इल्लें तुजें हांवें घेवप इल्लें म्हजें तुवें घेवप. तुज्यो संवंयो हांवें मानून घेवप, म्हज्यो संवयो तुवें मानून घेवप. तुजेपरस हांव श्रेश्ठ अशें मानलें जाल्यार कशें जावंचें! आपूण तुजेपरस श्रेश्ठ अशें मानप गोरे लोकांचो सभाव धर्मूच न्हय!"

"व्हडली सून तशी आसची ना आं! नाजाल्यार ती व्हडल्या बाबाकडेन लग्न जावचीच नाशिल्ली."

"तिणें एक व्यक्ती म्हूण सर्वेशाकडेन पळयलां. आनी मोग कुड्डो आसता न्हय?"

"आमीच बरे आसात भाटकारा, म्हाका खातरी आसा, हांव मेलों जाल्यार म्हाका खांद दिवपाक म्हजो पुतच फुडें आसतलो."

"अती सुदारणाय मनशाक बादता. हाडांचीं काडां करून, रगताचें उदक करून हांकां ल्हानाचें व्हड करप. शिक्षण दिवन, संस्कार दिवन मनीस म्हूण जगपालायक करप. प्रसंग पडल्यार रीण काडून जिवीतभर फारीक करीत रावप आनी म्हातारपणांत जेन्ना हांची गरज आसता तेन्नाच हांणी पयस जावप. तांकां दिसन्ना आवय-बापूय आतां जाणटीं जाल्यांत. तांणी आपलें कर्तव्य केलें, तांचें काम सोंपलें."

"पूण ह्याच जाणटेल्यांनी आपले आवय-बापायविशीं कर्तव्य केल्लें तें? तें तुमीय करात न्ही."

"तांकां आमी जड जातात. पूण हांकां खबर ना, आवय बापायकलागूनच तांकां हे दीस मेळयात. तांकां खबर ना तेय एक दीस आमची सुवात घेतले. आमी भोगलां ताजे पास्ट ते भोगतले. सुधारिल्ल्या जगाचो न्यायूच जाला असो. ताका कोण कितें करतलो!"

"हांव वतां भाटकारा. फाल्यां सकाळीं बेगीन येतां."

"बाबल्या, आज रातीचो तूं हांगां न्हिदूंक येता? म्हज्यान एकलो रावूं नजो रे. भिरांत दिसता म्हूण न्हय. रात कशीच सरची ना रे. तूं आयल्यार खबरी करून रात पासार करया. हिचेवांगडा रावून जीण सोंपयली. पूण आज ही हांगा आसूनय हांव एकलोंच रे."

“पूण ते दीस वेगळे आशिल्ले. आतां भाटकान्न खंयच्याय खिणाक आमकां सोडून.... सारकें तुजें. तूं हांगा एकलो रावूं नाका.येतां हांव सांजे न्हिदपाक.”

“हाचेफुडें एकलोच रावपाक जाय न्हय. मन घट करपाक जाय. पूण आजची रात तुजेवांगडा खबरी करपाक जाय म्हाका.”

“हांव येतां सांजे न्हिदपाक. रातची सगळ्या बारीक बारीक सामानाची यादी बरोवन काडुंया. सकाळफुडें सगळें सामान हाडून दितां.”

धाकलून चिंतलें, दोग जाण आशिल्ले बरे. मदींच रातीचो तिजो जीव गेलो जाल्यार प्रेतावांगडा हांव एकलोच रात कसो सारतलों? ताणें बाबल्याक न्हिदूंक यो म्हूण सांगलें आनी बायलेलें पांगरूण सारखें केलें आनी ल्हवू केंसांवयल्यान, पोल्यांवयल्यान हात फिरोवंक लागलो. मागीर रांदचे कुडींत गेलो. डब्यांतले दोन मुठी तांदूळ घेतले, ते वेंचले, धुले आनी एका तोपांत घालून गळयामेरेन उदक घालें आनी गॅस पेटोवन पेजेक दवरलें. बायलेक घरा हाडीतपसून ताणें शीत केलेंच ना. दनपार रात पेजूच करून जेवतालो. दनपारां उरिल्ली पेज राती जेवतालो. सकाळफुडें उठून एक च्या करून घेतालो. च्याचेवांगडा एक फाती बिस्कीट. खाली जाल्यार खाली ना जाल्यार दनपार मेरेन एके च्याचेर तो रावतालो. शीत रोस करून जेवपाक वा खानावळींतल्यान कितेंय हाडून खावपाक ताका मन येनाशिल्लें. जी बायल बरें बरें करून घालताली तीच हांतुळणार पडल्या, तिज्या पोटांत एक शिता गोटो ना आनी आपणें खावप जेवप असोच विचार ताज्या मनांत येतालो आनी तो उबो रावपाक तांक येवपापुरती पेज करून जेवतालो. खावपा जेवपाची आनी दुसरी कसलीय वान्साच ताका जाय नाशिल्ली. पेजेक दवरून तो भायर आयलो आनी ताणें बाबल्याक म्हणलें,

“चल तूं आतां घरा. हांव बसतां आतां हिजेसरीं.”

"चल तूं आतां घरा. हांव बसतां आतां हिजेसरीं."

"बरें तर" म्हूण बाबलो वचपाक लागलो. इतल्यान धाकलूक कितें तरी येवजलें आनी ताणें बाबल्याक उलो मारलो.

"आरे, बाबल्या, फाल्यां मदले कुडींतली खाट भायल्या सालांत व्हरून दवरुया आं. गादयेर धवो चादर घाल आनी उशाक निवळ शी चिरी घाल. खबर आयकून लोक आयले जाल्यार हांगा हे कुडींत गर्दी जातली. खाट सामकी वण्टीक तेंकय नाका. लोकांक भोंवताडच्यान वचपाक सुवात सोड.

"अशें कितें उलयता भाटकारा? ती वचूंक ना आजून. वेळ येतकर सगलें उलोवन तयारी करुंया. वगीच फुडलें फुडलें चिंतून जिवाक त्रास करून घेतलो. वतां हांव, रोखडोच येतां आं!"

"तूं आनी वता कित्याक? पेजेक घालां हांवें. इल्ली इल्ली जेवया."

"ना, येतां हांव रोखडोच वचून. घरा सांगूंक जाय. गोरवां गोठ्यांत आयल्यांत जातलीं. भावान सांगिल्लें, आपल्याक कळाव जातलो, गोरवां गोठ्यांत येतकच तांकां दावें घाल म्हूण, दावें घालतां आनी उदक दिवन येतां."

"आतां आनी गोरवां उरल्यांत? आतां लोकांनी गोरवां पोसप, शेतां रोवप, सगळें सोडलें. असले धंदे कोणाक जाय? आतां नोकऱ्यो. आमी शेतां भाटां करून नोकऱ्यो करताले."

"गोरवां थोडींच उरल्यांत. भाव म्हणटालो आपल्याच्यान जायना जातकच तींय विकून उडयतलों. फुडें फडें नोकरी केलेबगर उपाय उरचोना. शेतां रोवन पोट भरना."

"दीस आयल्यात खरे तशे. काळ बदलता. आमीय बदलूंक

आसले. कांय प्रमाणांत आं. बरें, वचून यो तर, दोळो काय लागपाक ना. आळी पाळीन मातशी झेम काडुंया."

"वतां भाटकारा. पूण तूं चड विचार करूं नाका आं."

"विचार येतातूच रे मनांत. तुका एक सांगता हांव बाबल्या. फाटलें फुडलें सगळें चिंतून हांवें एक निश्चेव केला. आतां केदेंय वादळ येवं वा हुंवार येवं तांकां धिरान तोंड दिवप, पूण लाचार जावन कोणाच्याच दारांत वचप ना. आपल्या घरांत आयिल्लें मरण आनी आपल्या हातान शिजयल्लो पेज-निवोळ सदांच गोड आसता. नितीनान म्हाका लंडनांत आपल्यागेर रावपाक यो म्हूण सांगिल्लें. हांवें ताका तेन्ना जाप दिल्ली;

'नितीन, घर म्हणल्यार म्हाका जीव. सामको प्राण. बंगलो बांदतना खासा हांव गंवड्यावांगडा वावुरलां, मानायांवांगडा वावुरलां. घराखातीर घाम गळयला. स्वकश्टान बांदिल्ले वास्तुचें मोल बांदतल्याकूच खबर आसता. तुमकां, आतांचे पिळगेच्या भुरग्यांक तें कशेंच समजुचेंना. व्हडलेंशें जाल्यार तुमी तें पयशांनी मोलायशात. लाखांच्या, कोटींच्या घरांत व्हरून सोडशात. पूण आमच्यो हांगां भावना पुरल्यात. तांचें मोल कोण करतलो? केन्ना केन्ना म्हज्या मनांत येतालें लेगीत, आपलो आत्मो अतृप्त जावन ह्याच घरांत घुटमळत रावना जाल्यार पुरो म्हूण.'

'हें सगळें सोडून दिवंक जाय बाबा. जग आतां ल्हान जालां. ह्या ग्लोबलायजेशनच्या काळांत आख्खो संवसार म्हणल्यार एक विलेज जाला. एक गांव. वाठाराच्यो शिमो सोडल्यो जाल्यार हें म्हजें हें तुजें अशें कांयच उरूंक ना. हो संवसारच म्हजें घर अशें मानप आतां.'

'आमचे पिळगेचें मानसशास्त्र तुमकां कळपाचें ना नितीन. आमी भावना, नातीं, नात्यामदले संबंद हांकां जिणेंत म्हत्व दिलें.

आनी तुमी वेव्हार, पयसो हांकां म्हत्व दिलें. थोडयाभितर सांगपाचें म्हणल्यार तुमी आपले जिणेंत स्वार्थाक मुखेल सुवात दिल्या. आतां हेंच पळय हांव मीरावांगडा सारिल्ले दीस विसरूंक शकना आनी जिणें तुमकां जल्म दिला, संस्कार दिल्यात ते आवयक तुमी पयशांचे तुळेन गौण मानली. आनी हो तुमच्या ग्लोबलायजेशनाचो परिणाम. ग्लोबलायजेशनान कितें दिलें आमकां? मनीस मनशाक वळखना. खंयच्याय मार्गान पयसो हातासप. तेखातीर कोण खून करता, मारामारी करता, दरोडे घालता. फोल्गां मारपाक पयसो खंयच्यान येतलो? कश्ट करिनासतना राशींनी पयसो जोडपाचो हावेस! जाची कश्ट करपाची तयारी आसा ताका काम मेळना.'

'ग्लोबलायजेशनाचे फायदे आज न्हय, कांय काळाउपरांत तुमकां कळटले.'

'फुडें आनी कितें जातलें तें आतांच अदमास लावंक येता. फुडें फुडें मनीस मनश्याक वळखतलो ताज्या बोल्साचे दाटसाणीचेर. आमचे पिळगेक तरी नाका तें ग्लोबलायजेशन.'

'तूं आनी आई दोगांय येयात न्ही. इंग्लंड पळोवन जातलें.'

'मीरावांगडा वा मीराबगर ह्याच घरांत हांव रावतलों वा मरतलों. उमेदीन बांदिल्ल्या आपल्याच घराची ओड आगळी वेगळीच आसता. कितें जाता तें ह्याच गांवांत, ह्याच घरांत जावं दी अशी म्हजी इत्सा आसा. मीराच्यो आनी म्हज्यो भावना ह्या बंगल्याच्या दर सालांत आनी दर कुडींत खेळटात, खळखळटात, नाचतात. मीराची व्हंकलपावणी व्हडल्या घरांत घेतिल्ली खरी पूण तिजें चडशें जिवीत ह्या बंगल्यांत गेलां.'

'तूं आनी आई दोगांय येयात. हांगा कितें करतलीं तुमी?'

'मनशाक मनशाची ओड तशी मनशाक वास्तूचीय ओड

आसता. हें घर सोडून आमी खंयच येवचीं नात.'

'तीन चार म्हयन्यांखातीर तरी येयात. रमाचें बाळंतपण जायसर.'

'कितें! बायल तुजी गुरवार आसा?'

'हय, णववो म्हयनो.'

'देखून तुका याद जाली आई बाबाची.'

'ना बाबा, तुमकां आपोवपाचें आशिल्लें. ह्या वेळार आपोवचें अशें थारलें. एका निमतान दोनूय कामां जातलीं. तुमची इंग्लडाची ट्रीपय जाली आनी बांयटेरूय जालो.'

'म्हणजे हांगाय तुवें स्वार्थ पळयलो. तुजो गुन्यांव न्हय तो. तुमी एन्. आर. आय. लोक मरे. अशेच. तुमकां आवय बापायची याद जाता ती फकत बायलेच्या बांयटेरा वेळार. मागीर तुमकां केन्नाच नाका ती.'

'तशें न्ही बाबा. वोगीच नाका आशिल्ले विचार करूं नाका. आमकांय लिमिटेशन्स आसतात न्ही?'

'हय! आसतात रे. हांवें ना म्हणलां? पूण तूं एक काम कर तूं तुजे आईक विचार. ती तयार जाली जाल्यार हांव आसांच. बारक्याफाटल्यान पोनेळ.'

"मनाविरुद्द मीराय तयार जाली, बाबल्या. पूण परदेशाच्या आकर्शणान न्हय, तर लागणूक आनी भुरग्यांची ओड. अशी ओड हेर जिवावळींत आसता काय? आसूंक जाय. आमकां कशें कळटलें? सुकण्यांचें बरें आपलें. मात्शीं व्हड जायसर आवय बापायची ओड. मागीर गेलीं तीं उडून दिगंतरा. मागीर कोण कोणाचो? तशें आमचें कित्याक जायना? एकामेकांच्या आदाराचे कुबडेबगर आमी फुडें कित्याक वचनात? बांयटेर जालो. ती नातीचे सेवेंत आनी

मायेंत इतली गुल्ल जाल्ली, चार म्हयने केन्ना सोंपले तिकाच कळ्ळें ना. पूण म्हाका मात बेजार आयलो."

"बेजार? नवो देस पळोवपाक भोंवलो ना?"

"भोंवलों. कितलो भोंवतलों. एकलो काय भोंवपाक जायना. नितीनाक जेन्ना सुटी मेळटा तेन्ना तो म्हाका भोंवडायतालो. मागीर घरांत. सुटी काडूंक मेळटा? समज थंयच्या नेमाप्रमाण काडलीय बी! कितले दीस? आनी तांतूत कितें पळयतलों? भोंवपाक मेळटा तितलों भोंवलों. मागीर घरांत. घरकोंबो सो. कादयेंत. भायर वचूंक मेळटा? शेजाऱ्यागेर वचूंक मेळटा? कोण कोणाक वळखना. गोंयांत कशें आसता? शेजाऱ्याकडेन बरे संबद जुळोवपाचो यत्न आसता. एक खेप जुळ्ळे जाल्यार ते रोखडेच इश्टागतीचे जातात. सुखदुख्खाचे जातात, आत्मियतेचे जातात. एक घराबो दुसऱ्या घराब्याकडेन आपुलकेच्या धाग्यान बांदिल्लो उरता. आनी थंय, तुज्या घरा तूं, म्हज्या घरा हांव, तूं म्हाका वळखना, हांव तुका वळखना."

"शी इतलें? भोंगों तो देस आनी तांची नोकरी आनी तांचो पयसो."

"आमकां मरे, आपल्या जाग्याची, आपल्या घराची, आपल्या गांवाची, जिणेचोच एक वांटो जाल्लेभशेन ओड लागता. आमकां दिसता तशें ह्या भुरग्यांक कित्याक दिसना काय? काय दिसुनूय पयशांमुखार ताचें मोल कळना?"

"नितिनाक तरी तुमी लग्न करून धाडपाचो न्हय? दावें पडटलें आशिल्लें गळयाक."

"लग्न केलेबगर आवयन ताका धाडला तर? गोंयकार बापायली गोंयकार चली. बरें घराणें पळोवन, संस्कार पळोवन मीरान ताजें लग्न केल्लें. बापूय रावतालो इंग्लंडाक. पूण जाणें

सोयरीक हाडिल्ली ताणें तें कुटूंब गोंयांतूच रावपा आयलां म्हूण सांगिल्लें. तांकां चलयेक गोंयांतूच दिवपा जाय आशिल्लें. लग्न जालें आनी पांच-स म्हयन्यांनी चलयेचीं आवय बापूय गेलीं इंग्लंडाक. कांय तेंपान चलयेचें मन उखल्लें. आमचो नितीन तर खुशालचेंडू. हास्को ना हुस्को. बायल कुसूंय कुसूंय करपाक लागली तें ताज्या पथ्यार पडलें. पासपोर्ट तयार आशिल्लोच. हरवें सोदतल्याक पिकें मेळ्ळें. मीरा कितें करतली? आतां म्हणल्यार तिजें मन घट्ट जाल्लें. सर्वेशा वेळार तिणें तरनाटयांचो हट्ट आनी फॉरेनाचें पिशें पळयल्लेंच. ती कांयच उलयली ना. कितें म्हणटली? जें म्हणपा आशिल्लें तें सगळें सर्वेशा वेळार म्हणून जाल्लें. तेच आर्ग्युमेंट, तीच जाप हें तिका सगळें खबर आशिल्लें."

धाकलूचे तकलेंत एका फाटल्यान एक चिंतनांचो उमाळो येत रावतालो. आपूण चडूच उलयतां अशें ताका दिसलें. ताणें बाबल्याक सांगलें,

"तूं वचून यो बाबल्या. म्हज्यो खबरी केन्ना सोपच्यो नात. सबंद रात आसा आमचेकडेन. मागीर उलोवया खूब."

बाबलो गेलो आनी चड वेळान म्हणटा तसो धाकलूक एकांत मेळ्ळो. ताका सामकें पुरो जाल्लेभशेन दिसलें. फाटले दोन म्हयने तो हॉस्पिटल आनी घराकडेन पावटी मारीत आशिल्लो. कुडीन थकिल्लो तेचभशेन मनाचेर अती ताण पडिल्ल्यान तकली काम करिनाशिल्ली. जिवीतभर जिणें सांगात दिलो ती अचकीत आपल्याक सोडून वता म्हणपाचें ताका कळ्ळें तें सोंसपूच ताका जड जाल्लें. आपल्याक एकलो उडोवन ती वता. तिजेउपरांत आपलें कशें हो यक्षप्रश्न ताका सतायतालो. एकांत मनशाक भावूक करता. चिंतून चिंतून ताका एक हुटको आयिल्लेभशेन जालो. आनी मागीर उदकाचो लोट जोरान येतकच बांद फुट्टा आनी बांदावयल्यान उदक घसघशीत व्हांवता तशी अवस्था ताज्या दुकांची जाली.

दोनूय हात तोंडार दवरून तो मेकळेसाणीन रडलो. ताणें खूव रडून घेतलें. हॉस्पिटलांत पावटी, वायलेची सेवा,आनी घरचीं कामां हांका लागून दोन म्हयनेमेरेन चेपून दवरिल्लो ओग खतखतून भायर सरतालो. तो रांदचे कुडींत गेलो, पेज पितळेंत वाडून घेतली, दोणांतली एक आमली काडली, तीं धुली आनी ती तोंडाक लावन जेवलो. आयदनां व्हरून मोरयेंत दवरलीं. भायर येवन बायलेचेर एक नदर मारली आनी कितें तरी चिंतून तो न्हिदचेले कुडींत वचून आलमार उगडूंक लागलो. इतल्यांत भाटकारा म्हूण बावल्यान भायल्यान उलो मारलो.

"यो, भितर यो, कुडींत आसा हांव."

"कितें करता?"

"आलमार लायतां. सामान कशाय कशें पडला भितर."

"तें आतांच लावपाक जाय?"

"पळय, एक म्हणल्यार तूं येतासर टायम पासार करपाक जाय आशिल्लो आनी दुसरें, आतां मरे तुजी भाटकान्न आमकां सोडून वतलीच. तेंच मनांत घेवन बसून उपकरना. तेन्ना मनांत कितें आयलें, सगळे दुकुमेत, कागदपत्रां वी हाताकडेन मेळटात अशीं दवरुंया. तुकाय सांगतां, हीं भाटांचीं कागदपत्रां. निळ्या लुगटांत आसात न्हय तीं म्हजे वांटणेक आयल्यांत तीं जाण्टेल्यांचीं भाटां. आनी ही धव्या लुगटांतलीं हांवें म्हज्या भुरग्यांखातीर विकतीं घेतिल्लीं भाटां. हे घराचे दुकुमेंत, आनी ......."

"कितें भाटकारा, तें काम करपाक खूब वेळ आसा....तूं यो भायर."

"तूं घरचोच जाला वावल्या, आपल्या मनशांपरस तूं लागींचो जाला रे म्हाका. म्हजे भुरगे हें सगळें पळोवपाक पावतले अशें न्हय पूण केन्ना तरी कोण तरी येरदेर, नातरां पंटुरां वी,

आपलीं मुळां सोदीत आयलीं जाल्यार तांकां उपेगा पडटले हे दुकुमेंत."

धाकलूक आज एक प्रकारची वश्रेवणी लागिल्ली. तो आज बऱ्यो वायट गजाली उलयत वतालो. अशे परिस्थितींत मनीस आपल्याक आयकुपी त्यो खबरी समजतलो काय ना हाची जाणीव दवरिना. बाबल्याक धाकलूच्यो सगळयोच खबरी समजताल्यो अशांतली गजाल न्हय. पूण तोय आज एक 'परिपूर्ण' श्रोतो जाल्लो.

"कितलो पयसुल्लो विचार करता तूं भाटकारा?"

"हाडां मसंडींत पावलीं तरी जिणेची ओड आनी प्रपंचाची आस सुटना. हें तुका कित्याक सांगतां हांव? तूं आमचोच जाला आतां. अडचणे वेळार पावतात तीं नातीं न्हय? तूं तर दर संकटावेळार धांवून आयला. नात्यापरस तुजे संबंद श्रेश्ट मानतां हांव. आमचो दोगांयचो इतिहास तुका खबर आसा पूण भुरग्यांक खबर ना. यो भायर. सालांत बसुंया. ना! पूण राव. पयलीं तिका हाडुया सालांत."

ते दोगूय मीराक घाल्ले ते कुडींत वतात. बाबलो तिजे खाटीम्हऱ्यांत जमनीर एक शेनरी पातळयता. तिजेर एक गादी घालता. गादयेर धवो चादर. खाटीवयल्यान तिका अचळय उखलून गादयेर घालतात. दोगूय दोनूय तोंकांनी गादयेक धरून तिका उबारून सालांत व्हरपाचो यत्न करतात. पूण तांकां तें जमना.

"जमनीवयल्यानूच ओडून व्हरुंया बाबल्या." धाकलून सुचयलें. निमाणें तांणीं दोगांयनी तिका ओडून व्हरून सालांत बाबल्यान पयलींच हाडून दवरिल्ले खाटीर कशी बशी न्हिदयली. धाकलून तिजे हात पांय सारके दवरले. तकली उशार मदींच दवरली. मागीर येवन ऑल्तेरार बसलो आनी बाबलो एका कोनशाक वचून जमनीर बसपाक लागलो.

"थंय खंय बसता रे? असो यो. ह्या कदेलार बस."

"ना भाटकारा, तें कदेल आमकां न्हय."

"असो यो, कदेलार न्हय जाल्यार बांकार तरी बस."

"तूं म्हणटाच जाल्यार बसतां भाटकारा."

"म्हजो जीव आसा सर आनी म्हज्यांत त्राण आसा सर म्हजी इश्टेट हांव पळयतलों. पूण आमचेउपरांत फोरेनकारां गोंयांत पावतासर तुवें लक्ष दिवपाक जाय. बेश्टेंच वाऱ्यार उडोवं नाका."

"तुजे आनी म्हजे पिरायेत कांय वर्साचो फरक आसा भाटकारा. कोणाक खबर, तुजे आदींच म्हजीच वाट मेकळी जावं येता."

"तें कोणाच्यानूच सांगूक नजो. तूं धडधाकट आसा. आनी धडधाकट आशिल्ले म्हाताऱ्यांपरस बेगीन गेल्ले आमी पळयल्यात. कोणाच्यान कांय सांगूंक नजो. पूण हांव सांगतां, तुका कांय जायना. तुजो भुरगो आसा तुका आदाराक."

"जालें! सगले तरनाटे सारखेच. तोय रावता ठाणें सारखिल्ल्या शारांत. हीं खेडीं आतां तांचे नदरेंत नात. शारांतल्या जिविताची गोडी लागल्या. पूण तीं शारां आमकां न्हय. ताचीं भुरगीं व्हडलीं जालीं. तांचें शिक्षण जालें. संवसार जाले. आतां म्हजें काम कितें थंय? हें चिंतूनच हांवें ठाणें सोडलें न्हय? घरकान्नीचोय आग्रो आसलो आनी म्हजीय इत्सा आसली गांवांतूच मरण येवचें."

"तुवें म्हाका जेन्ना तूं सासणाचो हांगा रावपाक आयलां म्हूण सांगलें तेन्ना म्हाका खोस जाली. गेल्लीं दोन वर्सां तुजो आदार मेळ्ळा म्हाका."

"हय भाटकारा. तूं आनी भाटकान्न आसा सर हांव तुमकां सोडचों ना..... भाटकान्न वतकच हें येदे व्हडलें घर तुका खावपाक

येतलें भाटकारा."

"तिजेवयल्यानूच ह्या घराचें घरपण न्हय! घरांतली घरकान्न बरी आसप म्हणल्यार घर कळी कशी फुलता. ना जाल्यार घराक अवकळा येता ती पळोवं नजो. मीरा आनी हांव आयलीं ह्या घरांत तेन्नाचें घर याद कर आनी आतां पळय. मदीं मदीं आई, बाबा, येतालीं रे. तेन्ना घर कशे रसरसतालें! एक प्रकारचें तेज आशिल्लें ह्या घराक."

"व्हडलें घरूय रितें आसा भाटकारा. एक कोनसो तर मोडपाक पावला."

"घरां उमेदीन बांदतात रे. फुडल्या पिळग्यांक सोपें पडचें म्हूण. पूण आतां भुरगीं आसतात दोन ना जाल्यार तीन. तींय नोकरी धद्या निमतान गेलीं गांव सोडून. मागीर घरां कोणाक तीं. अशें खूब जालां बाबल्या. बरे बरे बंगले रिते पडल्यात गांवांत आनी भुरगे रावतात भाड्याच्या घरांत. तूं उपेंद्र शणै जाणा न्हय! ताजी नोकरी रेल्वेंत आशिल्ली. पूण ताका आपल्या गांवची सदांच ओड. गांवांत आयिल्ले खेपे ताणें म्हजेकडेन उलोवन दाखवप.

'रिटायर जातकच हांव गांवांत येवन घर बांदतलों. जुवारी न्हंयचे देगेर.'

'पूण न्हंयचे देगेर तुमगेलें भाट वा रिती सुवात ना मरे.' हांवें ताका म्हणचें.'

'आमचें ना रे पूण तूं म्हाका इल्लो जमनी कुडको दिवचोना? विकतो रे, फुकट नाका.'

'बरे भशेन. इल्लो जमनी कुडको तुज्या नांवार केलो म्हूण हांव गरीब जावचों ना.'

'ह्या आमच्या गांवांत मरे काव्य आसा. हो सैम गायता,

तुजेकडेन उलयता. हांवें जायतीं शारां पळयलीं. गोंयचीं खेडीं ओडलायणी आसाच़ पूण गोंयचीं शारां तीं गोंयचीं शारां. तांतले तातूंत जुवारेचे वा मांडवीचे देगेवयलीं शारां. ओड लायतात म्हाका. शारांनी रावूनलेगीत गांवांत राविल्ल्याचो आनंद मेळटा आमच्या गोंयांत.'

'तूं यो. हांव दितां तुका जमीन. बांद मागीर घर.'

'दोनूच वर्सां उरल्यांत रे म्हाका रिटायर जावपाक. मागीर सुसेग. गांव आनी हांव.'

आनी तुका सांगतां बाबल्या, रिटायर जावन तो आयलो. घर बांदलें. अख्खो पी. एफ्. ताणें घराखातीर खर्च केलो. आपल्याक जाय तशें, सामकें ताज्या सपनांतलें घर बांदलें. पूण तीन चार वर्सांलेगीत तो घरांत रावूंक पावलो ना."

"कित्याक? भायर पडलो?"

"ना रे! आतां ना तीं दोगांय. पूण आयक तांची अवस्था कितें जाली ती. दोगांय भुरगीं नोकरेक लागलीं. एकलो पुण्यां आनी दुसरें मुंबय. दोगांयचीं लग्नां जालीं. तांचे संवसार जाले. केन्ना दुयेंसां आयलीं जाल्यार केन्ना सुनेचे, धुवेचे बांयटेर आयले. केन्ना पुतागेर वचचें पडलें तर केन्ना धुवेगेर. जिवीतभर नोकरेक लागून भोंव भोंव भोंवलो रेल्वेचेर सवार जावन. रेल्वेच्या रुळांर जीण सरली. इतलें म्हणसर उपेंद्र शणैलें जाणटेपण आयलें. तांचो आदार भुरग्यांक मेळपाचो साणून तांकांच भुरग्यांनी आदार दिवचो पडलो. पुताक आवय बापूय जड जावपाक लागले. धूव आपल्यागेर आपयताली. पूण हांगेलो स्वभिमान आड आयलो. पूत आसतना धुवेगेर वचून रावप! समाज कितें म्हणटलो? गांवांत रावपाचीं सपनां, गांवचें काव्य, गांवचो सैम, सगळें सगळें अर्दुकुटें उरलें. आसा बाबडो बंगलो रिकामो, धनयाची वाट पळयत. आनी हीं

दोगांय, वंगल्याचीं मालक आनी मालकीण आशिल्लीं वृध्दाश्रमांत मरणदेवाची वाट पळयत. वेगीन यो वावा, म्हाका ह्या संवसारीक जंवजाळांतल्यान सोडय म्हणत. धूव अयिल्ली गोड धोड घेवन दोन तीन खेपेक. धुवेचें मन तें. पूण तिकाय मर्यादा आसात. पूत पावोवन गेल्लो तो मागीर तोंड दाखयलें ना ताणें. धुवेची माया वेगळी."

"पूण तीच धूव सून आसता न्हय?"

"हय. सारकें तुजें. म्हाकाय तें समजूं ना. एकूच चली मांय मावाचे स्टेजीर एक पार्ट करता आनी आवय बापायचे स्टेजीर तिजें सवंग सामकें वेगळें आसता. तीं दोगांय वृध्दाश्रमांतूच सोंपलीं. आवय सिरीयस आसा म्हूण पुताक आश्रमवाल्यांनी कळयलें पूण तो आयलोच ना. घरकान्नीन पांयांक घाल्लें दावें पूत तोडूंक शकलो ना. बायलेच्या दिस्त बाराव्या दिसा उपेंद्र शणैन प्राण सोडलो. वृध्दाश्रमांतल्याच एका जाणटेल्यान ताका अग्नी दिलो. आमचे भुरगे भायर आसात म्हूण घडये समजूं येता पूण हागेलो पूत आशिल्लो पुण्यांत.

मनशान जरी कितलेंय अभिमानान सांगलें कीं हें आपूण करतां तें आपूण करतां, आपली जीण आपल्याक जाय तशीच आपूण जगतलों, आपल्याक जाय तशेंच सगळें जातलें वा आपूण घडयतलों तरी जें घडपाचें आसा तेंच घडटलें. तूं तुजे जिणेक आकार दिता म्हणटा तें फट, जिणेक तूं घडयना, जीण आपल्याक जाय तशीच तुका व्हरता, तुका घडयता.

एक दीस कितें जालें, म्हजो आतेभाव दया, खूब तेंपान आयिल्लो आमगेर. सुखी आनी आनंदी प्राणी. हालींचीच गजाल ती. उलयतना हांवें ताका विचारलें, भुरगे वी कितें करतात? म्हाका जाप मेळ्ळी, 'सगळे भुरगे लागले पोटाक. वेवस्थीत चल्लां तांचें. म्हगेले येवजणेप्रमाण हांवें तांकां शिक्षण दिलें. म्हाका

जाय तशे हांवें तांकां घडयले. व्हडल्याक डॅण्टीस्ट केलो. दुसरें बी. कॉम जालें. तिसरो आदवोगाद. सगळें पोटाक लागले. म्हजी इत्सा पुराय जायत गेली. सगळे आपापल्या संवसारांत गुल्ल आसात. हांव संतुश्ट आसां.'

'डॅण्टिस्टाक एम्. बी. बी. एस्. कित्याक केलो ना? परसेंटेज कमी पडली? चडशे भुरगे मेडिकलाक एडमिशन मेळना जाल्यार डॅण्टल कॉलेजीक वतात. चलयेक सी. ए. क कित्याक धाडलें ना. काय बी. कॉम मेरेनच शिकोवपाची इत्सा आशिल्ली तुमची?' आमगेली मीरा फटकळ. उलोवन गेली. दयाल्या तिरसुवादपणाची गोम मीराक कळ्ळी. तिगेले प्रश्न आयकून दया मात घुस्पलो. मीरान फुडें म्हणलें, 'साधलां ताजें फावलां. जें घडटा तें आपणें केलां म्हणपाची मनशाची प्रवृत्ती. मनशान कितलेंय मणगटाच्या जोरार खोंट मारता थंय उदक काडटा म्हणलें तरी तो निमाणो परावलंबीच.'

"व्हडलो भाटकार व्हडलें घर आसतना तुजेवांगडा ह्या घरांत रावतालो न्हय?"

"आरे त्याच खातीर न्हय हांव इंग्लंडाक गेलो ना. नितीन आपयतालो म्हाका. ह्या कलियुगांत आपल्या भुरग्यांचेरलेगीत विश्वास दवरप कठीण जालां. भाऊक भोगलां तें दुस्मानाक लेगीत भोगूं नाका. तार्णेय एक घर बांदिल्लें. तोय नव्या घरांत रावतालो."

"ताजीय बी काणी आसा?"

"आरे, एक मनीस म्हणल्यार एक काणी, एक इतिहास. एक धांपिल्लें पुस्तकूच म्हण न्ही. जो मेरेन तें उगडना तो मेरेन लोकांक कळचेंच ना पुस्तकांत कसली काणी आसा तें. सस्पेन्स काय सामाजिक. भाऊची व्हडली काणी आसा. ताजो एकलो एकसुरो चलो. भाऊनूय आपल्या भुरग्याचीं, ताज्या फुडाराचीं सपना

पळयल्लीं. दर मनीस सपनां पळयता. आपलो फुडार आपूण घडयतलो म्हूण ताका आत्मविश्वास आसता. पूण तीं सपना जेन्ना दुसऱ्याच्या सपनांनी घुस्पतात तेन्ना चिंतुनाशिल्लेंच घडटा. ताचीं सपनां चल्याच्या सपनांचेर निंबून आशिल्लीं.

आमच्या गांवांत पयलो फॉरेनाक वचपी तागेलो चलो सुभाष. चलो नमळिकायेचो आनी आज्ञाधारक. गेलो अमेरिकेक. बरो शिकलो आनी आयलो. उंचेलें शिक्षण अमेरिकेक जालें आनी नोकरीय अमेरिकेक मेळ्ळी. भाऊ खूश. दोनूय खांदार दोन फितां चडलीं. गांवचे लोक आदरान पळोवंक लागले ताजेकडेन. हाका 'ग' ची बादा जाली. जावं बावड्याक. ताजें तो पळोवन घेत म्हूण आमीय ओगी रावले."

"भागेल्यांकडेनूय तो बरो वागलो ना."

"भागेल्यांकडेन कित्याक, अख्ख्या भौसाकडेन पळोपाची ताजी नदर वेगळी आशिल्ली."

"म्हाका उगडास आसा. निकतेंच गोंय स्वतंत्र जाल्लें. देवळांत बामणांवांगडा भौसाचे भुरगेय बसपाक लागले. ताणें वचून बामणांक पयलीं प्रसाद दिवप आनी भौसाच्या भुरग्यांक मागीर, ते खुबले. तर हाचीं उतरां कितें जाणां? ह्या संवसारांत सगळ्यांत आदीं देव आनी मागीर बामण. भुरगे आनीक खुबले. मारपाक गेले ताका."

"जाणां. मागीर जाणटेल्यांनी मदीं पडून सोडयलो ताका. मनशाक वेळ काळ पळोवन वागूंक कळूंक जाय. तर तुका सांगतालों कितें हांव?आमचो पुतणयो फॉरेनाक गेला. आमकांय अभिमान सो. ताजेइतली आमकांय खोस. म्हाकाय आकर्शण जालें चल्याक फॉरेनाक धाडपाचें. ताज्या पावलार पावल दवरून हांवेंय सर्वेशाक फॉरेनाक धाडलो. सर्ती वांटो रे! सर्ती वांट्याक लागून ताका

फॉरेनाक धाडपाचो हट्ट धरलो. ही एकामेकांकडेन सर्त करपाची आमच्या समाजाक कीड लागल्या न्हय ती समाजाच्या फाटीकण्याचो मणको मोडलेबगर रावची ना. तशी जीण सुधारतली जाल्यार सर्त ही जायच. पूण ती निरोगी आसची पडटा. आमी ती नाका थंय करतात. आरे, आमचेभितर सदांच बारीक मोटी सर्त आसतालीच. खेळांत तशेंच दीसपट्टे जिणेंतय. ती सर्तूच म्हाका फुडें भुजली."

"पूण ताजे इतलीच पयशांची तांक तुकाय आशिल्ली . म्हणजेच भाऊक जें परवडलें तें तुकाय परवडपाक जाय आशिल्लें."

"हय रे. ताका आनी म्हाका समसमान वांटणी मेळिल्ली. कायद्यान भयणीकूय मेळटालें. पूण ताणें कांय घेतलें ना. तशी पद्दतूच नाशिल्ली. भाऊन पयसो करून दवरिल्लो, हांवें आनीक भाटां घेतलीं. प्रश्न पयशांचे तांकीचो ना. हांवें नाका म्हणिल्लें जाल्यार सर्वेश घडये आपलो विचार बदलितूय आशिल्लो. सुभाषाक फॉरेनाक धाडपाचो भाऊचो निर्णय योग्य आशिल्लो काय नाशिल्लो हो प्रश्न वेगळो. पूण भाऊन आपल्या जिविताची मात वाट लावन उडयली."

"निमाणीं तीं दोगांय एदें व्हडलें घर सोडून तुमगेरूच आसतालीं न्हय मरमेरेन?"

"तेंच सांगता न्हय तुका. एकलो एकसुरो पूत. पयसो जाय तितलो. आनी तुका एक सांगूं बाबल्या, फॉरेनाची ओड सगळयांक आसा. पूण अमेरिकेचें आकर्षण मनशाक पिशें लायता रे. भाऊन सुभाषाक फुडल्या शिक्षणाक धाडलो अमेरिकेक देखून हांवेंय..."

"ताणेंय थंयच लग्न केलें काय कितें?"

"ना रे. बरो शिकलो, बऱ्या मार्कांनी पास जालो, बरें

भांगरा मेदाल मेळ्ळें. संवसारभर फामाद जालो. बापायले सांगणेप्रमाण आयलो, सोमतें लग्न करून आयलो ना. आवय बापायले इत्सेप्रमाण, आवयले पसंतीची व्हंकल पळोवन, सामकें गोंयचे पद्धतीन लग्न जालो आनी फुडार घडोवपाक परतो गेलो अमेरिकेक. बापूय खूश, आवय खूश. दोगांयकूय सर्ग फकत दोन बोटां उरिल्लो. रगता नेटार दोगांयकूय कांय कळ्ळेंना. हांचे पांय जमनीक तेंकनाशिल्ले. धवेफुल्ल फेर्राद कपडे घालून भोंवप. भोंवप कितें, फोल्गां मारप म्हणटात ताका. इतलो तोरो चडिल्लो, आपल्या मनशांक वळखनाशिल्लो. तुमच्यांतलो कोणूय सायकलीन ताज्या फुडच्यांतल्यान वचूंक जायनाशिल्लो. तो दिसलो रे दिसलो ताणें सायकलीवयल्यान देवूंक जाय आशिल्लें आनी सायकल हातांत धरून चलून वचपाक जाय आशिल्लें. फुडें वचून मागीर तो सायकलस्वार परतो सायकलीर चडून वतालो."

"सायकल म्हणटा तूं भाटकारा. कोणेय जोतें घालूनलेगीत ताज्यामुखावयल्यान वचपाक जायनाशिल्लें. जोतें हातांत धरून ताज्या मुखावेल्यान वचप आशिल्लें. कोणूय जोतें घालून गेलो जाल्यार धडगत नाशिल्ली ताजी मागीर."

"पूण हें कितें पूत अमेरिकेक गेल्लो म्हूण न्ही भाटकारा. तेन्नाचे भाटकार तशेच आशिल्ले."

"सगळेच न्हय आं. शंबरांत एक नाजाल्यार दोन."

"हय, पूण आशिल्ले तशे. तें झक मारूं. पुताक फॉरेनाक धाडून व्हडलो भाटकार खोशी आशिल्लो न्हय!"

"आयक पयलीं. मागीर थाराय, कितलो खोशी आशिल्लो तें. तेवटेन चल्याचो संवसार फुलूंक लागलो तशी हेवटेन आवय बापायची पिराय झपाझप वाडूंक लागली. एकलो एकसुरो चलो. आनी आनीक भुरगीं ना. मनीसबळ उणें जाल्ल्यान भाटां बेसांनी

वावर करपाची तांक ना. वावर ना म्हूण पीक उणें जालें. जें कितें पीक येतालें तें रातपाडेली पाडून व्हरताले. दीसपट्टो खर्चलेगीत जड जावपाक लागलो".

" सुभाष गोंयांत येनाशिल्लो?"

"येतालो मदीं मदीं बायल भुरग्यांक घेवन. फोल्गां मारून वतालो. बायल भुरग्यांखातीर घसघशीत खर्च करतालो. आवयक कापड, बापायक पुडवें, ज्युदयेक कपडो, सगळें करतालो. पूण आपली बरदास्त दवरुपाक घरांतूय खर्च जाता म्हणपाचें पापयाक खबर नाशिल्लें. कपडो लत्तो दिलो म्हूण तातूंत दीसपट्टो खर्च भागना. आपलो स्टॅण्डर्ड सांबाळपाक बापूय कितल्यो उठाबशी काडटा हें कळनाशिल्लो मनीस कसलो?

सुभाषाची बायल मातशी वेगळी. तिणें आपलेभोवतणींच वंय करपाक सुरवात केली. ते वंयेंभितरूच रावपाची सवंय सुभाषाकूय जाली. बायलेचे संगतीन काय अमेरिकन संस्कृतीचे संगतीन खबर ना, पूण तो इल्लो इल्लो बदलत गेलो. जाका आवय बापूय देव शे दिसताले तांचेपसून तो इल्लो इल्लो पयसूच वचपाक लागलो. निमाणें नाटकांतल्या खलनायकाक लेगीत लजेक घालपासारखें काम ताणें केलें. ताणें केल्लीं पातकां कशीं ताका पचतलीं हांव नकळो".

"अशें कितें केलें तर ताणें?"

"कितें केलें? सांगतां. आतांचे भुरगे कशे तें तुकाय कळटलें".

"सगळ्याच भुरग्यांक दुशण दिवप बरें न्हय भाटकारा".

"नाय जाल्यार नवी पिळगी आमचे पिळगेवरी न्हयच रे. आवय बापायच्या उतराभायर आमी केन्ना गेलेच नात".

“आवय बापायले बेंस तुमचेकडेन येवपा अशिल्लें म्हूण जायत. आतांच्या भुरग्यांक घडये तुमचे येणावळीची आशा ना म्हूण जायत. आपल्या मणगटाच्या बळग्यार सगळीं सुखां हातासपाची तांक तांच्यांत आसा. देखून ते कोणाची पर्वा करिनात.”

“म्हणजे कितें आमी फकत बापायल्या पोटल्याखातीर करतालें सगळें? कांय न्हय केले मरे तुवें आमकां!”

“मनीस सगळयांआदीं सुवार्थ पळयता भाटकारा. जाका सुवार्थ ना तो समाजाचे भिरांतेन करता. व्हडल्या भाटकाराचो चलो केन्ना रावनाशिल्लो हांगा. केन्ना पळयल्ल्याचो उगडास जायना. म्हजेंय येवप वचप पातळ जाल्लें हांगा.”

“तेन्ना तुजें चडशें आमगेर यो वच नाशिल्लें हें खरें. तुजो बापूय येतालो. ह्या घराचें काम सुरू जातकच तूं कांय तेप आशिल्लो हांगा. आनी सुभाष गोंयांत आयलो म्हूण गांवांत खंय चड उरतालो? उरलो जाल्यार एक दोन दीस. मागीर गेलो तो मावोडचा. मागीर बद्द अमेरिकेक वचचे दोन दीस पयलीं येतालो घरा. फुडें फुडें तागेलें गोंयां येवप पातळ जालें. नोकरेचे जंवजाळ, संवसाराच्यो धांवपळी आनी भुरग्यांच्या शिक्षणावांगडा तांची उस्तवारी. कोणाक गोंयां येवपाक वेळ मेळटलो? आवय बापूय लागीं आसल्यार कोणाक तांचो उगडास येना. साता समुद्रांच्या पलतडच्यान कोण आवय बापायच्या मोगान आनी ओडीन धांवून येतलो? अशे परिस्थितींत मायेचे तागडेचें दालें बायल भुरग्यांवटेन देंवलें म्हूण कोणाक अजाप जावचें ना. पूण जाणटे पिरायेंत सुभाष आवय बापायकडेन कसो वागलो तें आयकत न्हय तूं, जाल्यार ताका थापटायल्याबगर रावंक जावचें ना तुज्यान.”

“तो म्हूण आनी कितें करतलो? सर्वेशबाबावरी रावलो आवय बापायक सोडून अमेरिकेक.”

“तो रावलोच. निमाणो गेलो तो वीस पंचवीस वर्सां तरी ताणें फाट वळून पळयलें ना. फकत चीट बरोवन खबर घेवप. जालें! कर्तव्य सोंपलें आवय बापायबद्दलचें.”

“मागीर व्हडलो भाटकार मरमेरेन आयलोच ना?”

“आयलो रे. जाणटेलीं दोगांय मरणाचे धडेर पावलीं तेन्ना बापायन पुताक बरयलें. ‘आमी आतां जाणटीं जाल्यांत. केन्ना आपोवणें येत सांगूंक नजो. हांगा घर-दार, भाटां-बेसां, पयसो-आटको सगळें उबंत पडटलें. तेन्ना आतां अमेरिका सोड आनी घरा यो.’

“अश्या वेळार येवपाचेंच. एकलो एकसुरो पूत. आनी कोण आसा जाणटेल्यांक पळोवपाक?”

“आयलो आं आयलो! आदीं चीट बरयली अमक्या दिसा येतां म्हूण. धांवून धांवून आयलो आवय बापायच्या मोगान”.

“जावं बाबा. अशे पूत आसचे.”

“आसचे आं आसचे. अशेच आसचे. पूण तूं आतां मदीं मदीं उलोवं नाका. म्हगेलें सगलें सांगून सोंपतकच मागीर तुजें मत सांग”.

“उलय भाटकारा, हांव उलयना आतां.”

“आवयबापायक अमेरिकेक व्हरपाचे तयारेन आयलो. आमकां दिसलें, हो आनी बायल हांचेमदीं बरेंच कितें तरी पेटलां. देखून बायलेच्या रागान हो गोंयां आयला. आनी हो परतो वचना. पूण तशें कांयच घडूंक नाशिल्लें. ताणें आवय बापायक सांगलें,

‘चलयेची नोकरी आसा, जावंय अमेरिकन. अमेरिका सोडून तो कसो येतलो? म्हजी नोकरी आसा, थंय बायलेच्यो इश्ट मैत्रिणी आसात. अमेरिका सोडून हांगा आयलों जाल्यार

संवसाराची सगळी घडी विस्कटतली. थंयचें शिक्षण आनी हांगासल्लें शिक्षण हातूंत मुळावो फरक आसा. नातरांक तें जमचेंच ना. अमेरिकेक रावून आयिल्लीं भुरगीं. हांगा तांची उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्या नुस्त्यावरी गत जातली. तांचें भविश्य पिड्डेर जातलें. तुमी हांगां एकलीं. जाण्टेपणांत कितेंय जालें जाल्यार कोण आसा. हांव अमेरिकेक. परतो परतो धांवून येवपाक कशें जातलें म्हज्यान? तेन्ना तुमीच अमेरिकेक येयात. तुमकांच व्हरपाक आयलां हांव. सगळींच एकठांय रावुंया'. बापायकूय पटलें. पुतागेर रावप म्हणल्यार परकेकडेन रावप न्हय. हांगा दुसऱ्याच्या पोश्यान उदक पिवचेपरस पुतागेर हक्कान राविल्लें बरें अशें तांणीं चितलें".

'पूण एक अडचण आसा.' "पुताकडेन तांणी ती उलोवन दाखयली. त्या दिसा हांव आशिल्लों तांगेर. मोन्यांनी आयकतालों तांचो संवाद".

'हांगा हो सगलो पसारो पडला ताचें कितें करप?'

'पसारो म्हणल्यार कितें बाबा, भाट मरे?'

'भाट न्हय, भाटां, एक आनी दोन न्हय सात आठ. घर आसा. जमीन आसा, शेतां आसात. बँकांनी पयसो पडला'.

"अशें करुंया, शेतां भाटां जमीन आनी घर बी विकून उडोवया. पयसो सगलो डॉलरांनी कन्व्हर्ट करुंया. अमेरिकेक व्हरुंया. अडी-अडचणींक तुमकांच उपेगा पडटलो. तुमकांय दिसपाक नाका, म्हातारपणांत पुताचेर पडल्यांत म्हूण. तुमच्या पयशांचें तुमी खायात'.

'आमचें तुमचें कितें करता रे शुभाष? आमचें आसा तें सगळें तुमचेंच न्हय. आनी कोण आसा आमकां?'

'म्हणटकच थारलें मागीर? सगळ्यांनी एकठांय रावपाचें अमेरिकेक वचून. म्हाकाय हुस्को नाका. तुमी हांगा हांव थंय.

दोशीं मन जाता मागीर'.

'हें पळय सुभाष, हांगासल्लें मुक्त वातावरण सोडून भाऊक अमेरिकेचें बंदिस्त वातावरण कितपत मानवतलें?'

"हांवें मदींच मातशें तोंड घालें".

'बंदिस्त म्हणल्यार कितें? अशेंच ल्हानशें घर आसा. भायर कम्पावंड आसा. तातूंत भोंवपाक जाता. जाय जाल्यार बारीक बारीक गार्डनींग करपाक जाता'.

'सगळेंच कशें मेळटलें? मातशें समजून घेवपाक जाय न्हय. जाणटेपणांत भुरग्यांचे संवसार पळोवपांत, तांच्या सुखांत आपलें सूख मानपांत शाणेपण आसता'. भाऊन कुटुंबाबद्दलची माया उगती केली.

'पळय भाऊ, तूं फाटलो फुडलो विचार कर आनी फुडलें पावल घाल'.

" अशें सांगून हांवें थंयच्यान कूस मारली."

"व्हडल्या भाटकाराचोय गुन्यांव ना. एकलोच चलो. तोय साता समुद्रां पलतडी. हांगासरलो वनवास भोगून भोगून बेजारलो जातलो तो."

"हय रे, तें खरें. फुडें आयक. सुटकेउपरांत गोंयां जमनीचे दर वाडत वताले आनी सुभाषान आपलीं ठिकाणां विकूंक काडलीं तेन्ना जमनीचें मोल खुबूच वाडिल्लें, ताणें एक ठिकाण विकलें, दुसरें विकलें, एकार एक विकत रावलो. तीन म्हयन्यांभितर सगली प्रोप्रर्टी लाटली. एफ. डी. मोडल्यो. बँकेंतले सगले अकावंट क्लोज केले, अखेरेक घर विकूंक काडलें. आनी सगळया पयशांचे पुतान डॉलर करून घेतले. आनी ते अमेरिकेक ट्रांस्फरलेगीत केले. पासपोर्ट जालो, विजा जाली, लाखांनी रुपया हातांत आयले,

आनी एकदांची फोरेनाक वचपाची तयारी जाली. अखेर निरोप समारंभ बी जावन भाऊ, वैनीची पालखी मुंबय वचपाक गेली. थारिल्ल्या दिसा विमानतळार पावलीं. रिसेप्शन कक्षांत दोगांकूय बसयलीं आनी सुभाष विमानाची चवकशी करूंक वचून येतां म्हूण सांगून गेलो. अर्द वर जालें, एक वर जालें, देड वर जालें, निमाणें विमानाचो वरार जावन गेलो पूण सुभाष आयलो ना. हांचो चिंता हुस्को वाडत गेलो पूण सुभाष आयलो ना. हांकां दिसलें, विमानाक बी उशीर जालो काय? कितेंय जावन बी हो वाटेर पडलोना मू? तरे तरेचे विचार हांच्या मनांत येवन गेले. वाट पळोवन पळोवन हांचें पासियेंस पिड्डयार. निमाणें आवयन रडपाक सुरवात केली. कितें करचें म्हूण भाऊक कळना जालें. तो उठलो आनी कावंटराचेर गेलो. चवकशी करीत जाल्यार विमान वेळार सुटलें म्हूण ताका कळळें आनी हेंवूय कळळें, सुभाष त्या विमानान वचपाक गेलो."

"कितें? तांकां सोडून? मनीस काय कोण रे तो?"

"आयकुनूच तुज्या आंगार कांटो उबो रावलो मरे? भाऊचे आनी वयनीचे कितें हाल जाल्यात जातले, कल्पना कर. तें आयकून आमकां कितें जालां जातलें ताचो विचार कर. असले भुरगे जावचेपरस ना जाल्ले बरे. उस्फाट्या काळजाचे शे आतांचे भुरगे".

"मागीर कितें केलें तांणी?"

"बोल्सांत पूण खंय आशिल्लें रे भाऊच्या. ताणें मुंबयच्या आपल्या इश्टाक फोन केलो. इश्ट बरो म्हूण सांग! ताणें विमानतळार येवन दोगांकूय आपल्यागेर व्हेलीं. आनी खासा आपूण तांकां गोंयां घेवन आयलो. तांकां दोगांयकूय दारांत पळोवन आमकां दोगांकूय अजाप. सुभाष तर तांचेवांगडा दिसलो ना. कितें जालें काय हांव चिंततां. मनांत म्हणलें, 'भाऊलो अमेरिकेक वचपाचो

विचार बदललो काय? हांवें भाऊक सांगिल्लेंच, तुका अमेरिका न्हय ती म्हूण."

'बेत बदललो भाऊ? तुका हांवें सांगिल्लेंच, तुका ती अमेरिका न्हय म्हूण. कांय दिसांखातीर रावूंक वता ती गजाल वेगळी. उरिल्लें जिवीत अमेरिकेक काडप तुका जमचें नाशिल्लें. हांगा आपूण कोण तरी आसां अशें दिसता तुका आनी थंय आपूण कोण हो प्रश्न पडटलो आशिल्लो तुका.'

'काडीन आशिल्लों रे दीस हांव थंय पुताक, नातरांक पळोवन. पूण म्हज्याच काळजाच्या कुडक्यान म्हजो घात मारलो रे धाकलू.'

'कोणें? सुभाषान?'

'ताका दाखयतां. कोर्टांत केस करून ताका फरफरीत ओडून हाडना जाल्यार पळय गोंयांत.'

'कितें उलयता तूं भाऊ? पूत तुजो तो!'

'पूत न्हय तो दूत, यमदूत! सैतानाक लेगीत लजेक घालपाचें काम केलें ताणें.' वयनी उलयली. आवयच्या तोंडांतल्यान अशीं उतरां येवप हाचेवयल्यान तिका कितलें दुखलां आसतलें तें कळटालें.

'भाऊ, मातसो थंड जा. पळोयया. मीरा, ताका इल्लें उदक दी.'

'थंड जा म्हणटा तूं? थंड येन्ना जायना हांव. सुभाषाक बुद्द शिकयलेबगर थंड जावपाचो ना हांव.'

'ताका धाडलो मरे तुवें? अशें घडलें तरी कितें रे?'

'नागयलो रे ताणें म्हाका. समुळनिशीं पुसलो. सामको भिकेक लायलो. भोगतलो तो भोगतलो.'

'अशें कित्याय कितें उलोवं नाका आं भाऊ. उदक पी आनी कितें जालें तें सारकें सांग पळोवया.'

"आनी ताणें जेन्ना ती सगळी काणी सांगली, म्हजी तकली गिरगिरूं लागली. खंयच्याच आवय बापायक अशें घडचें न्हय. आनी पुतानूय अशें केन्नाच करचें न्हय. अशें जालें जाल्यार पूत आनी आवय बापायच्या नात्याक सामकी वेर येतली मरे बाबल्या. जे बुन्यादीच्या फातरांचेर समाज उबो आसा ते फातरूच गडगडूंक लागले जाल्यार कशें जातलें? जें हांवें आयकलां तें खरें मानूंक म्हजें मन तयारूच जायना जालें. खातरी करपाक हांवें परतें विचारलें,"

'सुभाष सारकोच विमानांत बसला म्हूण खात्री जाली तुजी? काय आनी कितेंय घडलें रे? हेर कितेंय घडपाची शक्यताय आसूं येता न्हय?'

'विमानतळार सगली खातरी करून घेतल्या रे आमी. धाकलू, सगलें, सगलें पुसून व्हेलें रे दुश्टान.'

'तूं हुस्को करूं नाका भाऊ, हांव आसां न्हय. तूं हांगाच राव. हांगा पूण कोण आसा ह्या घरांत. तूं कितें म्हणटा मीरा?

' भाव भावागेर रावचोना जाल्यार कोणागेर रावतलो? हांगाच रावात तुमी होनीबाय.'

'कसो रावतलों हांव धाकलू तुगेर? आमची वांटणी जाल्या. म्हजें हांवें वगडायलें. तुजेर सगलो भार घालून कसो जगतलों हांव. म्हाका पटना तें.'

'आनी तुका दुसरो मार्ग कितें आसा भाऊ? व्हडल्या घरांत रावतलो? रावलोय जाल्यार खातलो कितें? बापोल भावालें खावचे परस भावालें खाल्लें बरें न्हय?'

'वृद्धाश्रमांत वचून रावतां.'

'थंयीय जाल्यार फुकट रावूंक मेळना. पयशे दिवचे पडटात.'

'गरीब निराधार लोकांक सूट आसता तांची.'

'तूं निराधार म्हूण रावतलो काय गरीब म्हूण रावतलो? आमी दोगांय आसासर तूं निराधारूय न्हय आनी गरीबय न्हय. तूं आमगेर रावलो म्हूण म्हाका रीण जावचें ना. एक सांगतां भाऊ, आमी गोंयकार अजून पडमूर जावंक नात आनी गोंयची कुटूंब वेवस्थाय कोसळून पडूंक ना.'

'तें कांय म्हाका समजना होनीबाय. पूण एक सांगतां, तुमी जर वृद्धाश्रमांत गेलीं तर आमकां वायट दिसतलें आं.' मीरान जावेक सांगून पळयलें. होनीबायनूय घोवाक समजायलो. जावाजावांतले संबंद बरे आशिल्ले. निमाणें तांणी म्हगेर रावपाचें थारायलें. तेन्नाच्यान तीं अखेरमेरेन म्हगेरच उरलीं. मीरान आनी हांवें कांय उणें पडूंक दिलें ना तांकां. पूण परधार्जिणेंच जिणें जगलो तो. आपल्या हक्काच्या घरांत रावप कशें आनी भावागेर रावप कशें!"

"पयसो आटको सगळो चल्याक खावयलो? मातलेगीत सुगाव लागूंक दिलोना ताणें? कसलो भुरगो रे पाडा गट्टाणाचो सो. ताका वचपाक दिवंक जायनाशिल्लो."

"बापायक पुताचो दुभाव केन्ना येता? सपनांत तरी चिंतूंक जाता पुतालें असलें कर्म? बापायन पुताचेर केस घाली. तो अमेरिकेक हो हांगा. केस कायद्याच्या चक्रांत सापडली आनी सुभाषाक कायद्याच्या दोरांनी बांदून गोंयां हाडचेआदींच भाऊ गेलो आनी स म्हयन्यांभितर वयनी गेली. फुडें कोण चलयतलो केस? भाऊलें येरांस पुतान खालें. आमच्यांनी कितें करूं येता? आमकां

ण कित्याक जाय? आमगेलें घर भरून दार ओतता. खावपाक
ोण ना. ही केन्ना म्हाका फटोवन वचत कळना आनी म्हजीय
राय जाल्या. भविश्य नाच. आनी उरलां जाल्यारूय तें बिण्ण
ाळखांत."

"आतां तूं फुडलो हुस्को करून तकलेक त्रास दिवं नाका."

"बाबल्या, मातसो भाटकान्नीक पळोवन यो. तिका हांवें
न्ना त्रास दिले ना रे. पूण भुरग्यांक लागून खूब लागीं आयली
ी. सर्वेशाचें लग्न जालेउपरांत तिज्या तोंडावयलें तेज जें बाविल्लें
परत केन्ना फुल्लेंच ना. भाऊल्या सुभाषाभशेन म्हजे भुरगे
ागले नात. पूण भुरगे आपलेपसून पयस रावप खंयचे आवयक
ानवतलें?

सर्वेश अमेरिकेंत गोरे मॅडमीकडेन लग्न जाला अशी
ागेली चीट आयली. खोस जाली ना रे आमकां. वयल्यान खंतूच
ाली. खंयच्या आवय बापायक खोस जातली! चलो बापायक
रयता आपूण लग्न जालों म्हूण तेन्नाच म्हाका जग कितलें फुडें
ावलां हाचो अदमास आयलो. गोरे चलयेकडेन लग्न जाला
ुणटकच तुजे भाटकान्नीचो तर आवरोच उडलो. कित्याक उडचोना?
ातींतले आनी योग्य अशे चलयेकडेन लेगीत भायलेभायर लग्न
ालो जाल्यार आवय बापायक वायट दिसतलेंच. येवरोपियनांनी
ाडेचारशीं वर्सां गोंयांचेर राज्य केलें तरी आजून मेरेन तांच्या
वलार पावल दवरून वचसारकें गोंय तितलें सुदारूंक ना न्हय?"

"आवरो उडपाचोच भाटकान्नीचो! आतांच असली खबर
ायकली जाल्यार शॉक बसलेबगर रावना. तेन्ना कितें आवतिकाय
ाल्ली जातली तिजी? चितुंकूच जायना. पूण मजा तुमची आं.
न चार दीस म्हजेपसून लिपोवन म्हूण दवरलें. आयिल्ले दिसा
ागांयचीं तोंडा बाविल्लीं. कितेंय विचारलें जाल्यार धड जाप
वप ना, उलोवप ना. म्हाका बाबड्याक कांयच खबर नाशिल्लें.

म्हाका दिसलें, म्हजेंच कितें चुकलें काय? हांव मागीर आयलोंच ना दोन चार दीस."

"घरांत लग्न म्हणल्यार एक थाट आसतालो तेन्ना. तातूंत आनी पयल्या चल्याचें. चल्याक सोयरिको येवप, नक्षत्राक पडटा काय ना तें पळोवप, प्रसाद घेवप, व्हंकल पळोवप, पसंत करप, शेजरा पाजरा दूदफेणे वांटून चार चौगांक सांगप, एक वेगळोच अणभव रे तो. वेगळेच संस्कार. आतांच्या भुरग्यांक कितें ताजें?"

"पूण हांवें कितें केल्लें गा तुमचें? म्हजेर कित्याक रागार जाल्लीं तुमी? घरांत आयलो जाल्यार कोणूच धड उलयनाशिल्लो. सगल्यांचीं सुतकी तोंडां."

"ना रे. त्या दिसांनी तूं आशिल्लो खरो. येतालोय बी हांगा. गांव सोडून पुतागेर रावपाक वचतपसून तुजे आनी म्हजेभितर अंतर वाडत गेल्लें. कितें आसता? जोमेरेन लागीं आसता तोमेरेन आपुलकी वाडत उरता. जेन्ना आमी पयसावतात तेन्ना तीय उणी जाता. त्या दिसांनी म्हजें चित्त थाऱ्यार नाशिल्लें. मनशाक संताप येता न्हय तेन्ना कोणचोय राग कोणाचेरय काडप जाता. कितें सांगतले आमी कोणाक? आमचो चलो आमकां विचारनासतना आपुणूच लग्न जालो म्हूण. तोय किरिस्तांवाकडेन लग्न जालो म्हूण सांगतले? मीरान जर तें इतलें मनाक लावन घेवनाशिल्लें जाल्यार हांव तुका सगळ्यांआदीं सांगतलों आशिल्लों."

"व्हडलो बाबा लग्न जाला म्हूण कळटकच म्हाकाय खोस जाली. कोणाकडेन तें कळटकच मात मन विरूस जालें. मनांत आयलें, तुका हें फावनाशिल्लें. पूण तुजेकडेन ह्यासंबंदांत उलोवपाचो धीर मात जालो ना म्हाका."

"पचयलें रे! तेंय विरख्ख पचयलें आमी. हांवें पचयलें तें सोड. पूण तुजे भाटकान्नीन पचयलें तें व्हडलें. नितीन असलें

कितें करना जाल्यार पुरो म्हूण ती दीस रात देवाकडेन मागताली."

"लग्न करून्च धाडपाचो तुमी व्हडल्या बाबाक."

"कोणाक खबर रे असलें कितें जातलें म्हूण! आवय बापायचो एक भावार्थ आसता. आपलो भुरगो आपले आज्ञेभायर वचचो ना म्हूण. आवय बापायक सांगपाचें, विचारपाचें म्हूण एक कर्तव्य आसता मरे?"

"कितें विचारप भाटकारा, मोग करूं काय म्हूण?"

"तूं एक! मोगांत पडटा तो विचारून पडटा रे? पूण लग्न जाता म्हूण सांगपाचें तरी आसता? अवचीत उठ्ठा आनी लग्न जालो म्हूण सांगता? मन थाऱ्यार उरना रे."

"पूण एक आसता भाटकारा. आमी लोकांलीं असलीं प्रकरणां पळयतात तेन्ना आमकां व्हडलें कांय दिसना. तिरायताचे नदरेन पळयतात आमी तीं. पूण आपल्याचेर येतकच ताजी खरसाण आमकां कळटा. भोगता ताका कळटा न्ही. ताणें तुमकां सांगिल्लें जाल्यार तुमी मान्यताय दितले आशिल्ले? केन्नाच ना!"

"ना रे! तेंय खरें तुजें. थोडी चर्चा जाली जाल्यार कितेंय उपाय काडूं जातालो न्हय."

"उपाय आनी कसलो? ताजेर उपाय नाशिल्लोच. ह्या भुरग्यांक तूं वळखना भाटकारा. एका वेळार आवय-बापायक सोडीत, घरदार सोडीत, पूण मोग तोडचेना. उपाय आनी कसलो काडटलो आशिल्लो तूं?"

"उपाय आशिल्लो. तिका आपल्या धर्मांत काडपाचो. मीराक तितलेंच बरें दिसतलें आसलें. कांय गजाली मनाक पटल्यो नात जाल्यारलेगीत दुसऱ्याक बरें दिसचें म्हूण करच्यो पडटात. घरांतलें वातावरण निवळ दवरपाचोय उपाय आसता तो. सर्वेशाक पट्टा

खंय तें? तो आयकुपाचो नाशिल्लो. लग्नाउपरांतलेगीत ताका आवयन सांगिल्लें. ताची जाप एकूच, त्या धर्मांत आसली कितें आनी ह्या धर्मांत आसली कितें. निमाणी ती तीच उरतली. ही जावची ना. धर्मांत कितें आसा? ताज्या तत्वांच्या आड वच म्हूण सांगनाशिल्लों ताका हांव पूण घरांतलें वातावरण निवळायतलो जाल्यार खीणभर ताणें आपलीं तत्वां जर कडाशेक लायिल्लीं जाल्यार मानतलों आशिल्लों हांव. तातूंतच शाणेपण आसता. आवयक दुखोवन कसलीं तत्वां सांबाळ्ळीं ताणें?"

"बरीं बाबा ह्या भुरग्यांचीं मतां. तोच किरिस्तांव धर्मांत गेलोना मूं? ते सामके कडक आसतात."

"हांगचे रे ते. थंयचे न्ही. थंय कोणाक कोणाचें पडिल्लेंच ना. लग्न जालो म्हूण चीट आयली. पूण आमी कोणाक सांगलें ना. तुका बरेंच उसरां सांगलां. तूं रागारलेगीत जालो. एक दीस तो अचकीत बायलेक घेवन आयलो. कुटूंब व्हडलें न्ही रे? चर्चेक आनी थोमण्याक वोतो आयलो. कोणा कोणाक म्हूण तोंड दितलो!"

"लग्न जालो, बरें आसा. रावचो आशिल्लो थंयच. घरा आनी कित्याक आयलो तोंड घेवन? लज नाशिल्लो सो."

"लग्न जाला म्हूण ताजी चीट आयली आनी हांवें थारायलें, वेगळें रावपाकूच जाय. सुनबाय अमेरिकेची, भुरगीं जातलीं, फॉरेनासून येतलीं. तांकां पोरण्या घरांत रावप जमचेंना, तीं खाकुडटलीं म्हूण नवें घर बांदलें. घर बांदतना चड करून व्हडले सुनेचो विचार केलो. ती परकी देशांतली. तिका जमनीर पंगतींत बसून जेवप जमचेंना, जमनीर न्हिदप जमचेंना आनी उगतें न्हाणीघर तर तिका निखालूस पसंत पडचेंना म्हूण मोठे उमेदीन नवें घर बांदलें हांवें.. आनी तें परंपरेप्रमाण गंवड्यांकडेन सोपयलें ना. अर्किटेक्टाकडल्यान बरो प्लांत काडून घेतलो. गोरे सुनेक कशेंच दिसपाक जायना आपूण खंयच्या अन्नाडी, गांवढळ लोकां मदीं

पावली म्हूण. सुनेखातीर म्हूण सगळ्या तरांच्यो सुविधा आशिल्लो बॅडरूम तयार केलो. शावर, गिजर बसयलो. चकचकीत बाथरूम, नवे पद्धतीन तिजुले बसयले. सगळें आधुनीक केल्लें पूण गोंयकारांलें बल्कांव करपाक मात विसरलों ना आं हांव. बल्कांव गोंयकारांची संस्कृती जावन पडल्या. ते संडासाक म्हत्व दिनात. तेखातीर दोंगर आसात, न्हंयो आसात. ते घर बांदतना संडास बांदचेनात पूण बल्कांव बांदपाक विसरचेनात. बल्कांवार बसून खबरी मारपाक मजा येता रे. गोंयकारांलें खाशेलेंपण तें. सुनेखातीर संडासलेगीत आधुनीक पद्धतीन केलो. संडास करतना आर्किटॅक्टान सांगलें अमेरिकेचे लोक संडासाक उदक वापरनात. तांकां टिशू पेपर लागता."

"टिशू पेपर म्हणल्यार कितें, तो कित्याक वापरतात?"

"आरे, कितें सांगूं तुका? हें म्हाका समजावन दिवपाक आर्किटॅक्टाक पांच मिनटां तरी लागलीं. आतांच्या काळांत टिशू पेपराचो वापर खूबकडेन करतात. तेन्ना आमकां गोंयकारांक सामकें नवें तें. हांवें तांकां फावोसारखें सगळें केलें पूण त्या टिशू पेपराची वेवस्था मात कशीच केली ना. घसघशीत उदक वापरपा जाग्यार कागदान म्हूण पुसप रे?"

आतां मात बाबल्याच्या ध्यानांत आयलें, आनी घाण आयिल्लेभशेन ताणें शी ऽ ऽ ऽ म्हूण नाकाक घट्ट धरलें. त्या तंग वातावरणांतलेगीत दोगांकूय हांसूंक आयलेबगर रावलेंना.

"सांगपाचें म्हणल्यार हांवें म्हजी जिवीतभराची जोड आनी ताका जोडून थोडें रीण काडून आधुनीक पद्धतीचो बंगलो बांदलो. हांव सादो भावार्थी रे. पूत आनी सून ह्या बंगल्यांत कशींच रावचींनात हें हांवें केन्नाच चिंतलें ना. अमेरिकेचो चकचक, झगमग सोडून तीं हांगा रावपाक कशीं येतलीं? पूण एक आशा आशिल्ली. वर्साक एक फावट तरी तीं हांगा येवन रावतलीं."

बाबलो मदींच उठून मीराबायसरीं गेलो. ती निपचीत पडून आशिल्ली. हड्डें सकयल वयर जाता म्हूण समजुपाचें तिज्यांत आजून हापाप आसा म्हूण. दोळे उगते आशिल्ले पूण हालचाल मातूय करिनाशिल्ले. कितलो वेळ बाबलो तिका पळयत रावलो, निमाणें ताणें विचारलें,

"भाटकारा, तिका पोटाक कितेंय घालूंक नाका आशिल्लें?"

"आतां आनी पोटाक कितें? इतले दीस सोर लावन दवरिल्लो. शिरांतल्यान पातळ वतालें तेंच तिका पोटाक आशिल्लें. पातळूच आलिमेंत, दाट वा सुकें खाण तर तिका घालीच नाशिल्ले. तेंय वचप बंद जालां. दोतोरान सोरूच काडून उडयलो.आतां निमाणें तिज्या तोंडांत गंगाजळ."

"कशीं येतात तुज्या तोंडांतल्यान अशीं उतरां भाटकारा? कांयच दिसना अशें उलोवपाक?"

"ती वतली हें खरें न्हय? तातूंत दिसपाचें आनी कितें? वायट बरें आमी मानून घेवपाक जाय. आपणावंक जाय. तें आपणायनात आनी मनाक त्रास करून घेतात. बावन्न वर्सां तिज्या सांगातान काडलीं हांवें. त्याच यादींच्या म्हालवजाचेर आतां फुडलें जिवीत सारपाचें. यादीच मनशाक उर्बा दितात, नशा हाडटात. केद्या दबाज्यान तिका घरांत हाडिल्ली आमी! कितलो लोक! हुंबऱ्यावयलें माप पांयाच्या आंगठ्यान ओतयता आसतना कितल्यो ताळयो! कितली खोस आनी कितली उमेद! एक नवी सून घरांत येवप म्हणल्यार कितलीं नातीं आमी जोडटात? नवी व्हंकल नवीं सपनां घेवन येताच पूण न्हवऱ्याकुटुंबांतल्या दर मनशाचें एक वेगळें सपन आसता. आपणें केल्ल्या संवसाराचें सार्थक जालें म्हूण, कश्टांचें फळ मेळ्ळें म्हूण. आपली वंशावळ फुडें चलोवपी घरची लक्ष्मी घरांत येतली म्हूण मांय-मांव तृप्ततायेचो स्वास घेतात. नण्डो लग्नांत करो धरून मिरोवपाक मेळटलें म्हूण खुश

आसतात. देर भावजेच्या रुपान आपल्याक एक इश्टीण मेळटली, आवय फाटल्यान आपल्या मनांतलीं गुपितांनी वांटेकार करून घेवपाक आनी फकाणां मारपाक, आनी आपल्या बरे वायट करतुंपांचेर पांगरूण घालपाक मायेची मनीस घरांत येतली म्हूण खोशी आसतात. सांगपाचें म्हणल्यार लग्नासारको एक सुवाळो घरांत जाता म्हूण घरांतलीं ल्हान-व्हड आनंदांत बोवाळटात."

"लग्नाचें सोपण चडटना मनशाक फाटलो फुडलो विचार करचो पडटा. मात चुकलो, आंगठ्याचें नाखुटूच निखळटलें. खरें म्हण्ल्यार न्हवरो आनी व्हंकल हाचेभितरलो दोगांचोच प्रश्न न्हय हो."

"तूं जाणा? म्हजी सोयरीक जाल्ली तेन्ना अशेतरेचें वातावरण अख्ख्या घरांत पातळ्ळेलें. आदल्यो दोन राती म्हाका न्हीद नाशिल्ली आनी दिसाचें कामांत लक्ष लागनाशिल्लें. आवलांत शिकयतासतना लेगीत फोटोंतलें तें चली दोळयांमुखार येतालें. चलयेक पळोवंक वचचे पयलीं हांवें आईक सांगिल्लें;"

'नक्षत्राक बऱ्या गुणांनी पडलें म्हूण हांव चलयेक हयकार दितलोंच अशें ना.'

'म्हणल्यार कितें रे धाकलू? नक्षत्राक पडलां म्हूण चली पळोवपाक वतात न्ही? चली दिसपाक बरी आसा म्हूण बाबाल्या इश्टान सांगलां. आनी कितें जाय तुका?'

'आई, इश्टाली आनी म्हजी नदर एकूच आसतली अशें दिसता तुका?'

'चार चौगांनी सभावान बरी म्हूण सांगली, दिसपाक बरी म्हूण सांगली, पुरो! आनी कितें जाय तुका?'

'पळय आई! म्हजो सभाव खबर आसा तुका.'

‘हय! खबर आसा. तुजेवरी चिकित्सक आमच्या घरांत दुसरो भुरगो ना!’

‘हांव तुज्या म्हऱ्यांत बसतां. तुका हांव सुचयतां, तूं मागीर चलयेक चलपाक सांग, गावपाक सांग, वाचपाक सांग, सुयेंत सूत घाल म्हूण सांग. पसंत ना जाल्यार तुज्या कानांत ना म्हूण सांगतां. तूं मागीर बाबाक कितें सांगपाचें तें सांग.’

‘हांव ना रे बाबा! तूंच सांग!’

‘आवयस्! बाबाक हांव सांगूं? ताका आनी सांगपाचें आसा? म्हाका धाडस जावपाचें ना. तूंच सांग न्ही आई. तुजें आयकता बाबा!’

‘पळोवंक वचचे पयलींच थारावचें पडटा आपूण हां म्हणटलों म्हूण. आपली जाप ना आसतली जाल्यार पळोवंक वचचेंच न्हय.’

‘व्वा! हें बरें गेलें मगो तुगेलें! व्हंकलेक पळयलेबगर हय काय ना सांगप कशें थारायतले?’

‘तेखातीर न्हवऱ्याची सगली तयारी आसची पडटा. परिक्षेक बसतलो जाल्यार पंदरा दीस सतत अभ्यास कसो करता तूं. हीय एक परिक्षाच तुज्या जिवितांतली. पास जातलो जाल्यार पूर्व तयारी आसचीच पडटा.’

‘तशें जाल्यार पळय आई! चली कसलीय आसूं, मोनी, थोटी, कुड्डी, पांगळी. पळयनाफुडें हय म्हटणलों आं. एक नदर मारतलों आनी पसंत आसा म्हणटलों. मागीर तूं कसली सून हाडल्या काय म्हूण म्हज्या नांवान शंख फुकूं नाका.

‘हयवय! बरे भशेन. तुका पसंत आसल्यार म्हाका पसंत!’

“इतल्यान आमचो संवाद सोंपलो रे.”

"तूंय म्हूण बरो मरे भाटकारा. खरेली ती काळी, कुड्डी बी आशिल्ली जाल्यार?

"आतां पळय, चली पळोवपाक गेले आनी चली पसंत पडली ना, जाल्यार कितें सांगतलों? चली पसंत ना म्हूण? म्हूण पयलीं चवकशी करपाची आसता. न्हयकार दिवपाचो आसा जाल्यार पयलींच कितें तरी निमित्त सांगप आनी चली पळोवंक वचप ना. हांवेंय म्हज्या इश्टाकडल्यान सगळी चौकशी केल्ली रे बाबल्या. आनी खूब बरी खबर मेळिल्ली. पूण तें आईक सांगपाचें आशिल्लें? पळोवपाक गेल्लेकडेन मातसो गोंदळ जालो रे म्हजो. एक चली थंय बोवाळटालें. तशें मर्यादेंत रावूनच आं. म्हाका दुभाव, तीच व्हंकल आसतली म्हूण. वांगडा जाणटेले गेल्ले. तांच्यो आलायत्यो खबरी सोपच नाशिल्ल्यो. मातशी उत्सुकताय वाडिल्ली म्हजी. म्हूण तर्क वितर्क करपाक तकली रिकामी अशिल्ली. फोटोंतले चलयेभशेनच तें चली दिसतालें. हांव खूश आशिल्लों. चली म्हाका आवडिल्लें. मनांतल्यान खूश. इतल्यांत चलये बापायन म्हणलें;

'हें म्हगेलें धाकलें. सुमन.'

"वयर वयर उडूंक लागिल्लें मन सप्प करून सकयल देंवलें."

"व्हंकल म्हूण तशी भोंवता भाटकारा? ती तकली सकयल घालून, गंभीर जावन च्या घेवन येता. इतलेंय खबर ना तुका?"

"आरे, तीच तर मजा जाली न्हय! च्या हाडली आवयन. च्या सिंगल आशिल्ली रे. म्हाका कितें खबर, फाटल्यान साग्र संगीत च्याचो आक्त आसतलो म्हूण? खूब वेळान आयलें आमगेलें बाय, च्याचे वांगडा खावपाक बी घेवन. तकली बी सकयल कांय घालूं नाशिल्ली आं. लजेवप बी तिका खबरच नाशिल्लें. पूण तिका पळयतनाच कळ्ळें, हिका पळोवपाक हांव आयलां म्हूण.

न्हवरो भुरगो पयलींच भुल्लुसता मरे, आनी ताचीं चिंतनां उडयो मारूंक लागतात. तशेंच म्हजें जालें.”

“मागीर पसंत पडली व्हंकल?”

“म्हणल्यार कितें? पसंत पडली म्हूण तुजी भाटकान्न जाली न्हय ती? चलयेक पळोवंक वचप म्हणल्यार एक वेगळोच अणभव आसता रे. व्हंकलेगेर वचप, व्हंकलकारांनी येयात, बसात म्हणप, दोनूय वटेंतल्या लोकांनी ओगीच हेवटेंतल्यो, तेवटेंतल्यो खबरी करप, पूण न्हवऱ्याचें लक्ष थंय आसप ना, मूळ मुद्याक हात घालिनासतना हे लोक आलायत्यो खबरी कित्याक करतात काय असो प्रस्न ताच्यामुखार येवप, उत्सुकतेवांगडा ताजी चुळबुळूय वाडप, व्हंकल येता काय म्हूण पळोवपाक ह्या दारांत, त्या दारांत नदर घुंवडावप. संस्कृतीच वेगळी रे आमची. अशे तरेचे संस्कार आनीक खंयच्या देशांत मेळप कठीणच. येवरोप, अमेरिकेंत तर नाच ना. तुका सांगता बाबल्या, हिणें म्हाका एकलो उडयला. गांठवल बांदून हिज्या हाताक धरून वाजत गाजत हिका घरांत घेतिल्ली हांवें. फुडें फुडें कुडी दोन आनी जीव एक अशीच अवस्था जाल्ली रे आमची. तिका लागल्यार म्हाका दुखतालें आनी हांव आपटल्यार तिका हायस् जातालें. आनी आज? एकलीच वता ती म्हाका सोडून. पडमूर खंयची!”

धाकलू आज उलयत वतालो. एकार एक यादी काडीत वतालो. ताज्या काळजाक आज उमाळो आयिल्लो. बायल मरणाचे धडेर पावल्या आनी खंयच्याय खिणाक वायट कितेंय घडटलें हें ताका खबर आशिल्लें. पूण तो तें सगळें वा मुखावयलो दुखदिणो वर्तमानकाळ कांय खीण तरी विसरूंक सोदतालो. दोळयांमुखावयलें सत्य कोण नाकारूं शकना पूण तो तशें करपाचो प्रयत्न करतालो. म्हूण तो आपल्याक बाबल्याकडेन खबरी करपांत घुस्पावन दवरतालो. हेरवीं बाबल्याकूय खबर आशिल्लें, आयचे परिस्थितीक

लागून भाटकार आपल्याकडेन मन सोडून उलयता.

"आरे बाबल्या, सतरा वर्सांची आशिल्ली ही म्हज्या घरांत आयिल्ली तेन्ना. सप्तपदीच्या वेळार सात फेऱ्यानी सात वचनां दिल्लीं मरे हिणें म्हाका. विसरली, सामकी विसरली."

"भाटकारा, तूं मातसो सुसेग घे पळोवया. चड उलोवं नाका. फाल्यां काम खूब आसा तुका."

"हय, अग्नी दिवपाक जाय न्हय. कपळाक तिळो आसतनाच आपूण वचूं अशें सदांच म्हणटाली. हांवें म्हणचें, तशें केन्नाच मागूं नाका आं, म्हज्यान तें पळोवंक जावंचें ना ."

"पूण आमच्या धर्मांत सवायशीण आसतनाच मरण येवंचें अशेंच सगळ्यो बायलो मागतात न्हय?"

"हय रे! तें खरें. आनी ताका कितेंय कारणूय आसूं येता. पूण म्हाका तें पटना. बायल वचून दादलो फाटीं उरलो न्हय, जाल्यार जितो आसतनाच ताका खिणा खिणाक मरण येतलें. उगडासांनी तो भितरले भितर घुस्मट्टलो. पूण घोव बायलेआदीं गेलो जायत, जाल्यार चार दीस दुख्ख जातलें तिका. मागीर भुरग्यांलो संवसार, तांच्या संवसारांत आदार, नातरांक खेळवप, हातूंतच ती आपणाक विसरून वता. भुरगेय नातरांक आज्जेम्हऱ्यांत सोडून बिंदास फिरूंक वतात. इतलें करतां करतां आपशींच तिगेली पिराय केन्ना ल्हवू ल्हवू निसरून वता ती तिका समजलेगीत ना."

"पूण भाटकान्नीलीं खंय नातरां, खंय भुरगे......"

"तिगेलें जगप वेगळें रे. ती पिराय जायनासतना लागीं आयली. तिगेलें जगप धादोशी नाशिल्लें. ती परिपूर्ण जीण जगली अशें म्हणूं नजो. भुरगे आसून नाशिल्लेभशेन, नातरां आसून नाशिल्लेभशेन. एके वटेन ती वता, म्हजेपयलीं वता तें बरेंच जालें. सगळें आसून अतृप्त जीण जगली ती. घडये घडये मरण

भोगलां रे तिणें. पळय, पळय, कशें सुकें शिरपूट शें जालां पळय. भूर करून जळून वतलें. कशी दिसताली रे ती हांगा हाडल्या तेन्ना! रसरशीत तुळशी रोप्याभशेन. आनी आज जाल्या पळय सुकिल्लें तुळशीचें काश्टं शें."

ताका पळोवन बाबल्याक भिरांत दिसपाक लागली. भाटकार भ्रमिश्ट बी जावन कितेंय उलयना मूं! ताका दुभाव आयलो. ताका दिसलें, अश्या वगतार मनशाक सांबाळूंक जाय. बायलेची आवतिकाय आनी भुरग्यांचें वागप, हाचो ताजे तकलेर परिणाम जावपाची भिरांत बाबल्याच्या मनाक आफडून गेली. तेखातीर मायेचीं मनशां म्हऱ्यांत आसप गरजेचें. तीं सगळीं सात समुद्रांच्या पलतडी. सोयरीं कितलो तेप पावतलीं? भाटकान्न बरी ना म्हूण सुर्वेक खबरेक येवन गेलीं. आतां येतलीं निमण्या संस्काराच्या वेळार. भाटकाराक सांवारपाचो यत्न आपल्याकूच करूंक जाय हें चिंतून ताणें भाटकाराक कितलेंय सांगून पळयलें, मातसो सुसेग घे, मातसो न्हीद, आपूण जागो रावतां, गरज पडल्यार तुका उठयतां. पूण तो आयकुपाक तयार नासलो. उलयत वतालो, उलयत वतालो. धाकलूच्या मनावयलें चेपण उणें करपाखातीर आतां ताणें वेगळयोच खबरी करपाचें थारायलें. विशय मातसो हलको करपाच्या हेतून धाकलूक ताणें विचारलें,

"भाटकारा, खरेलीच कितली सुंदर दिसताली भाटकान्न!"

"सुंदर म्हणल्यार कितें, सामकी अप्सरा."

"लग्न जावन बायलेक घेवन दुसऱ्या गांवांत बी वतात न्हय तसो बी गेलोना?"

"हनिमुनाक वचप म्हणटात ताका हनिमुनाक. आमच्या वेळार हनिमून बी खंयचो रे, लग्न जावन वीस पंचवीस दीस बायलेचें तोंडलेगीत पळोवंक मेळळें ना."

“कितें वीस पंचवीस दीस? अशें कशें तर, लिपोवन दवरिल्ली तिका?”

“तशें न्ही रे, लग्न जातकच ‘फळसोबन’ जावचेपयलीं घोव-बायलेन एकठांय येवपाक जायना. तुमी पळय तें ‘फळीसंबन’ म्हणनात तें. आतां तें लग्ना दिसाच करून उडयतात. आदल्या वेळार लग्ना उपरांत व्हंकलेक म्हयन्याची पाळी येतकच पांचव्या वा सव्या दिसा करताले. म्हज्या वेळार म्हाका लग्नाउपरांत वीस दीस वाट पळोवची पडिल्ली.”

“आरे म्हज्या बाबा! हें कशें जालें सांग, समरादनेक पंक्तींत जेवपाक बसतात तेन्ना पकवानांचें ताट मुखार वाडून दवरलां पूण जेवपाक मेळना. कित्याक? तर म्हादेव घालेबगर जेवपाक मेळना.”

“हयवय! हें सारकें म्हादेव घालेबगर जेवंक मेळना. पूण मजा येताली रे. तुजी व्हंकल, घरांत वावुरता, ती तुज्या म्हऱ्यांतल्यान पासार जाता. पूण तुका उलोवंक मेळना. ती येतना वतना पांयजणांचो मंद मंद आवाज येता न्हय, तोच तुका पुरो जाता, तोच आपलोसो दिसता आनी तोच फुडलो दीस सारूंक उमेद दिता. घर गजबजलेलें आसता. येतना वतना खंयींय गर्दींत मातसो तिजो हात लागलो जाल्यार आंगांत असो शिरशिरो भरता म्हूण सांगूं! आंगार उबो कांटो येता. तो स्पर्श आनीक जाय जाय सो दिसता. मागीर ती येता शी पळोवन तिका मुद्दाम आफुडपाचे नदरेन आपटवप. तिका तें समजता. दुसरे खेपे ती तुका टाळटा. अशी ऽ ऽ ऽ सालांतल्यान वता आसतना ती तुका तिरपे नदरेन पळयता, तूं तिका तेच नदरेन पळयता. तुमी एकामेकांक चोरून पळयतात खरीं पूण कोणाची तरी नदर तुमचेर आसताच. तो तुमची चोरी धरिल्ल्याचो आव हाडून ल्हवूच खांकून तुमकां हटकिता. अशा वेळार तुका लज दिसुंकूच जाय. ती सालांतल्यान फुडल्या

दारा वता हाची तिणें माळिल्ल्या वासाळ फुलांच्या मंद परमळावयल्यान तुका सुलूस लागता. तिजेकडल्यान येता ती हवाच तुका सांगता, ती येता म्हूण. सालांतल्यान येतना वतना ती तुका पळयताच पूण दाखोवन दिना. पूण तूं थंय बशिल्लो ना जाल्यार मात ती अस्वस्थ जाता. खंयच्यान तरी तूं तिका नियाळटा. तुजेर नदर पडली जाल्यार ती आपल्या तोंडार कांयच जावंक ना अशें दाखयता. पूण तूं मात समजता ती ताकाक येवन गाडगो लिपयता म्हूण. खरें सांगूं, आमकां कळनासतना आमचेभितर आपालिपाचो खेळ सुरू जातालो रे!"

'ह्यो खबरी आतां, ह्या वेळार करपाच्यो? भाटकान्न कसले परिस्थितींत आसा!' असो प्रश्न बाबल्याच्या मनांत उबो रावलो. पूण ताणें चिंतलें, असल्यो खबरी करून ताजें मन हलकें जावचें म्हूण आपणेंच तर विशय बदललो. उलोंवं दी कितलो उलयता तें. तितलेंच मन ल्हव जातलें. ताणें फुडें म्हणलें;

"फळीसंबन जातकच मागीर तरी मेकळेसाण मेळ्ळी तुमकां?"

"हय. कायदेशीर लायसन्स मेळ्ळें न्हय. मागीर कोणाच्यान विचारपाक जाता आमकां? तिज्यो यादी येतकच मरे वेगळयाच विश्वांत वता हांव. म्हाका तिणें खूब सूख दिलां रे. आपलें मन मारून म्हाका बरें दिसता तेंच केलां. हें तुका सगळयाच बायलांनी मेळचें ना. आयच्या काळांत तर कशेंच मेळचें ना. आज तिज्यो खबरी करून तिका श्रद्धांजली दिल्लेभशेन जातलें."

" सारकें तुजें! तिजेखातीर आमी हांगा रात जागयतात. तिज्यो खबरी करचे नात जाल्यार कसल्यो करतले. जगावयल्यो?"

"आज तिजी एक एक याद दोळयांमुखावयल्यान सर्र सर्र करून सरकता रे..... चल मातशी नदर मारून यो तिजेर."

“आसा तश्शी आसा ती भाटकारा. कांयच हालचाल ना.” ताणें तिका पळोवन येवन सांगलें.

“बस. तर कितें सांगतालों हांव? लग्नाउपरांत मीराक एकलेपण दिसचें न्हय म्हूण आई बाबान खूब यत्न केले! जाण्टेलीं समजतालीं रे. म्हजे आईक कितें दिसतालें जाणा, सुनेचें कुळार पणजे. शारांतलें चली ह्या गांवांत रमचें ना. तिका बेजार येवपाक जायना म्हूण ती तरातरांचे उपाय काडटाली. तिणें कितें करप जाणा, सांजेवेळचीं आमकां भोंवपाक धाडप. आनी आमी जुवारीचे देगेवयल्यान ल्हवू ल्हवू चलत रावप. त्याच वेळार न्हंयचे पलतडचे देगेर धक्याक पणजेच्यान आयिल्लो वाफोर लागतालो. तो पळोवप, वाफोरांतल्यान लोक देंवतात तें पळोवप, आलतडच्या लोकांक हाडपाक तारयो तार घेंवन वतालो, त्या लोकांक हाडून आलतडी पावयतालो. आमी तो देखाव एका तळपार बसून पळोवप. हांव कितलेशेच खेपे वाफोरान पणज़े गेलां आनी पणजेच्यान आयलां, तारीन पलतडी गेलां, आलतडी आयलां. हांव तेवीस वर्सां आंकवारपण जगलां ताजेपरस हें जगप जिणेक एक वेगळो अर्थ दितालें. मीराकूय अशेंच दिसतालें आसुंये पूण ती उलयनाशिल्ली. हांव मात दिसतालें तें उलयतालों. हो सैम म्हाका नवो न्हय, ह्या सैमाच्या आंगणांत म्हजो जल्म, हांगां हांव ल्हानाचो व्हड जालां”.

“हय! खबर आसा, एक खेप दोंगुल्लेवयलें मरड रोवपाक गेल्लो आसतना मड्डाचे कांय उंचायेचर खडपाळ जमीन पडंग आशिल्ली. मदीं मदीं कांय काजी झाडां आशिल्लीं. ते जमनीचो विकास करतना खंयच्या झाडांमदीं कसलें झाड बरें दिसतलें, मुखेल पिकावांगडा आलायतें पीक कसलें बरें येतलें हाचेर वरांच्या वरां विचार करतालो तूं भाटकारा”.

“ह्या सैमान म्हाका पिशें लायलां. पूण मीरावांगडा हें पळोवपांत एक वेगळोच आनंद मेळटालो. न्हंयचे देगेर भोंवतना

मीरान सदांच म्हणप, पणजे आसतना आपलो सभाव हुतहुतो आनी चंचल आशिल्लो. घडये अरबी समुद्रान, मिरामारच्या दर्यान म्हाका तशें घडयल्लें आसुंये. पूण हांगा येवन जुवारेची वळख जाली आनी तिणें म्हाका, भितर कितलेंय खतखतलें तरी वयर शांत आनी गंभीर कशें रावचें तें अणभवान शिकयलें. सैमाक कशें उलयतें करचें तें मीराकडल्यान शिकचें. आमी दोगांय हे जुवारीचे दोनूय देगेवयल्या सैमांत एकरूप जावन भान विसरून वतालीं रे."

"लग्न जातकच एका वेगळयाच जगांत वावुरतात शे दिसता न्हय!"

"हय रे! सर्गसूख म्हणटात तें तेंच आसूंक जाय. आजलेगीत मीराच्या पांयजणांचो आवाज आनी जुवारेचीं थप् थप् करून देगेक आफुडपी ल्हारां म्हज्या कानांत घुमतात. त्या ल्हारांचो आनी मीराच्या पांयजणांचो कितें तरी संवंद आसूंकच जाय अशें आजून लेगीत दिसता. मीरा आनी जुवारी हीं दोगांय एकरुप जाल्यांत आनी म्हज्या काळजाच्या खंयच्या तरी कोनशाक घर बांदून बसल्यांत. कशींच वचनात. तीं आतां म्हजेवांगडाच ना जावपाचीं."

"भाटकान्नीच्या पांयजणाचो आवाज कानार पडलो कीं समजुपाचें भाटकान्न आयली. पांयजणांचो आवाज चड येनाशिल्लो. हय न्हय सो येतालो. पूण तोच कानाक गोड लागतालो. तीं पांयजणां आनी तांचो तो मदूर आवाज म्हणल्यारच भाटकान्न अशेंच दिसतालें." बाबल्याकूय आज भाटकान्नील्यो यादी येताल्यो.

"जेन्ना फकत ल्हारांचो आवाज आयकतां तेन्ना मीराच्या पांयजणांचो आपशींच भास जाता आनी जेन्ना मीराच्या पांयजणांचो आवाज आयकतां तेन्ना जुवारी न्हंयचीं ल्हारां तांकां ताल धरतात शें दिसता."

"अशी गोड गोड आनी म्होवाळ भास भाटकाराच्या तोंडांतल्यान पयलेच फावट आयकतां हांव. भाटकार कशे आसूंक जाय, एका उल्यान मुंडकारान कच्च करून आंग काडपाक जाय. भाटकारान तापोवप, धेंगसो घालप अशें आसता. तांणी फकत रांगडी भास उलोवप."

"त्या त्या वेळार ती ती भास उलोवपाची आसता रे बाबल्या. रगताच्या नेटार येता, तूं म्हण्टा ती भास. भाटकारांचे ते दिसूय गेल्यात रे आतां. पूण तुजेकडेन हांवें केन्नाच तसली भास वापरली ना आं. आनी आतां कितें? सूम जळ्ळें आनी पिळूय उरूंक ना. परिस्थिती मनशाक घडयता रे."

धाकलूक तर परिस्थितीन खर धडो शिकयल्लो. तिनूय भुरगीं पयस जातकच आपली जीण ही मोख नाशिल्ली जीण अशेंच ताका दिसूंक लागिल्लें. रेंवटाळ सुवातेर खूब चल्लेउपरांत ओएसीस दिसची तशी तागेल्या जिवितांत मीरा ओएसीस जावन आशिल्ली. पूण तीय आतां ना जावपाचे तयारेंत आसा.

"चड चिंतूं नाका भाटकारा."

"पूण खरें सांगूं, मीरावांगडा जिवीत सारूंक लागलों आनी दिसपाक लागलें, जिवीत म्हणल्यार एक काव्यूच! आमी दोगांनीय तर काव्य म्हुणूनूच पळयलां जिविताकडेन. मीरा लग्न जावन ह्या गांवांत आयली आनी हो गांवूच काव्यमय जालो. खरें म्हणल्यार मीराक पणजी आवडटाली. आनी तें सारखें आसा. जंय जल्म जाला, जंय भुरगेपण गेलां, थंय वा तो गांव मनशाक आवडटाच. आनी पणजी कोणाक आवडची ना? आमी एका दिसाखातीर वतात आनी पणजेच्या मोगांत पडटात. तें ल्हान शें शार, शार म्हणल्यार शार न्हय, गांव म्हणल्यार गांव न्हय. पणजे रावून सरभोंवतणी नदर मारली जाल्यार गांवांत आशिल्ल्याचोच भास जाता. ती मांडवी, पलतडचो तो आग्वाद कोट, ती आल्तीन

दोंगुल्ली, पलतडी बेतीं वेऱ्यां वचपाक फेरीबोट. तशें पळोवंक गेल्यार ओडलायणेंच शार तें. पूण मीरा हांगा आयली आनी ह्या गांवाच्या मोगांतच पडली. हो निवळ नितळ असो गांव. ती म्हणटाली 'हांवें तशीं खेडीं पळयल्यांत. पूण तुमच्या गांवासारको पाचवोचार आनी दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी भरिल्लो गांव पळोवन म्हजी तान भूक न्हिवता. वेगळोच सो आनी शारीकरणाचो वास लागूंनाशिल्लो अनवाळो सो गांव म्हाका भूल घालता.' सुर्वेक संवसाराचें वजें माथ्यार नाशिल्लें. एक दोन म्हयने फकत न्हंयची देग. सुकणीं-शेवणी, झाडां-झोपां हांतुनूच घुस्पून रावली ती. खूब भोंवलीं रे, खूब हेडलीं आमी. गोंयचे गांव आनी हेर भारतांतले गांव हातूंत खूब फरक आसा. गोंयच्या गांवांचेर झाडां-पेडांक लागून पाचव्या रंगाची जी सया मारता ती मनभुलोवणी आसता. गोंयांतूच म्हूण न्हय आं सबंद दर्यादेगेवयली कोंकणपट्टी कांय आडवाद सोडले जाल्यार तुका अशीच दिसतली.

आनी एक सांगूं बाबल्या, आई बाबाचो खूब पालव मेळ्ळो रे आमकां. तीं पुर्विल्ल्या जमान्यांतलीं आसूनलेगीत आधुनीक विचारांचीं आशिल्लीं. आदीं तशीं तीं कडक, परंपरावादी, धर्मीक वृत्तीचीं आशिल्लीं अशें भाऊ आनी भयण सांगताली म्हाका. पूण बदलत्या काळाकडेन आनी सुधारणेकडेन तडजोड केली तांणी. म्हाका ती बऱ्याक पडली. ताचो फायदो म्हाका आनी मीराक जालो. हांव तसो भाग्यवान! हेर भावंडांक कडक शिस्तीचें पोसांव भुरगेपणांतल्यान मेळिल्लें.

तुका याद आसा, तुवें एक दीस आंकूर हाडिल्ले पळय. आई ते शिनूंक बशिल्ली. मदींच ही आयली आनी आईसरीं बसली. आंकूर पळोवन तिणें विचारलें,

'हें कितें आई?'

'हे आंकूर.'

‘आंकूर म्हणल्यार कितें?’

‘आंकूर म्हणल्या....र, आंकूर म्हणल्यार आंकूर.’ आईक बावडेक आंकूर म्हणल्यार कितें सांगचें हेंच कळ्ळें ना. तिणें फुडें म्हणलें, ‘अजून कळ्ळें ना? ही भाजी गे. हाजें तोंडाक करतात. ताका भरशी चणे घालतात. तरीय मीराच्या मुखामळावयलें प्रश्नचिन्ह गेलें ना हें आईक दिसतालें.’

‘धाकलू, सांजेवेळा तुमी न्हयचे देगेर पासयेक वतात न्हय थंय दाखय मीराक आं आंकूर खंय जातात ते. पणजे शारांत तिणें असलें खंय पळयलां! बाजारांत येतात जातले.’

“आनी तुका सांगतां बाबल्या, आंकूर खंय जातात तें मीराक दाखय म्हूण आईन म्हाका सांगलें आनी त्या सांजवेळां म्हाका भोगलां तें! खंयचे काय हांवें आईलें आयकलें, आनी मीराक घेवन न्हयचे देगेर गेलों अशें जालें.”

“अशें जालें कितें?”

“न्हंयचे सामके देगेवयले सुके मातयेर जायनात न्हय आंकूर?”

“ना. ओलसाणीच्या चिखलांत जावप तीं झोपां.”

“आरे, आयक न्हय फुडें कितें जालें तें. हांव बरो न्हंयचे धडेवयले सुके सुवातेर उबो रावलों, आंकरांच्या झोपांक्डेन बोट दाखोवन तिका सांगलें,

‘ही तीं पळय, बारीक बारीक झोपां दिसतात न्हय, तीं आंकराचीं.’

‘हीं झोपां पाचवीं पाचवीं दिसतात. तांचीं पानां लांबट आनी मातशीं रुंद शीं आसात. आनी आई शिनताली त्या आंकरांची पानां इल्लीशीं, तन्नीं, तामसार, आनी मदूर शीं आशिल्लीं. आनी

आंकूरय बी सामके तन्ने आशिल्ले.'

'हय गे' हांवें म्हणलें, 'झोपाच्या मदेकाक जो कोम फुट्टा तो तन्नो आसता. तोच काडपाक जाय.' ही लागली चलपाक पिशांभशेन. हांवें आड्डून सांगलें;

'आगे, आगे, फाटीं सर. पांय चिखलांत मुंगरतलो.'

'म्हाका आंकूर पळोवपाक जाय,' मीरान सांगलें.

'हांव हाडून दितां.' हांवें म्हणलें.

'म्हज्या हातांनी काडपाक जाय.'

'चिखलांत चलूंक येवचें ना तुका.'

'येतलें, हांव सांबाळून चलतां. हांवें चिखलांत वचून कालवां काडल्यांत.'

'तो चिखोल आनी हो चिखोल एक न्हय.. तो तळपांतलो चिखोल. हातूंत तळपां ना. हाचेर सुळसुळटली तूं.

'सुळसुळूं. पांय घट्ट रोमतां.'

'आगे, आमच्यो बायलो आंकूर काडपाक वचनात.'

'त्यो वच्चूं वा ना वचूं. तुमी म्हाका वचूंक दितले काय ना?'

'आगे, लोक कितें म्हणटले?'

'तुमकां हांवें प्रश्न विचारला, ताजी जाप दियात.'

'कसलो प्रश्न? हांवें आयकलो ना.'

'तुमी म्हाका वचूंक दितले काय ना?'

'आई बाबा कितें म्हणटलीं? घरचीं कितें म्हणटलीं? घरच्यांक आवडचें ना तें.'

---

'तें म्हाका नाका. तांकां समजावपाचें काम तुमचें. तुमी सांगात, तुमी म्हाका वचूंक दितले काय ना?'

'उपाय ना गे वाये तुजेकडेन! चल हांव येतां तुजेवांगडा.'

'तुमी येवं नाकात. म्हाका एकल्याकूच काम करपाक जाय तें. हांव एकलेंच वतां.'

"आनी ती वचपाक लागली कितें करतलों, ल्हवूच धांवलों तिजेफाटल्यान."

'आयले तुमी. तुमी म्हुणून खुबूच हट्टी.'

'कितें?ऽ ऽ ऽ ऽ ऽ'

"चिखोल वाटयत वाटयत हांव तिका सुक्या जाग्यावयल्यान व्हरपाक लागलों. झोपांलागीं पावतां पावतां म्हाका सूऽ ऽ ऽ ऽ जाता म्हणसर खंयतरी तिका धरधरीत चिखलाची जमीन मेळ्ळीच. पांय मुंगरलो आनी पांय वयर काडपाच्या बोवाळांत जोतें उरलें चिखलांत आनी साडयेचे सकले देगेक सगळो चिखोल. कशे वशे आंकूर काडले तिणें. तिज्या तोंडावयली खोस पळयत रावन शी दिसताली त्या दिसा. आतां म्हणलें या घरा. ल्हवू ल्हवू चिखलाचे निसरतेवयल्यान आमी भायर येवपाक लागलीं आनी अचकीत सुर्र ऽ ऽ ढो असो आवाज आयलो. फाट वळून पळयत जाल्यार हिणें जमनीर वसकण घेतल्या. तिजो तो चिखलान माखिल्लो अवतार पळोवन हांव पळय इतलो हांसलां, इतलो हांसलां.......हांसत सुटलों."

"तिका हात दिवन उबारचें सोडून हांसत रावलो भाटकारा?"

"आरे बाबा, फुडलें आयक, तिका हात दिवपाक फुडें गेलों."

---

"कळ्ळें म्हाका फुडलें. तिका हात दिवपाक मुखार गेलो तूं आनी भाटकान्नीन तुजो हात धरून जोरान ओडलो."

"हय रे, कसलीच भिरांत ना रे तिका. खूशमिजाज, सदां उमेदीचो सो सभाव तिजो."

बाबलोय बी खो खो करून हांसलो. हांसत रावलो. खूब वेळ.

"तो प्रसंग पळयनासतना तुका हांसूंक आयलें मरे, जाल्यार हांवें कितलें हांसपाक फावो आशिल्लें. म्हज्या तर दोळ्यांमुखार घडिल्लें तें. भीत भीत घरांत पावल दवरलें मात, सालांत बशिल्ले आईची नदर म्हजेर गेली. तिणें अजापानूच हणलें,

'खंय पडलीं रे बाबा तुमी?'

'खंय गेल्लीं रे? भाऊन हांसूनच विचारलें.'

'न्हंयचे देगेर आंकूर काडपाक. निसरून पडलीं दोगांय.'

'दोगांय? वांगडाच?'

'पयलीं ती पडली, तिका हात दितालों, हांवूय निसरलों.' हांवें बाबडो जावन म्हणलें.

'निसरलो? काय ओडलो रे?'

'ओडलो? म्हाका आनी कोण ओडटलो?' परत सादेपणान म्हजो प्रश्न.

'हांवें ओडूंक ना आं! हांवें आदाराक हात मागलो, म्हजो भार सांबाळूंक नजो जावन निसरले! चिखलांत!' आई तोंडार पदर धरून हांसपाक लागली आनी भाऊ खळखळून हांसलो.

'म्हणल्यार दोगांयनीय चिखलकालो केलो तर!'

'समजूंक ना म्हाका.'

"मीरा बावडी जावन हांसली. तिज्या तोंडार पळयल्यार कळटालें, हिका सगलें समजलां पूण ही त्या गांवचीच न्हय जाल्लेभशेन दाखयता."

'आगे, नवें नवें जोडपें आसा, करपाचेंच! तशें करपाचेंच! तुमचो गुन्यांव न्हय तो. तुमचे पिरायेचो आनी नव्यापणाचो!'

'तरी पूण, चिखल कालो म्हणल्यार कितें तें कळ्ळें ना.' "हांवें मात भाऊलो भावार्थ कळूंक नाशिल्ल्यान विचारलें. खरेलेंच म्हाका कांयच कळूंक नाशिल्लें."

'आरे, तुमी केला तोच चिखल कालो.'

"मीरा लजली आनी मुमुरखी हांसून भितर गेली. खरें म्हणल्यार भाऊन विनोद केल्लो. सभावूच तसो आशिल्लो ताजो. पूण म्हाका अजाप जालें. मीरान ताजें म्हणणें न्हयकारलें कित्याक ना. ताजें म्हणणें खरें आशिल्लेभशेन ताज्या म्हणण्याचो स्वीकारूच केलो तिणें."

"तुजेर बगलांट येता तें पळोवन भितरल्यान खोस जाल्ली तिका. तुजेवयलो मोग तो भाटकारा."

"हो कसलो मोग रे, बगलांट ओडून घेवपाचो!"

दोगूय परत हांसले. हांसतनाच धाकलू गंभीर जालो. मातसो वेळ वोग्गी रावलो आनी अचकीत उलयलो,

"अशे तरेन खोशयेन, उमेदीन, केन्ना जमनीर चलून जाल्यार केन्ना हवेंत पांय मारून दीस वताले. पयलो पावसाळो सुरू जालो आनी जेश्ट म्हयनो केन्ना लागलो कळ्ळोच ना. पूण जेश्ट आनी आशाढ हे दोनूय म्हयने म्हजेखातीर संकट घेवन आयले."

"कसलें संकट भाटकारा?"

"आरे, जेश्ट आनी आशाढ हे दोन म्हयने मीरा कुळारा वचपाची आशिल्ली रावपाक. हांवें आईक धाडूं नाका म्हूण सांगपाचो यत्न केलो रे. पूण म्हज्याच आंगलट आयलें. आईन म्हाका फट् करून विचारलें;"

'आमी दोगांय जाय मरे तुका? काय वायल मेळ्ळी, आवय वापायची गरज ना?'

'म्हणल्यार कितें आई?'

'मांय मांव आशिल्ले नवे सुनेन खंय आशाढांत कुळारा वचपाकूच जाय. नाजाल्यार तें मांय मांवाक सामकें वायट. जेश्ट म्हयन्यांत नवी व्हंकल घरा रावल्यार जेश्ट म्हणल्यार व्हडल्या देराक वायट.'

'जेश्ट व्हडल्या देराखातीर आनी आषाढ मांय मांवाखातीर? म्हणल्यार दोन म्हयने? जेश्ट आनी आशाढ म्हयन्यांत मीराक कुळारा धाडुंकूच जाय?' हांवें आईक विचारलें.

"हय भाटकारा. शास्त्रांत तशें सांगलां."

"शास्त्रांत आसा काय ना म्हाका खबर ना. शास्त्रांत सांगलां तें सगलें करूंकच जाय म्हूण आसा वावल्या? व्हडलो देर आनी मांय मांव ह्या तिगांयकूय मेळून एकूच म्हयनो थारावपाक जायनाशिल्लो?"

"पूण तशी पद्दत आसा भाटकारा."

"जाणां रे हांव. आनी ती पद्दत पळय कोणें घाल्या ताजी तोखणाय करपाचीच. कारण पळय, व्हंकल लग्न जावन घोवा घरा वता. म्हणल्यार सामक्याच नव्या घरा वता. घोव अनवळखी, घरचीं अनवळखी, गांव अनवळखी. तिका परकेपण दिसपाक

जायना, एकलेपण जाणवपाक जायना म्हूण तिका कुळारा वचपाची ती संद. देखून मांय मांव आशिल्ले नवे व्हंकलेन पयली आशाढ पांवळी घोवा घरा पळोंवंक जायना म्हूण भिरांत घाल्या. आनी मांय मावांक तें वायट म्हणलां. म्हणल्यारच तांकां सुनेक कुळारा धाडचीच पडली."

"ही पद्दत आमी पाळटाले. पूण इतलो बारीक अर्थ आमकां खंय खबर आसा."

"ही वतकच कशें जातलें म्हजें देव जाणा! भुरग्यांनी तिका समजून घेतलीच ना रे. हे भुरगे आपल्याच विश्वांत गुल्ल आसतात. जाणटेल्यांकय आपलें मत आसता, तांचेय थोडें आयकून घेवपाक जाय, हें तांकां कळच ना. जाणटेल्यांनी आपलेखातीर करपाकूच जाय, तें तांचें कर्तव्य अशें तांचें मत. पूण आपलेंय बी जाणटेल्यांखातीर कर्तव्य आसता हें मात तें विसरतात. मीरा मात केन्ना आपल्या जाणटेल्यांच्या उतराभायर गेली ना. आमच्या वेळारूय दोन पिळग्यांमदीं अंतर आशिल्लें. मतभेद आशिल्ले. पूण आतां दोन पिळग्यांमदली घळ चड रूंद जाल्या. स्वातंत्र्य सगळयांक जाय. आपले इत्सेप्रमाण चलप कोणाक नाका आसता? आमी मनांत नासतना जाणटेल्यांचे इत्सेप्रमाण वागले नात? कित्याक? ते संस्कार. पिळगे फाटल्यान पिळगेचेर घडत आयल्यात. आतां ही पिळगी मात आपलेच इत्सेप्रमाण वागता. तेन्ना फाटले पिळगेन आमकां नाचयले, आतां नवी पिळगीय आमकां नाचयता. आमचे पिळगेचें जालां धोलकें. फाटले पिळगेन ढम्म ढम्म करून वाजयलें आतां ही पिळगी ढुम्म ढुम्म करून वाजयता. हेवटेन ढम्म तेवटेन ढुम्म. धोलकें बावडें वाजत उरलें. चामडें तें! कितलें सोंसतलें? एक दीस फुटपाचें आनी फुट्टलेंय बी. हो उदरगतीचो परिणाम काय विज्ञानान केल्ले फास्ट प्रगतीचो परिणाम कोण जाणा! वावल्या, म्हाका एक सांग, आज ते हजारांनी डॉलर म्हणल्यार लाखांनी रुपया जोडटात. जोडटा आसतीत गा, पूण

तांकां फॉरेनाक धाडपाक आमीच कश्ट काडल्यात न्हय! आमीच हाडांचीं काडां करून हांची वचपाची वाट मेकळी केल्या न्हय! आमच्या काळार पयसो पोटाची गरज भागोवपाचे मर्यादेभितर आशिल्लो, आज हे पिळगेखातीर ते मर्यादेक शीम-मेरूच उरूंक ना."

धाकलू भावूक जावन भान विसरून उलयतालो. बाबलो आयकुपांत गुल्ल जाल्लो. धाकलून सांगिल्ल्यो कांय खबरी ताका खबर आशिल्ल्यो जाल्यार कांय नव्यो आशिल्ल्यो. तो आज ताजो मुंडकार न्हय तर जिवा - भावाचो इश्ट जाल्लो. एका इश्टाकडेन जशें मन मेकळें करता तशें आज तो बाबल्याकडेन मनाचें एकार एक कवड उगतें करीत आशिल्लो. पूण दोगूय अदीं मदीं मीराच्या म्हच्यांत वचून तिका पळोवंक विसरनाशिल्ले.

"चड उलय नाका भाटकारा. सगळयो खबरी आतांच करूंक जाय? उलयतना तुका धाप लागता भाटकारा. सुसेग जाय तुका. हांव रावतां जागो. आतां तूं मातसो न्हीद पळोवया."

"आज मन मेकळें करता रे तुजेकडेन. कित्याक आडायता म्हाका? आज मूड आसा. फाल्यां तो आसतलोच अशें ना. मागीर तूंच म्हणटलो, भाटकार खूब कितें सांगतालो म्हाका, हांवेंच ताका आडायलो. मनांतलीं उतरां मनांतूच उरलीं भाटकाराच्या अशें तूं म्हणटलो. तुकाच पच्छत्ताप जातलो पळय. आनीक सांगतां तुका, कोणूय कितेंय सांगूंक सोदता जाल्यार आयकनासतना रावूं नाका. ती संद परती मेळपा ना. तें वातावरण परतें मेळना. ताजो सांगपाचो मूड आनी तुजे आयकुपी कान केन्ना परत एक जायत हाची खातरी आसना. आतां नाका, मागीर केन्ना उलयतलों वा मागीर सांगतलों म्हणशी जाल्यार ती संद, तें वातावरण परतें केन्ना येत सांगपाक जायना. खंयचीय गजाल मागीर करतलों म्हणशी, तें 'मागीर' केन्नाच येना. येता तो पच्छताप."

"बरें भाटकारा, उलय तूं, उलय. फायचें फाल्यां."

"तुवें खूब केलां रे म्हजें. घरचीं सगळीं कामां तर केल्यांच, हाताक धरून बँकेंत, बाजारांतलेगीत व्हरून हाडला. तसो धडधाकट आसा रे हांव, पूण नदर इल्ली बरी ना. सारखें दिसना रे म्हाका दोळ्यांनी."

"मोतीबिंदूचें ऑपेरेसांव करपाचें आशिल्लें न्ही?"

"केन्नाच्यान चिंतता हांव. पूण भाटकान्नीलें जाग्यार पडटलें आनी हांव ऑपेरेसांव करतलों म्हूण आशिल्लों. आतां कोणाक तें? तिणेंय म्हाका पळोवपाचें ना आनी हांवेंय तिका पळोवपाचें ना."

"पूण दिसपट्टो वेव्वार आसा न्ही? तो करपाक दोळे जायच. कूड ही जिवाचें घर, कूड सांबाळून दवरूंक जाय. घरूच जीर्ण जालें जाल्यार तो रावतलो खंय. उठून वतलो मागीर. तेखातीर सांगतां दोळ्यांचें ऑपेरेसांव करून घे."

"तूं येता मरे हॉस्पिटलांत? दोन तीन दीस रावचें पडटलें."

"हांवें केन्ना ना म्हणलां तुका? दोन तीन दीस कित्याक, तुका जाय तितले दीस रावतां भाटकारा. तूं सांगूच म्हाका."

"पयलीं जल्मांत म्हजें आनी तुजें नातें आशिल्लें काय अशें दिसता. अशे बाबतींत म्हजो विश्वास उणोच. पूण तुजेवरी लोक पळयतकच विश्वास दवरचो सो दिसता."

"चाकरी करतां म्हणटकच तीं कामां करचींच पडटात न्हय! तातूंत व्हडलें शें कांय ना."

"चाकरी ही टायमशीर आसता. तुवें टायमाचेर केन्ना लक्ष दिलां? रात म्हणनाका, दीस म्हणनाका, तूं आमगेरूच आसता. तुका हांव विसरचोंना रे. वचचे पयलीं तुजी वेवस्था करूंक जाय

म्हाका.”

“हें सगळें आजूच उलोवंक जाय? भाटकान्नील्यो खबरी सांगतालो तूं, म्हजेर कित्याक पावलो मर्दीच?”

“हांवूय केन्ना तिजे इत्सेभायर गेलोंच ना रे. म्हणटा म्हणटा तें केलें. मनाक खोस मेळटाली रे तिजें आयकुपाक. ती नाका आशिल्ली मागणीय करिनाशिल्ली. तिणें आपलेखातीर कांयच मागलें ना. विचित्र हट्ट आसताले तिजे.”

“हय! आंकूर काडपाच्या हट्टावयल्यान कळ्ळें तें म्हाका. आमच्यो बायलोलेगीत आंकूर काडपाक चडश्यो वचनाशिल्ल्यो.”

“फुडें आयक. एक आनी दोन न्हय, कितल्याश्योच गजाली आसा तिज्यो. आयकतलोच जा. कसलेतरी निमतान आईन तिका पयशे दिले आनी साडी घे म्हणलें. जालें, रोखडीच साडी घेवया म्हणपाक लागली. साडयेचें म्हत्व नाशिल्लें तिका. पणजे राविल्ले चलयेक हांगच्या बाजारांत साडी घेवपाची उमेद कसली? तिका जाय आशिल्लो कुडचडेंचो बाजार पळोवपाक. ताज्याकूय चड उमेद तिका पलतडी वचपाची. तारींत बसून पलतडी वचपाचो अणभव तिका घेवपाक जाय आशिल्लो.”

“पलतडी बाजाराक गेलेबगर ह्या गांवांतल्या लोकांचें कशेंच जायना. तार तारयो हीं आमचे जिणेचीं आंगां जावन पडिल्लीं तेन्ना. आतां पूल आसा आनी तारीचें म्हत्व ध्यानांत येना. एक दीस तारयो बरो ना जालो जाल्यार हेवटेंतल्यान तेवटेन वचपी तार व्हरताले आनी तेवटेंतल्यान हेवटेन येवपी तार हाडटाले. आनी बरे तरेन देगेर बांदून दवरताले. आतां जाल्यार आयचे विद्धाटे दितले आशिल्ले तार सोडून, वता थंय वचूं म्हूण.”

“तीय इत्सा पुराय जाल्या जातली.”

“तिका ताकीद आशिल्ली वचपाची. पूण म्हाका कामां

आशिल्लीं न्हय. आज या फाल्यां या करून एक सप्तक गेलें आनी तीय इत्सा पुरी जाली. आईचे सांगणेन एक दीस व्हेली तिका हांवें पलतडी. पनेळांतल्यान देंवता आसतना चिखलांत बी पांय मुगरलो. साडी भिजली. पूण कीटकीट ना. अश्शी पिळ्ळी, लागली चलूंक. बाजारांत वता आपूण, पयलेच पावटी. साडी भिजिल्ली आसा, बदलूंक जाय आशिल्ली. आपणें टापटीप दिसूंक जाय अशें बी ना. तारीकडेन, वयर चडटनाच एक झाड आशिल्लें. पिपळाचें. ताज्या रुखाभोंवतणी एक पेड आशिल्लें. पेड ल्हानूच आशिल्लें. तारीवयल्यान लोक येतना वतना त्या झाडामुळांत, पेडाचेर फुलां, पानां, वा हुस्केचे गोंडे तोडून दवरतरले. तिणें तें पळयलें. अजापान तिणें म्हाका विचारलें;

'हे लोक कितें करतात?'

'देवाक फुलां घालतात. त्या झाडाचेर देव आसा. ब्रम्हो म्हणटात ताका. ताका ते लोक फुलां, पानां घालतात. आनी सांगून घेतात आपूण ज्या कामाक वतां तें काम बरे तरेन जावं दी म्हूण.'

तिणेंय एक पान खुटून पेडार दवरलें. आनी पेडाक प्रदक्षणा काडली. हांवेंय तशेंच केलें. भुरगेपणांत हांव तें चुकनासतना करतालों रे. पूण मागीर सुटलें तें."

"आतां थंय व्हडलें देवूळ जालां भाटकारा. हजारांनी लोक येतात भेटेक."

"हय रे! जाणां हांव. पळयलां हांवें तें. ल्हानशें आसा. पूण सुंदर, सोबीत जालां. ब्रम्ह्याची मुर्तूय सोबीत जाल्या. पूण तुका सांगपाचें म्हणल्यार मीरा जेन्ना जेन्ना पलतडी वताली, त्या पेडार पान दवरलेगर रावनाशिल्ली. आपल्याक देव थंयच, त्या पेडारूच दिसता म्हणटाली ती. बाबल्या, आज जेन्ना पर्यावरण, झाडांचें म्हत्व, बी विशयाचेर भाशणां आयकतां न्ही, आमच्या पुर्वजांलें

झाडांक देव मानप वा झाडांचेर देव आसा, देंवचार आसा म्हणपाचें मोल कळटा."

"तें देवूळ आतां तीर्थ जालां भाटकारा."

"हय रे, बाजारांत येतना वतना मीराचें तेन्नाच तीर्थक्षेत्र जाल्लें तें. पूण ज्या भक्तिभावान ती झाडाक पळयताली, ती भक्ती मूर्तीची भेट घेतना आतां दिसना. पयलेच खेपेक ह्या वाठाराचें एक चित्र तिज्या मनाच्या पड्डयार कोरांतिल्लें तें निमाणेंमेरेन पुसून वचूंक नाशिल्लें. ती जुवारी, जंय मोडण घेता थंय न्हंयचे दुसरे देगेवयलीं चिपाचीं झाडां, तांचे फाटभुंयेर कवाथे, तांच्या फाटल्यान माड हें पळोवपांत ती इतली गुल्ल जाताली, इतली खूश जाताली म्हूण सांगूं! त्या दिसा साडी बी घेवन, बाजार भोंवून बी घरा पावता सर दोन जालीं. येतना आमी दोगांच व्हड्यांत. जालें! हिगेलो हट्ट सुरू."

"पनेळांत आनी कसलो हट्ट?"

"तेंच तर खाशेलेंपण तिजें. आरे, तिजें चित्र काडूंक नजो. आमी दादल्यांनी कितलेंय शाणेपण सांगलें आनी बडायो मारल्यो तरीय बायलांच्या हट्टामुखार आमचें कांय चलना रे बाबा. जाणटेल्यांनी सांगून दवरलां तें फट न्हय. आतां एक लोकशाय आयल्या. लोकशायेंत राजहट्ट लोकांच्यानी मोडून काडूंक जाता. मतांच्या नेटार ते राजाक ताळयार हाडपाचें काम करूंक शकतात. आनी मतां जाय म्हणटकच राजाय बी लोकांमुखार तकली बागयल्लेभशेन करता. पूण स्त्रीहट्ट पयलींपरस वाडला. तांकांय लोकशायेचो भक्कम आदार मेळ्ळा. तांचे घोवलेय बी तांचेमुखार आतां चड्डूच तकली बागयतात. घोवलो हें उतर बरें दिसता न्हय! तेंय मीराचेंच उतर. एकोडीं आसतना अपुरबायेन ती म्हाका 'घोवलो' म्हूण पाचारताली. म्हाकाय बरें दिसतालें. आमकां, चड करून मीराचे मेकळिकेक बाबा आनी आईचोय चड विरोध नाशिल्लो

म्हूण तिजे हट्ट पुरोवंक जमलें म्हाका. आपल्या करतुपांनी, सेवेन आनी लाडिकपणान मीरान आपल्या मांय मावाचीं मनां जिकिल्लीं रे. शारांतली सून हाडल्या म्हणटकच तिजेंय मन सांबाळप ते आपली लागणूक समजताले. पूण एक, घरांतले रुढीक आनी परंपरेक चुकूनलेगीत बादा येवंक जायनाशिल्ली. थंय मीरा कडक. तिका वेळ, काळ, सुवात कांयच लागनाशिल्लें. सगळयांकडेन भीड म्हुर्वत दवरताली, पूण म्हजेकडेन केन्ना दवरलीच ना तिणें. मनांत आयलें, सांगून उडयलें. 'म्हज्या म्हन्यांत आयली आनी म्हणपाक लागली, तारयाक व्हल्ली म्हजेकडेन दी म्हूण सांग.'

"आरे म्हज्या बाबा! हो आनी कसलो हट्ट रे! हो जगावेगळो हट्ट पुराय केलो तुवें?"

"हांवें तिका सांगलें,

'आगे तुका तें जमचें ना. केन्ना व्हडें ताणलां तुवें?'

'ना! म्हुणुनच म्हाका शिकूंक जाय न्हय!'

'तारयो आयकुपाचो ना. हांवें केन्ना मागली ना व्हल्ली ताजेकडेन. तुका खंयचो दितलो तो? ती व्हल्ली म्हणल्यार तांचें पोट. ती दुसऱ्याचे सुवादीन करप तांचे परंपरेंत बसना. ते आयब समजतात.'

'हें तें म्हाका सांगूं नाकात आं. म्हाका पिशांत काडटात? हांव सामकीच बोमान दूद पिना. सांगात न्हय! सांगात न्हय, परतें परतें म्हणूंक लागली. मोठी बिलंदर पळय, इल्लो इल्लो आवाज वाडयलो तिणें. कित्याक सांग?'

'तारयान तो आयकुचो म्हूण.'

'सारखें तुजें. तारयो वळखीचो न्हय रे! ताणें आयकलें आनी विचारलें, कितें सांगता ती भाटकारा?'

'ही व्हल्ली मागता. आपूण व्हडें चलयतां म्हणटा.'

'मागीर नाका कित्याक म्हणटा भाटकारा? व्हल्लूं दी तिका.'

'पूण आई बाबाक कळ्ळें जाल्यार?'

'कशें कळटलें? सांगल्यार हांवें. तें पिशेंपण हांव करचों ना. यो भाटकान्नी, हांगा बस, म्हजेम्हऱ्यांत.'

'हांव ताज्या म्हऱ्यांत बसची ना.'

"ती म्हज्या कानांत फुतफुतली. निमाणें तारयान दिली व्हल्ली तिज्या हातांत. थोडो वेळ तारयान दिल्ले दिकेक लागून व्हडें नीट गेलें. पूण मागीर व्हांवलें. हांव भियेलों. पूण तारयान म्हाका ओग्गी केलो. आनी आपूण तिका शिकोवंक लागलो. निमाणें व्हडें तिणेंच तडीक लायलें. तिका खूब खूब आनंद जालो. हांवेंलेगीत केन्ना व्हल्लेक हात लायलोना हें तिका समजतकच व्हडली खोस जाली तिका."

"गांवच्या बायलांनी अशें केन्नाच केलें ना. तांचेखातीर भाटकान्न म्हणल्यार एक नविदाद शी. म्हजी घरकान्न आनी शेजान्न तिका एकदां पळोवन येतात म्हूण म्हजे फाटल्यान लागिल्ल्यो. पयलीं कितें नाजाल्यार कितें काम काडून येताल्यो त्यो तुमगेर. काम पाड पडलें! तिजेर एक नदर मारूंक मेळयार पुरो जातालें तांकां."

"म्हणचे कितें सर्कशींतल्यान बी धरून हाडिल्ली काय कितें तिका?"

"भाटकारान सुंदर आनी सुधारक बायल हाडल्या म्हूण अख्ख्या गांवांत फाम जाल्ली."

"तशें सामकें भायर उडोवपाचें ना रे तुजें. सुरवातेक

कितें ना कितें निमित्त काडून येताल्यो सगळयो. कोण कुंवाळो हाडून दिताली तर कोण दुदी हाडून दिताली. कोण घोसाळीं, जाल्यार कोण तवश्या पिपऱ्यो. हांव सदां चितताली. अशें कित्याक? पूण तशी प्रथाय आशिल्ली गांवांत. नवें फळ, नवी भाजी, नवें पीक येतकच तातूंतलें भाटकाराक दिवपाची पद्दत. पूण खंयच्या भाटकाराक? जाच्या भाटांत, शेतांत वा जमनींत पीक काडटात त्या भाटकाराक. वा जाच्या भाटांत घर आसा त्या भाटकाराक दिवपाची पद्दत. पूण हांगां असो संबंद नाशिल्ले लोकलेगीत आमगेर सागवाद हाडून दिताले. हाचें कारण म्हाका मागीर कळ्ळें. गांवांत एक फाम जाल्ली, धाकलूली बायल सुंदर आसा म्हूण. आनी देखून तिका पळोवपाक कोण नाजाल्यार कोण बायल दर दिसा येतालीच."

"खरेंच जुवानपणांत सुंदर आशिल्लीच ती, हालीं हालींलेगीत कितली सुंदर दिसताली भाटकान्न!"

"अल्लड आनी मस्तखोर शी ही बायल जेन्ना मांयचेमुखार वताली तेन्ना सामकी आज्ञाधारक. थंड किरांव शें उदक. हूं ना, चूं ना. तिका जर सांगत न्हय, तुजी सून अशी आनी तशी म्हूण, खरेंच दिसनाशिल्लें तिका. मांय-मांवामुखार आपली एक वेगळीच प्रतिमा तयार केल्ली तिणें. एक वेगळेंच शें व्यक्तिमत्व रे!"

"आवय घरा चलयांनी आडांगपणा केल्लीं पळयल्यांत पूण व्हेल्ल्या घरा आडांगपणां करपी एक भाटकान्नूच."

"ना आं! तशी आडांगी न्हय ती आं बाबल्या. हय! आडांगपणां केल्यांत पूण एके शिमेभितर. केन्ना म्हाका सतावपाच्या हेतून तर केन्ना नकळटां. याद जाता म्हाका पयलो गुरवचार. आरे, मीराकलेगीत खबर नाशिल्लें तिका दीस गेल्यात म्हूण. ही आपलेच धुंदींत. हिगेलीं भुरगेपणां, इल्लीं शीं आडांगपणां, हांकां लागून घरांतल्या लोकांचे दीस खुशालकायेन, आनंदान वताले.

हिका तर कसलें भानूच नाशिल्लें. तेन्नाचो समाज तुका खबर आसा कसो आशिल्लो तो. सामको रुढीवादी आनी कर्मठ असो. बायलांक म्हयन्याच्या वेळार वेगळेंच बसचें पडटालें. बरेऽऽऽ पंदरा वीस दीस पासार जातकच आईच्या लक्षांत आयलें, हे खेपे ही वेगळी बसली ना कशी? चवकशी करतकच हिका दीस गेल्ल्याचें कळ्ळें. आनी तुका सांगतां, तेन्नाच्यान घरांतलें वातावरणूच बदललें. मागीर सुनेची जतनाय कितली, अपुरबाय कितली, सगळो थातोमातो आगळो वेगळोच. ताजो परिणाम कितले बेगीन मीराचेर जालो रे! पयलींची अल्लड आडांगी मीरा अवचीत गंभीर. जापसालदार अशी बायल जाली. ”

“तुजेबद्दल कांय सांगलें ना भाटकारा. तुका खोस जाली ना? इश्ट मित्रांक पार्टी बी दिली ना?”

“म्हाका खोस जालीच. बापूय जावपाची कल्पना वा विचार कोणाक खोस दिवचो ना! ते खोशयेवांगडा समाधानूय आसता. आपूण बापूय जावंक शकता म्हणपाचो आनंद तुका वेगळोच संतोश दिवन वता. हें सूख कांय जाणांच्या नशिबांत आसना. आपलेभितर वा तिजेभितर कांयच दोश ना जाल्यार पुरो असो दोगांच्याय मनांत दुगदूग आसता. हो दुगदूग पयस जाला म्हूण खोस जालीच पूण खोशयेवांगडा इल्लीशी भिरांत, आनी थोडोसो कलकल म्हज्या मनांत भरिल्लो.”

“अशा वेळार कलकल, भिरांत दिसपाक जायना.”

“जाणां रे, पूण मीराचे बाबतींत म्हाका दिसलें न्ही, ताका कारणूय आसा. मीराभितर गुलाबाच्या फुलाची नाजूकसाण हांवें पळयल्ली, जायां फुलांचो परमळ अणभवल्लो. आनी म्हजेमुखार प्रश्न उबो रावलो. हिका जर दुवाळे सुरू जाले जाल्यार कशे सोसतली ही? खर दुवाळे हांवें पळयल्यात. ओकारे येवन जार जाल्ल्यो बायलो हांवें पळयल्यात, कांयच खायनासतना म्हयनो

म्हयनो सोराचेर दवरिल्ल्यो बायलो हांवें पळयल्यात. मीराची दशा आतां कितें जातली तें चितूनच म्हाका कलकलपाक लागलें."

"कांय ना भाटकारा. ज्या देवान बायलांक दुवाळे दिल्यात ते सोसपाची तांकूय ताणें तांकां दिल्या. बाळंतपणांत वेणी सोसच्यो पडटल्यो म्हूण कोण बायल गुरवार जावपाची रावता? तुजो तिजेर चडूच मोग म्हूण तुज्या मनाची तशी दशा जाल्ली. आवय जावपाचे खोशयेमुखार हेर सगल्यो अडचणी कुस्कुटासमान आसतात."

"हय रे! पूण मनशाच्या मनाक कोण कितें करतलो? तें कितेंय चिंतता आनी खंयचेय वटेन धांवता. ताका लगाम कोणाच्यान घालपाक जाता? मीरा सोंशीक आशिल्ली; पूण म्हज्यान तें पळोवंक जावंचेंनाशिल्लें. पूण देवाक म्हजी काकुळट आयली. दुवाळे लागले, पूण ओंकारे बी कांय आयले नात. घरांत मीरा दुवाळयांची म्हूण अर्थ-अपूरबाय खूब जाली; पूण तिजे दुवाळे आनी म्हजो कुंडो भायर सरलो."

"वोगीच बापूय जावपाची पदवी मेळटा? तें ऑर्र मेळपाक जाय जाल्यार थोडें तरी काम करपाकूच जाय."

"दुवाळे कसले जाणा? पेरांचे धोडे खावपाचे. पेरां पेरां म्हणटा म्हूण हांवें बाजारांतल्यान पेरां हाडून दिलीं. घांस मारिल्लें पेर थुकून भायर उडयताली. पोरसांतले पेरीक धोडे आशिल्ले. एक धोडो काडून खालो तिणें. आनी एकान एक धोडो रुचीन खावपाक लागली. आठ दिसांभितर सगली पेर बोडकी केली तिणें. मागीर शेजाऱ्यांल्यो पेरी बुड्डूंक लागलों पिशांभशेन. बाजारांत पिकिल्लीं पेरां मेळटात. धोडे मेळटात? घरांत कितली अर्थ अपुरबाय. सोपणां चडूं नाका, नेटान चलूं नाका, हें खावं नाका, तें खावं नाका, हें खाल्यार बरें, तें खाल्यार बरे, दर एकलो आपले परीन उपदेश करतालो, पथ्य सांगतालो."

“आपल्याकूच सगळें खबर आशिल्ल्याभशेन उलयतात असल्या वेळार. आयकुपासारकें आसता तें. एकली कोणूय एक उपाय सांगता तर दुसरी ताज्या उरफाटोच उपाय सांगता.”

“तिजेवांगडा बरे गेले रे दीस. संवसारांत केन्नाच एकामेकांविशीं कागाळ ना, शीण ना. राग ना, झगडीं नात.”

“राग ना, झगडीं ना? हें जावंकूच शकना.”

“हय रे बाबा, तुजें म्हणणें खरें आसा. राग येना, झगडीं करना जाल्यार तें जोडपें कसलें, आनी तें जिवीत कसलें. पूण राग केन्ना येता? मतभेदाकलागून. पूण एक ध्यानांत दवरूंक जाय, दुसऱ्याचेंय मत खरें आसूं येता. ताजे नदरेन तरी तें आसताच. तुजें मत खरें आसलें जाल्यार आज ना फाल्यां तें ताका पट्टलेंच. फकत वाट पळोवपाची गरज आसता. ह्या न्यायान आमी दोगांय वागलीं. म्हजो एक इश्ट म्हाका सदांच म्हणटालो, ‘तुमचें दैवी नातें रे. तें सगळयांकूच जमना.”

“खरें ताजें, सगळयांचें तशें जायना. एक खेप संवसाराच्या राटावळींत घुस्पलो न्हय मागीर कसलें सूख आनी कसलो आनंद! आनी कसलीं समजुतदारपणां? मातशें कितें नाकसुरें गेलें, जालें सुरू मागीर, रागार जावप, फुगार जावप, तापप, धेंगशे घालप, भुरग्यांक मारप, आयदनांचो खणखणाट करप, दोन चार दीस उलयनासतना रावप.”

“तूं म्हणटा तशें सामकेंच जालें ना अशें न्हय रे. पूण तितले पुरतें. एक खेप कितें जालें, आमी दोगांच घरांत आशिल्लीं, बाजारांत वतना मीरान म्हाका सांगिल्लें,

‘आज कितेंय मानशेचें नुसतें हाड आं. चड दीस जाले मानशेचें नुस्तें खाल्यार.’

‘मानशेचें नुस्तें? मानशेचें म्हणल्यार?’

'मानस खबर ना?'

'मानस?'

'फाटीं तुमी हाडूंक नाशिल्लें शेवटे, काळुंदरां, बी?'

'मुशेचें नुस्तें जाय तुका?'

'मानस म्हणात नाजाल्यार मूस म्हणात. कळ्ळें न्ही कसलें नुस्तें तें?'

"जॉयंट फॅमिलींत रावून आयिल्ले आशिल्ल्यान आमची संवय कशी, बाजारांत वतकच भरपूर नुस्तें हाडप. त्या दिसा संवयेप्रमाण हाडलें. आमी दोगां म्हूण कितलें खातलीं! तें नुस्तें पळोवन तापली: तूं म्हणटा तशी बडबड सुरू जाली. म्हाका आयलो राग. हांवें म्हणलें,

'तुजी ती बडबड नाका, जाय तितलें दवर, नाका तें उडय भायर.' इतलें म्हणून तरी ओगी रावलां हांव, ती मातशी मोव पडली शी पळोवन आवाज वाडयलो, आनी म्हणलें, 'सगळेंलेगीत उडयल्यार जाता.' तिणें आनी फाटीं फुडें पळयलां, सगळें नुस्तें व्हेलें आनी मागीलदारा व्हरून व्हाळांत उडयलें. कितें करतलों? मनांतल्या मनांत कपलार हात मारलो आनी ओग्गी बसलों. त्या दिसा शिवराक जेवलीं आमी शिवराक! मागीर मात खूब रडली. म्हणपाक लागली, म्हजेखातीर तुमकां शिवराक जेवचें पडलें. वायट दिसलें रे तिका. म्हजोय राग न्हिविल्लो. हांवें समजायली तिका. तशी ती समजिकायेची...पूण एक कुवाडें म्हाका केन्नाच सुटलें ना. इतली समजूतदार बायल सर्वेश लग्न करून आयलो तेन्ना आनी तेन्नाच्यान आयजमेरेन ताका कित्याक माफ करूंक शकली ना?"

"हांव सर्वेशबाबाक सादो सरळ असो मनीस समजतालों. लग्नापयलीं मातलेगीत सुलूस लागूं दिली ना तुमकां."

"तो आमकां सांगनासतना लग्न करतलो हें आमी चिंतूंकलेगीत नाशिल्लें. सामको भावार्थी आनी आवयबापायचे आज्ञेंत रावपी असो आशिल्लो. नितिनान अशें केल्यार आमकां वायट दिसचें नाशिल्लें. कित्याक तर, ताजे विचारूच सुधारिल्ले आशिल्ले. पूण हो न्हय. खाली मुंडी, पाताळ धुंडी अशें शें जालें हागेलें."

"म्हाका खबर ना? हो चलयांकडेन पळयलेगीत नाशिल्लो. चलयो हेवटेन बसल्यार हो ते वाटेन तकली सकयल घालून वतालो."

"तेखातीर आवयक चड खातरी आशिल्ली. तिका दिसताळें, मोग-बीग कितेंय केल्यार दुसरो. व्हडलो चलो म्हगेलो सादो भोळो. पूण मोग तर केलोच, एक अमेरिकन गोरी मॅडम घेवन आयलो."

"आदीं तुमकां मातूय सुलूस लागली ना? मोगांत पडिल्ल्या मनशाचे वागणुकेंत बदल जाताच."

"तो जेन्ना पयलोच अमेरिकेक वचपाची तयारी करतालो न्हय तेन्ना आवय कशीच तयार जायनाशिल्ली. म्हाकाच उमेद आसली ती चल्यान फॉरेनाक वचचें आनी नांव करचें म्हूण. आनी थोडोसो सर्तीवांटो मनांत आशिल्लोच. आनी हे सर्तीक लागुनूच मरे, कुटुंबाचीं कुटुंबां सोंपल्यांत. हो करता म्हूण तो करता, तो करता म्हूण हांव करतां आनी जेन्ना कळटा तेन्ना खूब कळाव जाल्लो आसता. हांवेंय तेंच केलें. भाऊ जर चल्याक फॉरेनाक धाडूं शकता जाल्यार हांव कित्याक ना? म्हजी तांक ताजेपरस उणी ना. सर्वेश व्हड मनीस जाल्लो म्हाका पळोवंक जाय आशिल्लें रे. देखून चड हट्टान सर्वेशाक धाडपाचे यत्न केले. आवय कशीच तयार नाशिल्ली. ती कितली खरी आशिल्ली हें आतां म्हाका पट्टा. सर्वेशानूय आवयक तयार केली. ताणें तिका फुसलावन उतर

दिवन, सोपूत घेवन तयार केली. ताणें म्हणलें,

'आई, हांव अमेरिकेक सामकोच रावपाक वचना. परतो येतलों. दोन वर्सां फुडलें शिक्षण घेतां, पांच वर्सां प्रॅक्टीस करून थोडे पयशे करून परत येतां.'

'पयसो तुज्या बापायकडेन कमी आसा? कोणाक तो? बापायली गिरेस्तकाय तुमकांच मेळपाची न्हय ती. बापायन आपल्या कर्तुपाचेर भाटां बेसां घेतल्यांत तीं कोणाक? तुमकांच न्हय? हांगा रावल्यार तुका पयसो मेळचो ना?'

'फुडें फुडें, भाटां-बेसां, जमीन-बिमीन हांचेर निंबून रावप कठीण जातलें गे. आतांच वावराक मानाय मेळप कठीण जाता. फुडें मागीर तुका लोक मेळटा? आनी सर्वेश दोतोरकी सोडून भाटां पळयतलो?' हांवें मर्दींच तोंड घालें.

'दोतोरकी करून भाटां पळोवपी कितले लोक दाखोवं तुमकां? ते कितें पयशे जोडिनात?'

'आगे आई, पयशांचो प्रश्न ना. आनी पयसोच म्हणल्यार सगळें न्हय. हांव वतां आनी फुडलें शिक्षण आनी थोडो अणभव घेवन येतां. अमेरिकन लोकांची काम करपाची पद्दत, तांचें प्रामाणीकपणान काम करप, कामाकडेन पळोवपाचो तांचो दृष्टिकोण आमी अनुकरण करपासारखो आसा.

'अमेरिकेचो चकचक पळयतकच परत येवपाचेंच विसरतात रे भुरगे. आपलें घर, आपले मनीस, आपलो देश, आपले जिवाभावाचे इश्ट-मित्र सगळें विसरतात रे.'

'हांव तुका उतर दितां न्ही आई, शिकून हांव परत येतलों. गांवांतूच रावतलों, गांवच्या लोकांचे भलायकेखातीर काम करतलों. तुमी आमचेखातीर कश्ट काडल्यात. तुमकांय सुसेग जाय. तुमची जापसालदारकी माथ्यार घेतलों. तुमचें वजें ल्हव करतलों.' थोडींच

उतरां उलोवपी सर्वेश त्या दिसा इतलो उलयलो. म्हाका अजाप जालें. निमाणें आवयचो निरुपाय जालो. तिणें म्हणलें,

'एक सांगतां तुका सर्वेश, दोन वर्सांनी शिक्षण सोंपय आनी परतो यो. हांगा तुजे पसंतीची चली पळय, लग्न जा आनी परतो चल. पांच वर्सां प्रॅक्टीस कर आनी हांगाच रावपाक यो आं.'

'हय आई, हांव येतांच. हांव हो गांव कसो विसरतलों? म्हजें भुरगेपण गेलां मगे हांगा. जिवीतभर जांणी म्हाका सांगात दिला तांकां हांव कसो विसरतलों गे? आनी तुमकां? तुमचेबगर हांव रावलां तरी? दर शेनवारा पणजेच्यान घरा घांवून येतालों तुमचेचखातीर न्हय! केन्ना काय शेनवार येता सो जातालो म्हाका. एस्. एस्. सी. जायमेरेन तुजे मांडयेर तकली दवरून न्हिदलेबगर न्हीद पडनाशिल्ली म्हाका. आतां लग्नाचें म्हणशी, तूं चली पळोवन दवर. दोन वर्सांनी येतां लग्न जातां आनी परतो वतां.'

'पळय सर्वेश, म्हाका ह्या गांवांत हाडलें न्हय, तेन्ना सतरा वर्सांचें आशिल्लें हांव. पणजेसारखिल्ल्या शारांत रावून आयिल्लें. पूण कांय दिसांभितर म्हाका ओड लागली ह्या गांवाची. तुजे तर जल्माचे संबंद आसात ह्या गांवाकडेन. गांवच्या सैमाकडेन, गांवच्या लोकांकडेन जुळिल्लें नातें तोडूं नाका. म्हाका सोपूत घेवन सांग, आपूण परतो येतलों म्हूण.'

'आगे, ताज्या मनांत नाशिल्लें तूं ताज्या मनांत भरूं नाका. फॉरेनाक गेल्ले भुरगे कितलेशेच परत आयल्यात. आमच्याच गांवांतल्या कितल्या भुरग्यांचीं नांवां सांगूं तुका?' सट्ट करून हांव उलोवन गेलों.

'पूण थंयच राविल्ल्या आनी थंयच लग्न जाल्ल्या कितल्या भुरग्यांचीं नांवां हांव घेवं? तुमी मदीं उलोवं नाकात आं. तुमकांय तो गेल्लो जाय. फाल्यां मिरोवन दाखोवपाक नाका, म्हगेलोय

चलो फॉरेनाक गेला म्हूण.'

"हांवेंच ताका प्रोत्साहन दिल्लें, ताका उमेद आशिल्लीच. तातूंत हांवें मातसो फुलयलो ताका. म्हगेलो चलो भायर वता म्हूण म्हाका ऑर शें दिसतालें. तिगेलें तेंय म्हणणें खरें आशिल्लें रे बाबल्या. हें फॉरेनाचें आकर्शण मरे जितलें बरें तितलें वायट. फॉरेन एक्स्चेंज हाडटा, देशाच्या अर्थकारणाक बळगें हाडटा, बेकारीचो प्रश्न कांय प्रमाणांत सुट्टा, एक शिस्तीची जीण जगपाक मेळटा, सगळें खरें. पूण आमचे आदर्श अशे कुटुंबवत्सल जिणेंत विखख कालयतात हाचेकडेन कोणाचें लक्ष वचना. फुडें फुडें ती कोसळून पडलेबगर रावचीना. आमचेंय जालें तेंच, म्हगेल्या भरिल्ल्या घराची दुर्दशा जाली दुर्दशा.

सर्वेशाची आवय चार दीस म्हजेकडेन उलयनासतना रावली पूण म्हाका खबर आशिल्लें, हो लटको राग दोन दिसांनी वतलो. जालेंय तशेंच. पासपोर्ट, व्हिसा, बँक गॅरंटी बी हांकां लागून आमच्यो ज्यो धांवपळी जाल्यात तातूंत ती केन्ना बोवाळपाक लागली तिकाच कळ्ळें ना. तिगेलें म्हणणें कितलें सारखें आशिल्लें तें म्हाका मागीर कळ्ळें. हांवेंय बी सर्ती वांटच्याक लागून ताका फॉरेनाक धाडपाचो हट्ट धरलो. ही एकामेकांकडेन सर्त करपाची आमच्या समाजाक कीड लागल्या न्हय ती समाजाच्या फाटीकण्याचो मणको मोडलेबगर रावची ना. आज शारी समाजान अर्दे भारतीयत्व वगडायलां.

इतलेंय तुका सांगपाचें कारण म्हणल्यार भाऊच्या पावलार पावल दवरून हांव चल्लों. पूण वेळारूच सावध जाल्ल्यान सुटलों. हांगासल्लें सगलें विकून भुरग्यांम्हऱ्यांत रावपाक गेलों ना. एक सांगतां बाबल्या, युरोपांतल्या चकचकान आमकां दोगांयकूय केन्नाच पिशें लायलेंना. मीरान तर म्हणलें, 'कितें बरें वायट जाता तें हांगाच जावं. म्हजे भुंयेर, म्हज्या घरांत जावं.' शेतां, भाटां, भूंय

म्हणल्यार आमकां गोंयकारांक मातेसमान, देवासमान. शेताची पुजा करप, पिकेची पुजा करप, घरच्या वास्तुची पुजा करप, वास्तूक तिनसांजचो दिवो लावप हे आमचे संस्कार! पिशेपणां दिसूं मागीर तीं गोरे लोकांक आनी आमचे नवे पिळगेक. पूण ताका एक अर्थ आसा.

सर्वेश अमेरिकेच्यान शिकून परतो आयिल्लो जाल्यार आज मातशे वेगळे दीस आसतले आशिल्ले रे आमचे. पयसो पयसो म्हूण कितलो जाय रे मनशाक! तो म्हणटा जॉब सॅटिसफॅक्शन! म्हणल्यार काम करतना मनाक धादोसकाय मेळप. फकत उलोवपाच्या खबरी. खरें जॉब सॅटिस्फॅक्शन भारतांत रावून मेळटलें आसलें. सगळया तरांचे पेशंट ताका हांगा मेळटले आसले. खरें म्हणल्यार चॅलेंज म्हूण ताणें हांगा रावून जॉब सॅटिस्फॅक्शन मेळोवपाचें. पयसो, चकचक, आनी सुखाचीं साधनां म्हणल्यार जिवीत न्हय. जिवितांत सॅटिस्फॅक्शन कश्टांत सोदपाक जाय, भोगांत न्हय. जांव, जाल्लें जावन गेलें. अशें जाल्यार तशें जातलें आशिल्लें बी म्हणप म्हणल्यार मनाचे खेळ."

"तेन्नाच तुमी ताका लग्न करून धाडूंक जाय आसलो."

"आदीं शिक्षण न्हय रे! शिक्षण जावन, आपल्या पांयांचेर उबो रावतकर लग्न. दोन वर्सांनी आयलो तेन्नाच तो जड जड जाल्लो. लग्नाचो विशय टाळूं लागलो. आवयकडेन मेकळेसाणेन उलोवप ना, इश्टमित्रांक मेळूंक वचप ना. येदो व्हडलो आमचो परिवार, पूण हाणें आपले कुडींतच बसून रावप. अमेरिकेक वचचेआदीं तो घरांत केन्ना मेळनाशिल्लो. वतालो वांगडच्यांगेर. तेय हांगा येताले. घर कशें भरिल्लें शें दिसतालें! अमेरिकेच्यान येतकच इश्टांगेर गेलोच ना. हो आयला म्हूण कळटकच तेच येताले हाका मेळपाक. हांव पळयतालों तांच्या तोंडार भाव. एक एकलो उमेदीन येतालो, ताका मेळून वतना निराश सो जावन

वतालो. पयलींचो सर्वेश तांकां मेळ्ळोच ना. सभाव बदलिल्लो, संवयो बदलिल्ल्यो, जेवणा खाणाची आवड बदलिल्ली, उलोवपाची पद्दत बदलिल्ली. कितेंय विचारलें जाल्यार एक दोन उतरांनी जाप दिवप. खूब फरक पडलो रे सभावांत. सामको शेणिल्लो शेणिल्लो सो दिसतालो रे तो."

"तेन्नाच मोगांत पडिल्लो आसतलो."

"मोगांत पडिल्लो आसतलो वा मोगाची सुरवात जाल्ली आसतली. सुरवातीची आवतिकाय अशीच आसता."

"सांगलें ना ताणें? भाटकान्नीकूय कळ्ळें ना?"

"कळ्ळें ना? ती सुतावयल्यान सर्गार वचपी मनीस. तो येता म्हूण कळटकच ताका सोयरिको येवंक लागिल्ल्यो."

"तो येवंचे आदींच सोयरीगत?"

"हय! पूण सर्वेश कसलो बिलंदर. ताणें वास लागूंक दिलो ना. पयलीं पयलीं ताका लग्नाविशीं विचारलें आनी मागीर खोदू खोदून विचारलें,

'सर्वेश, हे तीन चलयांचे फोटो आयल्यात. तांचीं नक्षत्रांय आसात. तूं फोटो पसंत कर मागीर ते चलयेचें नक्षत्र भटागेर घेवन वतां.'

'म्हाका येन्ना लग्न करपाचें ना आई, ते फोटे धाडून दी परते.'

'आनी कितलो रावतलो तूं? शिक्षण जालें. आतां बरो सो जागो पळय आनी क्लिनीक उगड. हांगा कुडचडेंच्या बाजारांत उगडटलो जाल्यार बाबा जागो पळोवन दितलो तुका. मडगांवां, पणजे उगडटलो जाल्यार तशें सांग. थंय पळोवपाक लावया. हे पळय फोटो, ह्या तिगांतली ही डॉक्टर जाल्या. दोगांय डॉक्टर

म्हणटकच बरें जातलें. दिसपाकूय वायट शी ना. सांग्यावयली. सालेलकार म्हूण. हिजें नक्षत्र पळोवं?'

'आई, म्हाका परतो वचूंक जाय अमेरिकेक.'

'आरे, तुवें कितें सांगिल्लें म्हाका? अमेरिकेच्यान परतो येतलों आनी हांगाच रावतलों म्हूण सांगिल्लें न्ही?'

'हय गे. पूण सदांच मनीस सारको उरना. मनशालीं मतां बदलतात. सभाव बदलता. परिस्थिती, सरभोंवतणचें वातावरण ताकां बदलूंक लायता.'

'आरे, पूण गरजूच कितें तुका परत वचपाची?'

'थंयच प्रॅक्टीस करतलों हांव. बरी ऑफर आसा.'

'हांगाय डॉक्टरांक बरो स्कोप आसा म्हूण जाणा तूं? '

'पूण जॉब सॅटिस्फॅक्शन ना.'

'जॉब सॅटिस्फॅक्शन म्हणल्यार कितें व्हडली वस्त ती? फकत अमेरिकेकूच मेळटा? हांगा मेळना? जॉब सॅटिस्फॅक्शन बी सगलें मनाचेर आसा.'

'तेंच म्हण्टां न्ही आई हांव. म्हज्या मनाक हांगा समाधान जावचें ना. जालें! सोंपलें! '

'पूण म्हाका दिसता तुवें हांगा रावचें. '

'तुजें मन तें म्हजें मन जायना आई.'

'तें म्हाका कांय लागना. हांव इतलें जाणा, तुवें परत वचूंक जायना.'

"हो तांगेलो संवाद हांवें आयकलो आनी पयलेच खेपे म्हाका पछताप जालो. ताका हांवें भायर धाडूंक जायनाशिल्लें

अशेंच दिसलें. पूण एके वटेन ताजेंय खरें दिसतालें. ताज्योय आवडी निवडी आसात. ताज्योय इत्सा आकांक्षा आसात. आमचेखातीर ताणें कित्याक त्यो मारप?"

"तुमी दोगांयनी भुरग्यांखातीर कांयच केलें ना? तांणीं तुमचेखातीर कांयच करपाक नाका?"

"भायर भुरग्याची अमूक एक पिराय जाली म्हणटकच भुरग्याक आपले जापसालदारकेचेर सोडटात खंय. तूं तुज्या पांयांचेर उबो राव. हाचेफुडें आमचें तुका कांय मेळचें ना तुजें आमकां कांय नाका. ताजेर आवय बापायचो हक्क उरना. बरें वायट तो कितें करता तें ताजे जापसालदारकेचेर. आमी हांगा भुरगे जाणटे जालेतरी तांचो हुस्को करपाचें सोडिनात. आवय बापूय आनी भुरगे हांचेभितर जो एक आत्मीक संबंद जुळटा तो आमच्या रगतांतूच आसा. तो सासणाचो उरता."

"भुरग्यांची आवय बापायबद्दल कांयच लागणूक नासता? आमचे हांगा आवय बापायक मान दिवपाचो आसता. उतरांनी न्हय जाल्यार आपले वागणुकेंतल्यान तांचे उपकार मानपाचे आसतात. जाणट्यांक मान दिवपाचो आसता."

"तशे सप्तकाच्या निमणे दिसा मेळटात रे ते. आवय बापायवांगडा रावतात. मजा करतात आनी वतात."

"आमच्या भुरग्यांमुखार रामाची देख आसूंक जाय, श्रावणाची देख आसूंक जाय. अख्ख्या संवसाराच्या देखींपरस आमच्यो ह्यो देखी श्रेश्ठ आसात. आनी ताजो अभिमान आसूंक जाय आमच्या भुरग्यांक. हांव व्हडलो बुदवंत न्हय. पूण तुमचेकडल्यान म्हाका जें गिन्यान मेळळां ताज्या बळार म्हाका समजता, तुजे भुरगे चुकल्यात भाटकारा."

"आमचे संस्कार वेगळे न्हय? भुरग्यांकडल्यान आमच्यो

अपेक्षा खूब आसतात. पूण त्यो स्वार्थी आसनात. जावं! तें आसूं. सर्वेश आवयक कसोच बदलो ना. निमाणें आपल्यालें गुपीत फुटत म्हूण आपुणूच गेलो उठून पणजे मामागेर. परत आयलो तो वचपाचे तयारेक लागलो. आवयन हर तरेन ताका फुसलायलो. बाबा-पुता केलो. तो कसोच तयार जालो ना. आवयवयलें प्रेम, माया बी ताज्या मनांतल्यान आटून गेल्ली. लग्नाचें कांय थारायनासतना गेलो. आवय विरूस जाली."

"ती कोण मॅडम मेळिल्ली. तिज्या मोगाच्या जाळयांत घुस्पल्लो न्ही तो!"

"आनी एका वर्सान ताजी चीट आयली, आपूण लग्न जालों. एका वाक्यान लग्नाची खबर सोंपयली. मोग कसो जालो वा सोयरीक कशी जाली. लग्न कशें जालें, असलें कांय बरयलेंच ना. आमकां दूगदूग! लग्न जालो जाल्यार कोणाकडेन? अमेरिकेंत गोंयचो लोक आसा. गोंयकान्नूच बी कोणूय मेळळी काय? काय अमेरिकेचे गोरे मॅडमीकडेन लग्न जालो? तरेतरेचे विचार मनांत आयले. पूण जाप सांपडना जाली. चार पांच दिसांनी जर्मनीच्यान चलयेची चीट आयली. ताणें स्पश्ट बरयल्लें, अमेरिकेंतले गोरे चलयेकडेन ताजो मोग जालो आनी थंय ताणें लग्न केलें. मीरान तर चार पांच दीस अन्नूच सोडिल्लें. कितलें सांगून पळयलें, सोपूत घालो; पूण तिणें हट्ट सोडलो ना. उदकूच पियेवन ती अशी कितले दीस उपाशी रावतली हें चिंतून म्हजेर संकटूच आयिल्लें. हांवें म्हणलें,

'आगे, जाल्लें जावन गेलें, आतां उपाय ना न्हय. आमच्यांनी काय सर्वेशाक बायलेक सोड म्हूण सांगूं नजो. सांगलें म्हूण तो तुजें आयकूंक आयला? पत्र आयल्यार स दीस जाले, आजून आमी बाबा आईक कांय सांगूंक ना.'

'नाका आं. तीं सगळयांक सांगतलीं. सगळया घरांत

जातलें तें. मागीर शेजाऱ्यांक तोंड दाखोवपाक जागो उरचोना. कुटुंबांतल्या लोकांक तोंड कशीं दाखयतलीं आमी. ह्या चल्यान म्हूण सामकीं लजेक घाल्यांत आमकां.'

'केन्नाय तरी लोकांक कळटलेंच. असल्यो गजाली लिपून उरनात. आज सगळ्यांक लिपयशी, पूण अवचीत तो बायलेक घेवन आयलो जाल्यार.'

'धांवडावन घालतलें. दारांत उबीं करचेंना. तो आतां कसोच येवचोना. खंयच्या तोंडान येतलो तो हांगा? म्हजेखातीर मेलो तो.'

'आगे कितें उलयता तूं? तुजी तकली जाग्यार ना. मातशी शांतपणान आयक. भुरगे आतां व्हड जाल्यात, तांकां बुद्द आयल्या, हें आमी समजून घेवन तांकां स्वातंत्र्य दिवंक जाय. आमचेपरस अमेरिकन लोकांची विचारसरणी वेगळी आसा. त्या विचारांचो सर्वेशाचेर परिणाम जाला जातलो. आमी आई बाबाक सांगुया. लोकांकडल्यान कळ्ळें जाल्यार आमचेर बोल येतलो, आमी सांगलें ना म्हूण. सद्या कोणाक सांगचें न्हय म्हूण तांकां सुचोवया.'

"खूब यत्न करतकच तयार जाली बाबा एकदांची. आनी बाबाक जेन्ना नुलयत सांगलें, तेन्ना बाबाक घुंवळूच आयली. ताका सावसूद करतासर अख्खें घर एकठांय जालें. त्या दिसा बाबान हांतुळण धरलें. मागीर केन्ना तो उठलोच ना. जी गजाल आमी गुपीत दवरपाची थारायल्ली ती फां फां करून अख्ख्या घराक कळ्ळी. आनी दोन दिसांभितर वाड्यार. मागीर गांवांत. मीराक मातशी समजावन जाग्यार हाडिल्ली, ती परत चवताळ्ळी. कर्मभोग न्हय हो?"

"वाडिल्ल्या भुरग्याकडल्यान आवय बापायच्यो कांय अपेक्षा आसतात. तातूंत पुताचें लग्न करून सून घरांत हाडप, ही

मुखेल उमेद. सोयरीगत येवन चली पळोवप धरून घर भरवणीमेरेन सगळ्या घडणुकांचीं सपनां आवयो आदींच म्हणल्यार चलो सतरा अठरा वर्साचो जायतपसून पळयत आसतात." बायलेच्या यादींनी चडूच भावूक जाल्ल्या धाकलूचें उलोवणें मदींच तोडून बाबल्यान म्हणलें.

"आनी तेन्नाच हांवें वेगळें घर बांदपाचो निर्णय घेतलो. रासवळ घर. परजातींतली सून, चालीरिती वेगळ्यो, संस्कार वेगळे, देश वेगळो, भेस वेगळो. घरच्या लोकांक त्रास नाका, तांकां उलोवपाक विशय नाका म्हूण आधुनीक पद्धतीचें नवें घर बांदपाक घेतलें. थोडे पयशे म्हजेकडेन अशिल्ले, थोडे बाबान दिले आनी बाबान एक भाट श्युवरिटी म्हूण मोर्टगेज केलें आनी कॉओपरेटीव बँकेंतल्यान रीण काडलें."

"घर तुगेलें भाटकारा सोबीत जालां."

"तें मात हांवें मनासारखें बांदलें, पयशांचें तोंड पळयलेंना. पयलीं जागो वेचून काडपाक नाका? फकत जागो पळोवपाक आठ दीस लागले."

"तुका जाग्याचो उणाव आसा भाटकारा?जाय थंय घर बांद."

"जागो खूब आसा रे. पूण नवें घर बांदतात. जागो सारको वेंचून काडपाक नाका? म्हाका कसो जाय आशिल्लो जागो? न्हंयची फाटभूंय आशिल्लो. पूण न्हंयचो हुंवार बादना असलो. गोंयच्यो न्हंयो मात गोंयकारांचेर केन्नाच रागार जायनात. पूण पावसाळ्यांत बुट्टी आयलीच जाल्यार घरांत उदक सरचें न्हय हाजी जतनाय घेवंक जाय आशिल्ली. उदेंत अस्तम पळोवंक जाय आशिल्ली."

"हय! तीं आनी शाश्त्रां आसात."

"शाश्त्रां म्हूण न्ही रे. घरांत बरो वारो येवपाक जाय

जाल्यार उदेंत अस्तम वेंचून काडपाक जाय आशिल्ली. म्हाका घराचो फुडो उदेंतेक करपाक जाय आशिल्लो."

"अस्तमेकूय केल्यार जाता न्ही?"

"उदेंतीकूच फुडो कित्याक जाय आशिल्लो जाणा? दीस उजवाटना सकाळचें वत भितर येता. तें वत मोव आसता. तें येतलें फुडल्या दारा. सांजचें जें कडक वत येता तें फाटल्या दारा येतलें. घरांत कडक वत येता तो वांटो जरी तापलो, तरी सांजवेळां कोण फाटल्या दारा वाऱ्याक बसनात. सांजेवेळां बल्कांव न्हिविल्लें आशिल्ल्यान सुसेगाद खबऱ्यांक बस. न्हंयचे देगेर घर आशिल्ल्यान वारोय जाय तसो खेळटलो. आनी रस्तोय लागीं जाय आशिल्लो. निमाणे हो जागो मेळ्ळो. खूब खोस जाली म्हाका. बाबान खूब मजत केली आं जागो सोदपाक."

"जाणां! हांवें काम केलां न्हय हांगा. उगडास आसा म्हाका, रांदचेकुडींतली वणत एका सुतार येवूं ना म्हूण अख्खी वणत तुवें उडोवंक लायली."

"काम करता जाल्यार सारखें करप न्हय तें! पूण बरें जालें आं घर बांदून. जागो सोदता, बँकेचीं कामां जाता, लायसन्स काडटा आनी बुन्याद मारून घर पुराय जातासर दोन वर्सां गेली. आनी दोनूच म्हयन्यांनी सर्वेशाली चीट आयली आपूण बायलेक घेवन येतां म्हूण. तिका गोंय पळोवपाक जाय. आनी रोखडोच, कांय दिसांभितर आयलो बायलेक घेवन."

"मोग करपी धाडशी आसतात. भिरांत बिरांत कांय आसना तांकां. आनी कोणूय जाल्यार तोंड दाखोवचो नाशिल्लो आवयक....." बाबलो एक गाळ मारूंक वतालो पूण भाटकाराचें तोंड पळोवन ती ताणें भितरलेभितर गिळून उडयली.

"सर्वेशाचे बायलेक रांदचे कुडींत तिणें केन्नाच येवंक

दिलें ना. एके अमेरिकन चलयेक आमच्यो चाली रिती, आमचें सोवळें, शिकयलेबगर कशें येतलें? मीरान तिका आपले रांदचेकुडींत आनी देवाकुडींत केन्नाच प्रवेश दिलोना. तिका हांवें हजार वेळां सांगलें तिका ह्या घरांतल्यो चालीरिती, आमचे संस्कार, मनशा मनशाकडेन वागपाची पद्दत, तांचे एकामेकांकडले संबंद पयलीं शिकय. आमच्या समाजांत दर मनशाकडेन वागतना विंगड विंगड बंधनां सांबाळचीं पडटात. जाणट्यांकडेन वागप कशें, देराकडेन वागप कशें, व्हडले जावेकडेन, धाकले जावेकडेन वागतना वेगळी वेगळीं बंधनां पाळचीं पडटात. तीं सगळीं तिका समजावन सांग. तिका तुवें आपलीशी करून घेतली जाल्यार तूं तिका तुका जाय तशें वळण लावंक शकतली."

"तिका सांगलेबगर कशें समजतलें? समजावन दिवपाक जाय. आपणें करून दाखोवपाक जाय."

"आमच्यो बायलो मरे शिक्षीत आसूनय अशिक्षीत शो वागतात. पयलेच खेपे तीं घरा येतात म्हूण कळ्ळें न्ही मीरा सामकी मख्ख. तोंडाचेर कसलेच भाव ना. पूत येता म्हणपाचोय आनंद ना आनी नवी सून येता म्हूण कसलीच उमेद ना."

"कशी आसतली भाटकारा? मनाविरूद जाल्लें लग्न तें. कशी येतली उमेद तिका?"

"निमाणें हांवें तिका समजावन सांगलें;

'आगे, नवी सून पयलेच पावट घरा येता. तिका हुनहुनीत येवकार दिवपाक नाका?'

'हुनहुनीत येवकार? धगधगीत इंगळेच दवरतां हातार तिज्या. म्हगेल्या सर्वेशाक गुटलायला तिणें आपल्या जाळयांत. सोडपाची ना हांव तिका. बरी वळखुना ती म्हांका. तिका दाखयतां हांव इंडियन मांय कशी आसता ती.'

'आगे तशें करूं नाका. सर्वेशाची बायल म्हूण तरी बरी वाग तिजेकडेन. कसोय जालो जाल्यार तो तुजो चलो. ताका वायट दिससारकें कांय करूं नाका.'

'ताजी चिंता हांव कित्याक करूं? ताणें म्हजी केल्या?'

'अशीं पिशेपणां करूं नाका मीरा आं. अमेरिकेसारकिल्या देशांतल्यान ती आयल्या, तुवें पिशेपणा केल्यार तुजी अक्कल वचची ना, देशाची वतली. कसलो देश काय म्हणटले. मागशिल्लो, रानवटी, मनीसंघाणो.'

'रानवटी? आमच्या देशाच्यो चलयो चल्यांच्या आंगार पडनात म्हूण सांग तिका निर्लज्जासारक्यो.'

'सून म्हूण न्हय. निदान सोयरी वा अतिथी म्हूण तरी बरी वागय तिका. आमी अतिथीक देव मानला. घरा आयिल्ल्याचो अपमान करप आमच्या संस्कारांत बसना.'

'वयलेचाराक दाखयन हांव, पूण मनांतलो संताप खंय वतलो?'

'तो मनांतूच लिपोवन दवर. तातूंतच शाणेपण आसता.'

'जमचेंना तें म्हजेकडेन.'

'तुका जाय तें कर बाये. हांव आनीक कितें सांगतलों तुका? तूं शिकिल्ली आसा. तुका बुद्द आसा. आनी मुखेल म्हणल्यार तूं संस्कारी आसा.'

"म्हज्या उपदेशाचो परिणाम त्या वेळार जालो काय ना कळळें ना. ती उठून तडक रांदचेकुडींत गेली. पूण जसो जसो तीं येवपाचो वेळ लागीं पावत आयलो तशें तशें म्हज्या काळजांत धडधडूंक लागलें. काळीज घट्ट केलें आनी मनांत म्हणलें, जें कितें मुखार येता ताका धिरान तोंड दिवप. मनांत म्हणलें बायलूय

म्हजी आनी सुनूय म्हजी. हांचेभितर चड पेटूंक दिवचों ना आनी पेटलेंच जाल्यार तें पालवपाचो यत्न करतलों. तो खीण निमाणें आयलोच. तांची टॅक्सी दारांत उबी मात रावल्या, तुका अजाप सांगतां, कांय खिणापयलीं जंय सगळ्यांक किण्ण दिसतालें, थंय भुर्इ करून गर्दी जमली. ही गर्दी आमचे सूनबायक पळोवपाक. आनी ताज्याकूय अजाप म्हणल्यार आमगेली घरकान्न सगळो साज शिंरगार करून, हातांत उंवाळपाचें ताट आनी तांदळांचें भरिल्लें माप घेवन येता ती दिसली. तुका सांगतां बाबल्या, केदें वजें म्हज्या माथ्यावयल्यान देंवलें जाणा तूं. केन्नाच पळयलिना ती खोस म्हाका तें पळोवन अणभवपाक मेळ्ळी.

दारांत दोगांय उबीं. सर्वेश आनी ताजी घरकान्न. आवयक पळोवन सर्वेश आसा थंयच उबो रावलो. ताका समजलें आवय आपल्याक आनी बायलेक उंवाळूंक सोदता म्हूण. आवयलो आपल्याचेर राग ना अशें समजून तितलेंच बरें दिसलें जातलें ताका. मीरान सुनेक पळयलें आनी जागच्या जाग्यार उबी रावली. तिज्या तोंडावयले भाव खिणांत बदल्ले. ती तशीच दारांत भितरलेवटेन उबी आनी भायलेवटेन सर्वेश आनी बायल. तांचेफाटल्यान शेजारी पाजारी! धा पंदरा जाण. कांय वेळ किण्ण शांतताय! सगळेच पुतळ्याभशेन जागचे जाग्यार उबे. कितें जालां कोणाक कांय कळ्ळें ना. ती शांतताय मीरानूच भंग केली. हें पळोवपाक तूं जाय आशिल्लो बाबल्या. तिजें मुखामळ सामकें तांबडें जाल्लें. मातशा रागानूच तिणें म्हणलें;

‘एक साडीय घेवन दिवपाक तुका तांकलें ना रे सर्वेश? ही कितें रे दशा तिजी? घरा येता म्हूण तरी साडी न्हेसपाक सांगचेलें न्हय तिका?’

‘साडी घेवन दिवपाक जाताली आई. पूण तिका न्हेसपाक येता खंय.’

‘तुवें न्हेसवची आसली.’ तेचवांगडा सगळेच हांसले, पूण कशे, आवाज करिनासतना. आवाज चेपून हांसले. मीरान फुडें म्हणलें;

‘तुजी आई साडी न्हेसतना तुवें केन्नाच पळयली ना? भुरगेपणांत सदांच बारीकसाणीन पळयत रावतालो मरे तूं.’

‘पळयली म्हूण न्हेसोवपाक येवं नाका?’

‘बरें! एक तिकलीय हाडून दिवपाक जाली ना तिका? कपल कशें फुटलां पळय तिजें!’

‘अमेरिकेक तिकल्यो बी खंय गे?’

‘हांगा येतना पेनान तरी तांबडें लावपाचें न्हय? कितें रे हें? एक साडी ना. कपलाक कुकूम ना. गळयाक मंगळसुत्र ना. गोंयकार मरे तूं?’

‘ना गे आई, हांवें तें चिंतलेंय ना आनी ताजी गरजूय दिसली ना म्हाका. ...’

“सर्वेशाच्या तोंडार स्पश्ट दिसतालें, ताका तिडक मारल्या, पूण तो तिडक भितरले भितर गिळटालो म्हूण. आतां मात हांवें चिंतलें, हें प्रकरण हाताभायर वता दिसता. हांवेंच मदीं तोंड घालें;

‘आतां तूं तांकां दारांतूच उबीं करतली काय भितर घेतली?’

मीराकूय दिसलें, ह्या वेळार वाद घालप सारकें न्हय. तिणें जोडप्याक उंवाळ्ळें, दिश्ट काडली आनी तांकां भितर घेतलीं. भितर सरतनाच सर्वेशान बायलेक कुरू केली आनी आपणेंय ओणोव घेवन मीराच्या आनी म्हज्या पांयांक हात लायलो आनी ‘पांय पडटां आं बाबा-आई’ म्हणलें. बायलेन मात मातशें कमर बागयल्याभशेन केलें. मनांत म्हणलें, ‘प्रकरण बरेंच कडक शें दिसता.’ हांवें बरें जावं म्हणलें. पूण मीरा अस्सो बोंचो वाकडो

करून भितर गेली. आनी दुसऱ्या दिसाच्यान मीरा आनी सर्वेश हांचेभितर मोनें युद्ध सुरू जालें.”

“मोनें आसल्यार युद्ध कशें जातलें?”

“सर्वेश अमेरिकेक लग्न जाला हें तिका पचूंकच नाशिल्लें. तिचें एक व्हडलें सपन भंगिल्लेंच पूण तो आपलेपसून पयसावतलो ही कल्पनाच तिका सहन जायनाशिल्ली. अमेरिकन ड्रेसांत आपली सून घरांत भोंवता तें तिज्यान पळोवं नजो जातालें. सर्वेश आनी मीराभितर एक वणत तयार जाल्ली. पूण तिज्याकूय रुंद वणत मांय आनी सून हांचेभितर उबी जाल्ली. हिणें पुताक सांगप आनी ताणें तें आयकप ना. आयकना जातकच उलयनासतना रावप. एक प्रकारचो सगल्यांचेरूच मोनेळ पडिल्लो. पूण भितरले भितर मीराचें मन रागाच्या धगान खतखततालें. हें मोनें युद्ध उतरांचें युद्धय जातालें. ही ताका सांगताली;

‘सर्वेश, हांगा आसतना तरी तुजे बायलेक साडी न्हेसूंक सांग. आनी तिकली लावंक सांग.’

‘कित्याक तूं इतलें घेवन बसता आई? ती कितें हांगाच रावतली? आठ दिसांनी वतली. कित्याक वग्गी तिका दुखयता? तुज्याय मनाक त्रास आनी तिजेयकडेन वायटपण.’

‘बरो जपता मरे तिज्या मनाक! हांव कोण न्ही. म्हाका मन ना मरे?’

‘आसूं गे आई आतां. तिजेर लक्ष दिवं नाका तूं.’

‘ह्या घरांत तें सोबना रे. हांगा वाडिल्ल्यो चलयोलेगीत साडी न्हेसतात.’

‘ती हांगची संवय आई. जग इल्लें इल्लें फुडें वतलें तेन्ना हांगच्यो बायलोलेगीत साडी न्हेसपाचें सोडून दितल्यो.’

'तितले फुडें आमी पावूंक नात. पावतात तेन्ना पळोवया. पूण आज हें असलें हांगा सोबना. आनी हांगा चलचेंय ना. सांजेवेळां तिका घेवन बाजारांत चल आनी चार साडयो घेवन यो. हांव ब्लावज शिंवून घेतां तिज्या जोखाचे.'

'शिंपी ब्लावज शिवून दितासर आमचें वचपाचें जातलें.'

'तुका ती चिंता नाका. चोवीस वरांभितर दोन ब्लावज हांव शिवून घेतां.'

'ती तयार जावंचीना आई.'

'अशें सांग! तुका बायलेचें मन दुखोवपाक नाका. बायल ती तुजी. तुवें सांगल्यार तयार जावची ना म्हणल्यार कितें?'

'पूण तिज्या पर्सनल फ्रिडमा आड हांव येवचों ना.'

'व्यक्तिगत स्वातंत्र्य.' हांवें फोडणिशी केली.

'इंग्लीश शिकयात तुमी म्हाका आतां. अन्नाडी न्हय हांव!' तिणें नाळीचें तोंड म्हजेवटेन केलें.

'तुमीय कांय सांगूं नाकात ताका आनी म्हाकाय उलोवपाक दिवं नाकात. ह्या घराची पद्दत आनी परंपरा सांगतां ताका हांव. तुमच्या घरच्यांनी आनी तुमी म्हाका शिकयल्ली, तें तुमी विसरले. आनी तुमकांय सांगतां, फाल्यां शेटीगेर वचून मंगळसुत्र करूंक सांगात, भटाक हाडून मंगळसूत्र घालया तिका.'

'खंयचोच भट तयार जावचोना. कित्याक ओगीच नाका आशिल्लो हट्ट करता?'

'कित्याक तयार जावचोना?'

'शास्त्राप्रमाण लग्न खंय लायलां तांचें?'

'लग्न लावया न्हय घरच्या घरा.'

'आगो, दोन धर्मांच्या चलो-चलयेचें लग्न लावपाचें शास्त्र आमच्या धर्मांत ना.'

'सर्वेश, तिका आमी आमच्या धर्मांत काडुया.'

'कितें उलयता तूं आई? धर्मांत काडली म्हूण कितें फरक जातलो तिज्यांत? ती तीच उरतली न्हय?'

'आरे, पूण लोकांक सांगूंक तरी मेळटलें न्ही, तिका आमी...'

'हें पळय आई, आमची जीण आमी जगुंया. लोकांखातीर आमी जगनात.'

"आपल्या मनाक जाय तशें जायना म्हूण मीरा त्या दिसाच्यान खिणा खिणाक सुनेक लागली हिणसावपाक. 'हिका आवय बापायन रीत शिकोवंक ना, कसल्या घराण्याची कोण जाणा.' घरांतले रीत रिवाज तिका फोर्सान शिकोवपाचो हिजो प्रयत्न आनी तिका तातूंतलें कांयच शिकपाचें नाशिल्लें. हिगेल्या फोर्साक लागून तिणें उमेद दाखयली ना. मातशी गोडी गुलाबी दाखयल्ली जाल्यार घडये ती आयकत आशिल्ली. तीय तितलीच हट्टी. इंडियेंत येवन उमळशिकेन भारतीय संस्कृती शिकपी गोरी बायल हांवें पळयल्या. सर्वेशाले बायलेन इल्लो तरी इण्टरेस्ट दाखयल्लो जाल्यार हिका मातशें बरें दिसतलें आशिल्लें. गोंयच्योय चलयो म्हूण सगळ्या विशयांत पारंगत आसतात? आमचें लग्न जालां तेन्ना मिराक पूण सगळेंच खंय खबर आशिल्लें. मीराचीय गत तीच जाल्ली बाबल्या. तांतल्या तातूंत आमची पणजी इल्ली सुधारिल्ली न्हय. तिकाय चाली रिती तितल्यो खबर नाशिल्ल्यो. लग्न जावन तिसऱ्याच दिसा कितें जालें. हांव आनी मीरा बल्कांवार बशिल्लीं. म्हजो आतेभाव, जयवंत रे, भितर सरलो. मीरा ताका वळखली ना. लग्ना दिसा वळख करून दिल्ली तितलीच. जाणटो

वा परकी मनीस घरांत येतकच घरचे सुनेन वा नवे सुनेन उठून उबी रावपाची पद्दत आसता. मीरा उठून उबी रावली ना. तो तडक भितर गेलो आनी काडलो फोग. मात लेगीत मुर्वत नाशिल्ली बायल, आवयबापायन देख दिली ना, अन्नाडी, जाण्टयांक मान दिवपाक कळना, अशें कितें शें उलयत रावलो. हांव ओगीच रावलों. कितेंय उलयलों जाल्यार बायलेची बाजू घेता म्हूण म्हजेर तापता आशिल्लो."

"तसोच तो. वळखतां हांव ताका बरो. रूं नाशिल्लेकडेन पूं काडपाक हुशार तो."

"हांव कितें सांगतालों? घरांत आमचें एकामेकांकडेन वागप हें त्या त्या नात्याचेर अवलंबून आसता, अमेरिकन समाजांत तें ना वा वेगळे तरेन आसतय बी. एक खेप तर व्हडल्या घरांत पंचमीचें देवकारें आशिल्लें. थंय जेवणाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो पंगती. तुका खबर आसा तें. सूनबायक पंगतीक बसूंक येना. जमनीर बसून जेवप त्या लोकांक जमना. घे मागीर. चारूय वाटांनी थोमण्याचे बाण येवपाक लागले. आशीर्वादाच्या वेळार तर तिका साष्टांग नमस्कार घालुंकूच येना. सगळे लोक हांसले. रासवळ कुटुंबांत जाता तें. सुनेनूय तें हांसून व्हेलें. पूण आमगेलेचो अपमान जालो. तिज्यांतले मांयचो अभिमान जागवलो. घरा येतकच तिणें वायट बऱ्या उतरांनी सोलून काडली सुनेक. तरी बरें मांयची खूबशीं उतरां सुनेक कळ्ळींच ना. मांय सुनेच्या गाळींचो कोश वेगळोच आसता. तो फकत अस्सल गोंयकार मांयक आनी सुनेक खबर आसता."

"पयली वयली सून. सगल्यांकडल्यान अर्थ अपुरबाय जाता तें पळोवन मांय आनी मांवाच्या आंगार एक कील तरी मांस चडूंक जाय अश्या वेळार. त्यो उमेदी भंगतात तें पळोवन भाटकान्नीचें मन रागान पेटलें आसतलें. अश्या वेळार सुनेचीय

काकुळट दिसपाची."

"म्हाका दिसलीच पूण तिका कशी दिसतली? तिगेल्यो सगल्यो इत्सा, उमेदी भंगल्यो न्हय! सकाळ जाली म्हणटकच सुनेचें नोत काडपाक सुरवात. 'हिका सारकें उलोवंकूच येना, सारकें चलूंकच येना, कोणामुखार कशें उबें रावचें, कशें उलोवचें, कसलेंच धंग ना. आमच्याच नशिबांत कित्याक बरयली काय हिका देवान? धड रीत ना, रिवाज ना. म्हजेंच नशीब अशें फुटलें कित्याक?"

"सगळ्यो चाली-रिती मांयन सुनेक इल्ल्यो इल्ल्यो करून सांगूंक जाय आशिल्ल्यो."

"ना. तेबगर मांयपण कशें गाजोवपाक येतलें आशिल्लें? शिकयलेबगर कशें येतलें? हेंच येना तेंच येना अशी कागाळ करून उपकरता? सुनांक बुद्द शिकोवप, तिज्यो चुको काडप हो आमच्या मांयांचो अधिकार. तो कसो वगडायतलीं तीं? मांयचें वागप सुनेक विचित्र दिसलें. मुखेल म्हणल्यार मांयक यजमानीण म्हूण मिरोवंक मेळ्ळें ना. लग्नांत दोन चार साडयो बदलूंक, माथ्यावयल्या केंसापसून पायांच्या नाखटामेरेन भांगर-शिंगर घालूंक मेळ्ळें ना. लग्नांत यजमानिणीचो एक वेगळोच झेत आसता. तो मेळ्ळोना म्हूण तिका राग. काडली मागीर सुनेचेर तिडक. सुनेन येवपाचेंच बंद केलें."

"तिका एक समजना. पुतान पूण समजुपाचें न्हय! ताणें आपल्या मुळाक विसरूंक जाता? रुख केदोय वाडलो म्हूण ताणें आपल्या पाळा-मुळांकडेन बेमान जावंक फावना."

"आरे दिसलें, ताकाय दिसलें. आपल्या पाळांमुळांपसून पयस पावलां हें ताका जाणवलें."

"तेन्ना तरी येवन आवयक सांगपाचें न्हय? ह्या भुरग्यांक

आपणाली चूक मानून घेवपाक लज दिसता."

"पूण खूब कळाव जाल्लो. ताका जाणवलें तें खूब तेपान. भुरगीं जालीं तेन्नालेगीत तो खोशयेच्या ल्हारांर नाचतालो. पूण तीं पश्चिमी संस्कारांत वाडूंक लागलीं तेन्ना वास्तवतेचे भुंयेर आयलो. एक दीस आयलो भुरग्यांक घेवन गोंयां. पूण कळाव जाल्लो. जुवारींतल्यान उदक खूब व्हांवून गेल्लें. हे खेपे तो एकलो एकमुळो सो बसतालो. आपल्याच विचारांत. आवयच्या लक्षांत तें गेल्लें. पूण तिजें आनी पुताचें उलवणें हालीं गरजेपुरतेंच आसतालें. तिणें म्हज्या कानार घालें. संद पळोवन एक दीस हांवें सर्वेशाक विचारलें;

'सर्वेश, कसले अडचणींत बी आसा तूं?'

'ना बाबा, अशें कित्याक दिसलें तुका?'

'भुरग्यांक घेवन आयला. तांचेकडेनूय तुजें वागप तितलें आपुलकीचें ना. आमी आदल्या काळांतले जावन आमचे तुमचे संबंध कशे आसताले? तुमकां खेळटा आसतना, खंयीय गेल्लेकडेन नवें कितें दिसलें जाल्यार वा आमचे पद्दतीपरस वेगळी पद्दत कोणागेरूय दिसली जाल्यार तुमी येवन आमकां सांगतालीं. आमी मागीर बरें कितें वायट कितें हाचे कळत नकळत तुमचेर संस्कार करतालीं. असलें कितेंय तुमचेभितर दिसच ना. काळावांगडा नवी पिळगी चड मेकळेपणान वागपाक जाय आशिल्ली. तशें कांय दिसलें ना तुमचेभितर. तांकां भोंवडावन हाड. गोंय दाखय.'

'भुरग्यांचीच चिंता जाल्या म्हाका बाबा. संजू चवदा वर्सांचें जालां. संतोष बारा. सध्या तांचेमुखार प्रश्न पडला तीं अमेरिकन काय इंडियन? तांकां प्रश्न पडटा, तांचो धर्म खंयचो? ख्रिश्च्यानिटी काय हिंदू? आवय ख्रिश्चन, बापूय हिंदू. आमी हांगा धर्म सेकंडरी मानतात. ते धर्माचेबाबतींत पर्टिकुलर. संजूक एक दीस क्लासांत

विचारलें. तुजो धर्म खंयचो? हाणें सांगलें, हिंदू. ताका ताणें धर्माचेर पांच मिनटां उलय म्हणलें, हें कितें उलयतलें. तेंच कित्याक, म्हाका तरी म्हज्या धर्माचें कितें खबर आसा? पांच वळी तरी बरोवंक येतल्यो म्हाका? तांकांच न्हय बाबा म्हजेमुखारूय तोच प्रश्न आसा. हांव कोण? हांव धड इंडियन न्हय धड अमेरिकन न्हय.'

'अमेरिकन न्हय म्हणल्यार कितें? तुवें तर मोठ्या प्रयासान अमेरिकन सिटिझनशीप घेतल्या. अमेरिकन नागरीक म्हूण अमेरिकेन तुका कायद्यान मान्यताय दिल्या.'

'तरी ते म्हाका वा आमकां इंडियनांक अमेरिकन मानतात खंय? इंडिया इंडियन मानपाक तयार ना. आमी धड अमेरिकन न्हय धड इंडियन न्हय. इंडियन लोक आनी मूळ अमेरिकन लोक हांचे मदीं 'व्हास्ट कल्चरल गॅप' आसा बाबा. आमी कितलेय कश्ट केले तरी आमी थंय उखलापे ते उखलापेच. हांगा गोंयांत एक सोशल लायफ आसा, एक कल्चरल लायफ आसा. एक शेजार धर्म म्हूण आसा. हांगा जीण फकत पयशांखातीर जगनात. जीण जगपाचो अर्थ खोल खोल आसा. हांगा 'हांव' ह्या उतराक व्हडलें म्हत्व ना. 'आमी' हें उतर म्हत्वाचें. इल्लेशालेगीत परिचयान 'तुमी' लेगीत 'आमी' जातात. तेन्ना हांव धांवलों पयशांफाटल्यान, ग्लॅमरा फाटल्यान. आतां म्हाका कळटा, तें धांवप कितलें निरर्थक आशिल्लें तें. हांगा शेजारी नवो आसल्यारलेगीत तो केन्ना संवकळीचो जाता आनी केन्ना इश्ट जाता तें आपल्याकूच कळना. थंय शेजारी शेजाऱ्याक वळखना. शेजाऱ्यागेर वतलो जाल्यारलेगीत ॲपोयंटमेंट घेवचो पडटा. तोय रोखडो मेळपाची आस्त आसा? तो म्हणटा बायलेक विचारूंक जाय, भुरग्यांक विचारूंक जाय. फॅमिलीची व्याख्या आमचेपरस सामकी वेगळी. आपूण, बायल आनी भुरगीं. एक फॅमिली म्हणल्यार एक आयलण्ड शें. दर एक मनीस म्हणल्यार एक आयलण्ड म्हणल्यार जाता.'

'हय! म्हाका खबर आसा. दोन-तीन म्हयने हांव तुगेर रावलों खरों पूण म्हाका कादय शी दिसली ती. गोंयांत हांव पोर्तुगिजां वेळार जयहिंद म्हणून दोन म्हयनेलेगीत कादयेंत गेल्लों न्ही जाल्यार आज धा पंदरा हजार पॅन्शन जोडटलों आसलों. वेळ वचपाक वांगडचे सुटके झुजारी खबरी करपाक मेळटले आसले. दोन-तीन म्हयन्यांची ती कादय म्हाका तीन वर्सांची दिसली. इतलो बेजार आयलो थंय म्हाका. तरी बरें! आई तुजी गेली ना म्हजेवांगडा. ती नाका शेवट करतली आसली म्हाका परतीं या म्हूण. एकलो भोंवपाक जायना, तुमी चार दीस काम सोडून चार दीस भोंवले वांगडा.'

'चली एक वाडली म्हणटकच केदो प्रेशर येता? आमच्या चलयांनी डेटींग म्हूण केन्ना आयकलां? थंय चवदा पंदरा वर्सां जालीं की जालें, तांचें डेटींग सुरू. थंयच्या आवय बापायकय कांय दिसना हातूंत. तांचें नॉर्मल लायफ तें. आमी एका वेगळ्या संस्कारांत वाडिल्ले.'

'हय मरे, हीच गजाल तुका तुजी आई आड्डून आड्डून सांगताली न्हय. तेन्ना तुका पटलें ना. सोरो चडटा तसो तुका मोग चडिल्लो. कितलेंय जरी ओपन मांयड, ओपन लायफ म्हणलें न्ही, तें आमकां भारतियांक न्हय. आमकां कर्मठ म्हणटात तुमी. पूण संवसारांत जितल्यो कर्मठ संस्कृती आसात तितली मात कर्मठ आमची संस्कृती न्हय.'

'आतां आईचे विचार कितले योग्य आशिल्ले तें पट्टा. रगताच्या नेटार आमी नवी सृश्ट निर्माण करूंक वतात. पूण प्रत्यक्ष अणभवान घडटा तिसरेंच. हांव सध्या मदल्या मदीं हुमकळटां. म्हाका धड ही तड ना धड ती तड ना. येरें नाशिल्लें म्हजें सुकाणू दिकाहीन जालां. थंय कोणाचें दुख्ख कोणाक लागना. म्हूण आयलां हांव बाबा भुरग्यांक घेवन. तुमच्या सहवासांत कांय दीस रावून

तीं सुधारलीं जाल्यार सुधारलीं.'

'तें आतां कठीण रे सर्वेश. तूं आयल्यार पांच स दीस जाले. तुवें पळयल्यातं भुरग्यांक? अजून ती भुरगीं हांगा रमूंक पावलींच नात. परकी परकी शीं वागतात. पुस्तकांतल्या राकेसांक पळयल्लेभशेन तीं आमचेकडेन पळयतात. एकलें एके कुडींत, दुसरें दुसरे कुडींत. पुस्तक आनी तीं. आमचेकडेन तांचें सुत्र जुळप कठीण जालां. कित्याक जाणा तूं? तांची भास धड आमकां कळना आमची तांकां येना. स्पश्ट उलोवपाक जायना तरी मोडकी तुटकी इंग्लीश हांव उलयतां, मीरा तर स्पश्ट उलयता. पूण तुजीं भुरगीं उलयतात तें आयकत जाल्यार तीं दुसऱ्या गिऱ्हावयल्यान बी आयल्यांत काय असो दुबाव येता. तांकांय आमी उलयतात तें आयकून तशेंच दिसतलें. तुवें तरी तांचेकडेन कोंकणी उलयत रावपाचें न्हय?'

'आवय इंग्लीश, घरांतलें, भायलें वातावरण इंग्लीश, कोंकणी उलोवपाची गरज शी दिसली ना म्हाका. आतां दिसता, हांव चुकलों म्हूण. आमी हांगा शिकल्यात ती इंग्लीश ब्रिटीश इंग्लीश आनी अमेरिकन इंग्लीश वेगळी. उच्चारानूय वेगळी आनी स्क्रिप्टानूय वेगळी.'

'आपल्या मुळाकडेन, आपल्या जाण्टेल्यांकडेन संपर्क सादपाच्या माध्यमाचें सुत्रूच तुवें तोडून दवरलां. रगताच्या नेटार तुमकां दिसता, कितें दवरलां कोंकणींत, कितें दवरलां गोंयांत आतां? मेळटा तातूंत संतुश्ट रावपाची कला आमच्यांत आसा. चड जोडपाचो हावेस दवरचो. पूण स्वत्व वगडावन न्हय, स्वाभिमान वगडावन न्हय, मुखेल म्हणल्यार स्वताचें अस्तित्व वगडावन तर न्हयच न्हय. वाडटे पिरायेचर तुमकां याद जाता मुळाची, घरची, आपले संस्कृतीची. तेन्ना खूब उशीर जाल्लो आसता.'

'हालींच डॉ. संजगिरी अमेरिकेक गेल्ले. गोंयकारांमुखार

तांणी भाशण केल्लें. तांणीं स्पश्ट सांगलें, तुमकां आमी आमचे म्हूण कशे मानचे? गोंयकारपण दाखेवपासारखें तुमी कितें दवरलां? तुमचो आचार, तुमचो विचार, तुमी उलयतात तें पळयत जाल्यार तुमी आमकां आमचे शे दिसनात. आज म्हाका जाल्यार अशें दिसता, तुमी आमकां सोंपले, आमी तुमकां सोंपले. हांव गोंयकारांभितर आसां, गोंयकारांकडेन उलयतां अशें म्हाका हांगा दिसच ना.'

'खरें तागेलें. सामकें सत उलयलो तो. आमचेंच पळय, गोंयच्या भुरग्यांक आजी आज्याबद्दल वा आमकांय नातरांबद्दल एक आंतरीक ओड आसता. ती दिसलीच ना केन्ना तुज्या भुरग्यांभितर. भारतीय संस्कृतींत जाणट्यांबद्दल भुरग्यांक एक ओड आसता ती दिसलीच ना तांचेभितर. परिणाम कितें जाता? भुरगीं बेजारतात्त. आतां हे असले अवस्थेंत आमी तांचेर संस्कार कितें करतले? ज्या वयार आजी आज्ज्यांनी कांणयो सांगून भुरग्यांली मनां घडोवपाचीं आसतात त्या वयार तांणी अमेरिकेचीं पारपोळ सुटिल्लीं भुरगीं आनी टी. वी. चेर कार्टून पळयले. कशे घडटले भुरगे? नातरांनी आज्याचे फाटकुळेर बसून ताका घोडो घोडो करून धांवपाक लावप आनी आज्यान खरस काड़ीत दिमखुऱ्यानी धांवप हाजेवरी सूख आसना रे आमकां जाणटेल्यांक. नातरांवांगडा नातरांयेदीं जावन खेळपाचें सूख आमकां तुमी दिलेंच ना रे सर्वेश.'

"ज्या उद्देशान सर्वेश गोंयां आयिल्लो बाबल्या, तो उद्देश्य सफळ जालोच ना. सर्वेशाक बेगीनच तिकेट काडून परत वचचें पडलें."

"बऱ्या घराब्याची कशी अवस्था जाली पळय. खरें म्हणल्यार धाडूंकच जायना भुरग्यांक देशाभायर."

बाबलो भावूक जाल्लो. ताज्यान भाटकार आनी

भाटकान्नीची दुर्दशा पळोवंक नजो जाल्ली. ताका भितरल्ल्यान तिडक मारताली तांच्या भुरग्यांची. कितलो वेळ दोगूय शांत आशिल्ले. धाकलूची घरकान्न निमणे खीण मेजताली. अश्या वेळार तिजेभोंवतणी अख्खें कुटूंब आसूंक जाय आसलें. तो भायल्यान दिसतालो शांत पूण ताज्या भितरल्यान वादळ चलतालें. धाकलू उलयत वतालो. सुर्वेक बाबल्यान ताका आडावपाचो यत्न केलो. पूण ताणें चिंतलें, आज बायलेच्या यादींनी ताका उमाळो आयला. घुस्मटमार जातात ते मातशे भायर फुटूं दी, ओग वचू दी म्हूण तो वगीच बसलो. बाबलो कांय उलयना शें पळोवन ताणें फुडें म्हणलें,

"आवय बापायचें मरे सपन आसता, आपल्या भुरग्यांनी खूब शिकचें, खूब व्हड जावचें, वयर वयर उडचें. इतलें वयर कीं तांच्याय वयर आनी कोणालोय भुरगो पावचो न्हय. आमचीं सुकणीं वयर उडलीं तीं उडलींच. उडात रे; पूण मळबांत पाविल्लें सुकणें जे प्रमाण भुंयेचें भान दवरता तशेंच मनशांनीय दवरूंक जाय रे; पूण हें तांकां कोण सांगतलो?"

"एक म्हणणी आसा, वार पुरिल्ली आसता त्या गांवांत परतो परतो कोणूय येता म्हूण. चुकीचें तें. व्हडलो बाबा गांवचे ओडीन म्हूण केन्ना आयलोच ना."

"ताचोय गुन्यांव ना रे बाबल्या. तो कितें करतलो? ताका आनी उपायूच नासलो. सांखळी घाल्लेभशेन बांदून पडलो. पूण आवयवयलो मोग आटलो अशेंय म्हणूं नजो. ताणें म्हाका बरयल्लें. 'आई आतां जाणटी जाल्या, तिका बशींनी भोंवडावं नाका. खंयीय वचपाचें आसलें जाल्यार टॅक्सी करून चलात. पयशे जाय जाल्यार बरय, हांव धाडटां.' पूण हांवें केन्ना पयशे धाड म्हूण बरयलें ना. तशी गरजूय पडली ना. म्हजी येणावळ म्हाका पुरो जाताली. म्हज्या बापायच्या काळार भाटां बेंसांक लागून देमांद जातालें. त्रिबुनालार पावटी पडटाल्यो आपलो वांटो मेळोवपाक. पूण आज

त्या भाटांची गरज कोणाक आसा रे? भुरग्यांकडेन पयसो आसा. तांकां भाटांची गरज ना. फुडें फुडें भाटांचें कितें जातलें कोण जाणा? तुमच्या लोकांनीय कामां करपाचें सोडलें.

"पूण म्हाका दिसता तुमचे हे प्रश्न आमच्या लोकांत ना. तितलें सूख."

"हें आज म्हणटा तूं. पूण पळय कांय वर्सांनी. तुमचेय लोक शिकूंक लागल्यात. खूब उंचेलें शिक्षण घेतात. हीच पाळी येतली जाणटेल्यांचेर. पयशांचें आनी परदेशांचे आकर्शण बारीक मोठो पळयना."

"आमचोय लोक आतां भाटां घेवपाक लागल्यात. भाटकार जातात."

"कांय तेपान तांकांय विकचीं पडटलीं. तेय नोकरी धंदो करूंक लागल्यात. तांच्योय गरजो पयशांनी भागतल्यो. भाटां ओस पडटकच तांकांय विकचीं पडटलीं. वा बांदतले मागीर व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो. अती धन मेळटा जाल्यार जमीन कोणाक जाय? भाटां बेसांचेर आमचो जो मोग आशिल्लो, जो जीव आशिल्लो, तो आतांच्या पिळग्यांनी खंय दिश्टी पडटा तुका."

धाकलू उलयत वतालो. इतलो तो केन्नाच उलोवंक नाशिल्लो. बाबल्याकडेन तर केन्नाच ना. भुरगीं परदेशांत वतकच बाबल्याकडेन ताजें उलोवप वाडिल्लें हें खरें. एकलेपणांत बाबलोच ताजो जिवाभावाचो इश्ट जाल्लो. हालीं हालीं धाकलूभितर म्हातारपणाचीं लक्षणां चडूच दिसतालीं. दोळयांनी दिसप मातशें उणें जाल्ले. चलतना धोपरां दुखूंक लागिल्लीं. पावलांक सूज आयिल्लीं. पयलीं पयलीं ताणें दोतोराल्यो गुळयो घेवन पळयल्यो. तितलेपुरतें मातशें सुमार दिसप पूण परत तीच गत. देखून ताणें कितें जाता तें जावं परत आनी गुळयो घेवप ना अशे थारायलें.

आतां दुयेंसां जातात तीं भलायकी सुधारपाचीं न्हय हें ताका कळिल्लें. पूण बायलेखातीर आपल्याक उबो रावपाक जाय आनी आत्मविश्वासान तिजी सेवा करपाक जाय इतलेंच ध्येय ताणें आपल्या दोळयांमुखार दवरिल्लें. जगपाखातीर मनशाक जिवितांत एक मोख जाय पडटा. कुटुंबाखातीर, नातरांखातीर, नातरांचें बरें-भलें जाल्लें आपल्या दोळयांनी पळोवपाखातीर जगपाची मोख आयच्या खिणाक तरी ताजेमुखार नाशिल्ली. धाकलूमुखार एकूच मोख आशिल्ली आनी ती म्हणल्यार बायलेची सेवा करप. भलायकेचे प्रश्न आसूनय ताजेमुखार आशिल्ली मोखूच ताजेकडल्यान कामां करून घेताली. सभावांतली जिद्द म्हातारपणाचेर जैत मेळोवपाक पुरो जाता.

हालीं हालीं बाजारांत वतना, बँकेंतल्यान पयशे काडटना ताका कोणाचोय तरी आदार जाय पडटालो. बाबलो गोंयांत रावूंक आयिल्ल्याक ताजीं खूबशीं कामां सोपीं जाल्लीं. दोगांय जाणटीं जातकच सोयऱ्यांनीय येवपाचें उणें क्रेल्लें. प्रोपर्टीकलागून बापोल भावांकडेन वितुश्टूच निर्माण जाल्लें तें अजून निवळूंक पावूंक नाशिल्लें. कांय दुखणी जशीं जाणटेल्यांकडल्यान पिळग्यांनी चलत येतात तशींच असलीं वितुस्टां एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन वारस हक्कान चलत येतात. ताका पूर्णविराम केन्ना मेळच ना.

उलयतां उलयतां तो बायलेम्हऱ्यांत आयलो. तिजें पांगरूण एकेवटेन गेल्लें तें सारखें केलें. साडी गुटलावल्ली ती सोडोवन सारखी केली. हांतुळळेली चादर ओडून सारखी पातळायली. वाळू मातशी वांकडी जाल्लेभशेन दिसली ती एकेवटेनतल्यान दामून सारखी करपाचो यत्न केलो. मीरा म्हणल्यार हाडांचो सांपळो जाल्लो, मीरा खाटीर आसा आनी ती गादयेंत भितर गेल्ल्यान थंय एक बायलमनीस न्हिदल्या म्हणपाचें दिसच नाशिल्लें. बाबलो

मातसो झेमता म्हणपाची ताका जाणविकाय जाली. ताणें म्हणलें,

“बाबल्या, न्हिदता तूं?”

“ना, ना भाटकारा.”

“झेमता कित्याक? न्हीद मातसो.”

“ना भाटकारा, म्हाका न्हीद येना. तूंच मातसो आड पड. हांव आसां न्हय हांगा. गरज पडल्यार उठयतां तुका.”

“म्हाका न्हीद येना. आमी इल्ली च्या करुंया बाबल्या. न्हीद वतली तुजी.”

“हय भाटकारा, च्या हांव करूं? कडक शें कितेंय ताळयार पडल्यार बरें दिसता.”

“हांव करतां च्या. तूं न्हिदसुरो आसा. इतलो वेळ सांगलें ना कित्याक तर तुवें?”

“हो वेळ च्या कर म्हूण सांगपाचो भाटकारा?”

“वेळ आनी काळ आमकां लागना रे. ती हांतुळणार आसा. ती आतां वतली. म्हाका दुख्ख आसा. हांवें ओगीच बसपाक जाय, हें सगळें केन्ना? घरांत खूब लोक आसात. ते म्हजी जतनाय घेतात. म्हाका कांय लागूंक दिनात अशी परिस्थिती आसता तेन्ना. हांगां एक खांबी तंबू हो. सगलो भार हांवेंच सोसपाचो. म्हजें दुख्ख हांवेंच सोसपाचें. म्हजें दूख्ख ल्हव करपाक दुसरो कोण येवचो ना. दूख्ख वांट्टकच दुख्ख उणें जाता अशें म्हणटात. पूण म्हजे बाबतींत अशें केन्ना घडलें ना. थोडें भोव हिजेकडेन वांटटालों. हीच न्हिदल्या. म्हाका दुख्ख वांटूंक मेळ्ळेंच ना. वेल्यान जे खबरेक म्हूण येतात ते अडेची सहानभुती दाखोवन वतात. अशें दिसता हांणी तुजेर जीव दिवरला. हांगेलीं काकुळटेचीं, दयेचीं कृत्रीम उतरां आयकून दिसता, हो हांगासरल्यान बेगीन गेल्यार पुरो.

तांची भाशणां आयकून तांचीच दया येवपाक लागता. करतां आं च्या. बरो कडकसो इल्लो च्या घेवया. ताळो भाजपाक जाय."

"कोरी च्या कर आं भाटकारा."

"जाणा रे हांव तुका फुटी च्या आवडटा म्हूण. आलें आनी गंजन घालून करतां. तूं बिस्कीट बी कितें खातलो?"

"खावपाक कांय नाका."

"आयलों हांव आं."

धाकलू भितर गेलो, मोरयेंत खूबशीं आयदना घांशिनासतना पडिल्लीं. तातूंतलो एक ल्हान सो तोप काडलो, बरो धुलो आनी दोन पेले उदक घालून च्याक दवरलें. बाबलोय आपल्या जाग्यावयल्यान उठलो आनी पांय सैल करपाक म्हूण आपुणूय रांदचेकुडींत गेलो. ताणें पळयलें, ओटयार जळा मळा डबे आनी आयदनां पडल्यांत आनी मोरयेंत बारीक मोटया आयदनांची रास जाल्या. ताणें विचारलें,

"हें कितें भाटकारा? आयदनांची रास पडल्या हांगा. तणशी खंय आसा?"

"ती पळय त्या कोनशाक."

"आनी गोबोर?"

"थंयच आसा पळय. ते फळयेर."

"हांगा आंगाक लावपाचो शाबूच आसा.

"आंगाक लावपाचो न्हय रे तो आयदनांचोच शाबू. आयदनां घांसपाकलेगीत शाबू आयला. आतां गोबोर बी फाटीं पडलो. आयदनां घासपाक मशीनूय आयलां. सगळीं आयदनां घांसपाक बसतलो तूं आतां?"

“पळय कितलीं फास्ट घांसता तीं. पटापट घांसतां.”

“पयलीं च्या घे. मागीर घांस आयदनां.”

“च्या करून सकल काडून पेल्यांत घालतासर अर्दीं आयदनां घांसून जातलीं. शांतू आयलें ना वावराक?”

“आठ दीस जाले, शांतूय बरें ना खंय. कशें येतलें? ताजे पयलीं हांव घरा धड खंय आशिल्लों. हांव घरा पावतालों तेन्ना शांतू येनाशिल्लें, तें येतालें तेन्ना हांव घरा नासतालों. आमची चुकामूक जाताली. तुका हॉस्पिटलांत दवरून हांव घरा येतालों. इल्ली पेज शिज़ोवन व्हरतालों तुजे भाटकान्नीखातीर. आयदनां-बियदनांचेर लक्ष दिवपाक वेळ खंय आशिल्लो?”

“भाटकान्न रांदचेकुडींत आसताली. सगळें जंयचे थंय आसतालें. ओटो धुवन पुसून निवळ आनी मोरी तर चकाचक आसताली. रांदचीकूड हांसताली.”

“हय बाबा! खरें तुजें. जाचें काम ताणें करपाचें. बायलांचीं कामां दादल्यांक कोणें सांगल्यांत. घर टाप टीप दवरचें तर तें बायलांनीच. घरची घरकान्न घरांत नासली जाल्यार घराक अवकळा येता.”

“आनी दादल्यांचीं कामां बायलांक जमचींच नात.”

“घरचीं कामां सांबाळूनलेगीत भायलीं कामां करपाचीय तिका खूब उमेद. हांव घरा ना जाल्यार ती बाजारांत वचून येताली. म्हजीय पिराय जाल्ली. भायलीं कामां करपाक शक्तूच नाशिल्ली. मागीर मात मनान सामकी खचली रे ती. गेल्लीं दोन वर्सां मात तिज्यान सापूच जायनाशिल्लें.”

“हय! मागीर हांव येतकर म्हाका वांगडा घेवन तूं वचपाक लागलो.”

"घरांतलीं कामांलेगीत तूं वा शांतू करतालें. पूण एक खरें तिणें आपलो नेम केन्ना चुकयलो ना. बशिल्लेकडेन ती शांतूकडल्यान सगळें काम करून घेताली. पूण शांतूक शीत वाळपाक दिनाशिल्ली. तांदूळ घालून शीत हांवें वाळपाक जाय आशिल्लें. हांव घरांत ना जाल्यार हांव येसर रावताली. पूण शांतून केल्लें शीत केन्नाच जेविनाशिल्ली."

"हय! तें आनी कोंत केन्ना कळळेंच ना म्हाका. अशें कितें तें?"

"हेर सगळें रांदप शांतून केल्यार जातालें. तें निलोपें. शीत लेप न्हय? तें शांतूल्या हातचें उपकरनाशिल्लें. इतलेंच न्हय हांवें वा घरांतल्या आनी कोणेंय केलें जाल्यारलेगीत तें न्हावन-धुवन करपाक जाय अशिल्लें. भयरो जळोप रे सगळो. घरांत तशीच पद्दत चलत आयिल्ली. आरे, घोव जेवलेबगर बायलेन जेवपाक जायना असो आमचो नेम. आनी तो नेम कडक रितीन ती पाळटाली."

"कडक आशिल्ली भाटकान्न?"

"लग्न जाल्या तेन्ना अशी नाशिल्लीच ती. पणजेसारक्या शारांत वाडिल्ली चली. चंचलशी, अल्लडशी, धड वल्लेंतूय धरना, सुपांतूय धरना. पूण विचार खोल. चडूय सुधारिल्ली न्हय जाल्यार रुढीवादांत घुस्पल्ली न्हय. मांयन आनी घरांतल्या जांणटेल्यांनी जे संस्कार केल्यात ते ती फुडें व्हरताली. फाटले पिळगेन फुडले पिळगेक दिवप आनी फुडले पिळगेन तें फुडें व्हरप. ही लागण मरे बायलांकडल्यान चड जाता. बरें-वायट वा खरें-फटीच्या कसाक लावन पळोवप ना."

उलयतां उलयतां ओटो आनी मोरी दोगांयनी मेकळी केली. आयदनां जागच्या जाग्यार घालीं. आनी ते भायर येवन

मीराच्या खाटीम्हऱ्यांत मातसो वेळ घुटमळ्ळे. कितें करूं कितें नाका हेंच तांकां कळना जालें. निमाणें ते आपापल्या जाग्यार वचून बसले. आनी इतल्यांत फोनाची रींग वाजली.

"हांवेंच सर्वेशाक आनी नितिनाक फोन केल्लो. दोगूय मेळ्ळे नात." ताणें रिसीवर काडलो आनी हॅलो म्हणलें,

'बाबा, हांव उलयतां शमी, कशी आसा आई?'

'कांय खरें ना गो तिजें. दोतोर म्हणटा फायचो दीस काडचीना म्हूण.'

'म्हाका येवपाक कशेंच मेळना बाबा. भुरग्यांची धांदळ जाता. फुडल्या म्हयन्याक येवपाक मेळटा जाल्यार येतात आमी सगळीं. तुजी धांवपळ जाता ती कळटा म्हाका बाबा. पूण कितें करतलें? हांव हांगा सात समुद्रां पलतडी पावलें. एका दिसा पुरतें येवन वतलें म्हणल्यारलेगीत येवपाक मेळना. तूं काडटा ते कश्ट हांगा भोगतात रे बाबा म्हाका.'

'आं गो, तूं येवन म्हूण कितें करतलें? खरें म्हणल्यार तुज्या भावांची गरज आशिल्ली हांगा. तांणीच तोंड फिरयलां. तुमी आयल्यार व्हडलो कितें बदल घडटलो अशांतली गजाल न्ही. पूण घरांत आपलो लोक आसतकच धीर सो येता गो.'

'सूख-दुख्खाच्या वेळार पुतापरस धुवेचीच चड गरज आसता बाबा. तुज्या पुतांच्योय कितें अडचणी आसतल्यो. परदेशांतलें लायफ तितलें ईजी आसना. धकचपाटच्यांचें जालां. भारतांत रावून समजना तें. घरा बसून सगळें गोमटेंच दिसता.'

'तूंय तांचोच पाखो घेतलें गो. तांकां तापयल्यारलेगीत तुका वायट दिसतालें. वळखतां हांव तुका भुरगेपणांतल्यान. तुमचो एकामेकांवयलो जीव पळोवन म्हाका खूब बरें दिसतालें.'

'आतांय आसा आमचें प्रेम बाबा, पूण आमी पयस आसात न्हय, तुका दिसना तें.'

'तुवें तें साबाळून दवरलां. एकल्यान तरी धाकटेपण घेतलें न्हय, सगळें बॅलन्स जाता गो. आसूं आं असोच मोग आसूं तुमचेभितर.'

'बरें बाबा, तूं जिवाक सांबाळ. चड तकालस घेनाका.'

'बरें गो, दवरतां. तूं बरें करून.'

"कोणाचो फोन आशिल्लो?" बाबल्यान विचारलें.

"शमीचो. तें एक, सामके आवयचेर गेलां. तिजेभशेनूच मायेस्त. म्हयन्याक एक दोन फोन करतलेंच."

"ताजें तरी लग्न तुमी गोंयकाराकडेन करून दिवपाचें न्हय? सगलेच फॉरेनाक. फुडाराचें कांय चिंतलें ना तुमी."

"आरे, ताका गोंयांतूच दिल्लें. ताच्या लग्नाची एक वेगळीच काणी आसा. आमी भयणीले चलयेच्या लग्नाक सांग्यार गेल्लीं. आतेभयणीच्या घरांत लग्न म्हणटकच मामे भयणीक बोवाळ पडटाच न्ही. तेन्ना हॉल बी कांय नाशिल्ले. दनपारां जेवणाक व्हडल्यो व्हडल्यो पंगती पडिल्ल्यो. रानप्यांवांगडा घरचींय वाडपाक बोवाळटातच न्हय. शमी आमगेलें आवयभशेन बोवाळशेट. तेंय वाडपाक गेलें. शशीधर नाडकर्ण्यान ताका पळयलें. ताका आमचें शमी आवडलें. ताजें रूप, ताजें काम, ताजी वागणूक, लग्नाक म्हूण आयिल्लो शशीधर आमगेल्या शमीकूच नियाळपाक उरलो. घरा वचून ताणें आपल्या चल्याक पयलो प्रश्न कितें केलो जाणां, ताणें विचारलें;"

'तुवें व्हंकलेचे मामेभयणीक पळयली हय रे?'

'कोणाक? शमीक? पुतान ताका परत फट् करून प्रश्न केलो'

'व्वा! नांव बी विचारून मेकळो मरे. म्हज्याकूय दोन पावलां मुखारच पावलो मरे तूं.'

'तातूंत कितें आसा. बरोबरचीं खबरी करतां करतां कळ्ळें नांव.'

'अशें ऽऽऽऽ बापायन कुचित्रीपणान विचारलें.'

'कशें आसा चली?'

'कशें म्हणल्यार?'

'पिशें कित्याक पांगुरता रे अशें?'

'पिशें? पिशें म्हणल्यार? कितें म्हणपाक जाय तुका बाबा?'

'इतलीं पिशेपणां पांगरूं नाका. तितलो भोळो ना तूं!'

'म्हाका कांयच समजलें ना बाबा आं.'

'बरें बाबा! स्पश्टूच विचारतां आतां. तें चली तुका आवडलें?'

'खंयचें चली?'

'शमी, तूं म्हणटलो तें शमी.'

'ना आवडूंक कितें जालां?'

'घालूं मागणी?'

'कोणाखातीर?'

'तुजेखातीर रे. असो लजता कितें चलयां भशेन.'

'ताजें शिक्षण पुरें जावंकना. सी. ए. ची परिक्षा दितलें खंय तें. अंदू फायनल इयर.'

'तें सुद्दां विचारून मेकळो तो. आव मात हाडटा त्या गांवचोच न्हय जाल्लेभाशेन. हांव खात्रीन सांगतां तुज्या मनांत

भरलां तें. मळबांत कुपां पळोवनूच सांगतां हांव पावस पडटलो काय ना तें. फाल्यां वता तर सांवड्डयां हांव.'

'परिक्षा आसा ताजी ह्या वर्सा. ओगीच डिस्टर्ब जातलें.'

'पूण उतर घालून दवरल्यार बरें न्ही?'

'परिक्षा जातकच विचारल्यार कितें आसा.'

'बापायच्या म्हणजे प्रोसोराच्या वा ताज्या मनांत बी आनी कितें आसल्यार कळटलें न्ही. आमकां आमचो मार्ग मेकळो जातलो.'

'कांय ना ताज्या मनांत.'

'कितें?'

'सध्या नाका, मागीर पळोवया.'

'अं! अं! ऽऽऽ आयलें म्हज्या ध्यानांत. पयलींच सगळें शिजलां तर. बरीच स्पीड मरे तुजी.'

'तशें कांय ना आं बाबा.'

'बरें! तशें कांय आसूं वा नासूं. पूण म्हाका दिसता हांव प्रोसोराकडेन उलोवन दवरतां. चलयेच्या कानार येन्ना घालूं नाका म्हणटां.'

'पळय! तुका बरें दिसता तें कर.'

"आनी तुका सांगतां बाबल्या, नाडकर्णी इतलो हुतहुतो, तो दुसऱ्याच दिसा म्हाका येवन मेळ्ळो. म्हाका ताणें लग्नांत घडिल्ली सगली गजाल सांगली. लग्ना दिसा, हांव मरे बाबल्या, पुण्याहवाचन धरून व्हंकल पावणी भायर सरमेरेन लग्नाच्या माटवांत आशिल्लों. चड बोवाळनाशिल्लों पूण सगळें पळयतालों. पूण ह्या नाडकर्ण्याल्या नाटकाचो म्हाका मातलेगीत दुबाव आयलो ना."

"कसो येतलो? ताजें लक्षूच आमच्या बायचेर आसलें. तुजेर नाशिल्लें भाटकारा."

"आसतलेंच! ताजो गुन्यांव न्हय तो. ताजे गृहस्थी जिणेंतली एक लागणूक ती. तुका एक सांगूं बाबल्या, मनीस आंकवारपणांत चलयांचेर नदर भोंवडायता तीय शोधक आसता आनी जाणटेपणांतूय चलयांचेर तो नदर मारता तीय शोधक आसता. तरणेपणांत तो चलयांभितर आपणाली जोडिदारीण सोदता. हातूंतच एकाद्री आपली आसत काय असो प्रश्न ताज्या मनांत येता. आनी जाण्टेपणांत ताजी नदर चलयांभितर आपली सून सोदता. बरें सुंदर चली दिसलें जाल्यार चवकशी करून मागणीलेगीत घालता."

"आनीक एक नदर आसता भाटकारा. चलयांच्या घोळक्यांत आपली चली जर आसत जाल्यार तो आपलें चली आनी हेर चलयो हांचे सुंदरकायेची तुळा करता. आनी ताका हेर चलयांपरस आपलीच चली बरी दिसता, सुंदर दिसता."

"बरो निरिक्षण करता मरे तूं बाबल्या. तुका काय चली ना."

"म्हाका चली ना पूण वांगडच्यांली नदर म्हाका दिसताली न्हय. आनी हांव एका चल्याचो बापूय भाटकारा. म्हजीय नदर सुनेचो सोद करताली. तुका दिसनाशिल्लें, आपल्यालें बाय हेर चलयांपरस सुंदर म्हूण."

"कित्याक दिसचें ना? आसाच! तशें आमचें शमी गोड भुरगें रे. कोणाच्याय लक्षांत वचपाचें. म्हगेलें शमी इतलें सुंदर आसा, कोणूय राजकुमार येवन खाडकेक हात लावन ताका व्हरतलो अशें मीरा सदांच म्हणटाली. आनी तें खरें जालें बाबल्या. राजकुमाराचो बापूय आयलो मागणी घालपाक. चल्याक पळोवन मीरा खूश. चलो बरो गोरो गोमटो आनी सुंदर. म्हणपाक लागली, घराणें बरें. जोडपेंय चार चौगांत सोबून दिसतलें. मीरान रोखडीच

मान्यताय दिली. लग्न थाटान जालें. सर्वेशालें लग्न मनासाकें करूंक मेळना म्हूण तिज्या मनाक खातालें. ताजो सगलो उणाव तिणें शमीच्या लग्नांत भरून काडलो. यजमानपण करतनाच चारूय .वटांनी लक्ष दिवपाचें काम तिणें बरे तरेन केलें. व्हडल्या घराच्या दारामुखार व्हडलो माटोव घाल्लो. माटोव भायर भितर बरो सजयल्लो. कितलो लोक रे!

आतां हॉल जाल्यात. आदीं माटोव घालप आनी लग्न जातकर तो काडप म्हणल्यार एक व्हडलो आक्त आसतालो.

माटोव म्हणल्यार आमचे संस्कृतीचोच एक भाग जाल्लो. सांग्यार आजून नाडकर्ण्यांगेर खंय फुडल्या दाराक शाश्त्राक एक तरी मल्ल बांदतात.

शमी आमचें बऱ्या घराण्यांत पडलां रे. तें मागीर जर्मनी गेलें म्हूण मीराक मात खूब वायट दिसलें. तें आमचें सादें. सभावानूय तितलेंच बरें. सामकें हळवें रे. आवय बरी ना म्हणल्यार ताजो जीव सकयल वयर जाता. तिगांय भुरगीं खूब पयस पावलीं. मन सोडून कोणागेरूय चार दीस वचून रावतलों म्हणल्यार जमना आनी तांकांय चार दीस हाडून दवरतलों म्हणल्यार जमना. शमीक जर्मनीक रावपाकूच नाका आशिल्लें. भुरग्यांक शिक्षण जर्मन भाशेंत दिवचें पडटा म्हूण ताणें गोंयां येवपाचें थारायलें. कशेयभशेन घोवाक तयार केलो. आयलीं गोंयांत. भुरग्यांक इंग्लीश शाळेंत घालीं. तोय हांगां नोकरी करपाक लागलो. पूण ताका समाधान नाशिल्लें. दर स म्हयन्यांनी जर्मनीक वचून येवपाक लागलो. ग्रीन कार्डाची मुदत सोपची न्हय म्हूण स स म्हयन्यांनी रिन्यू करपाक वतालो जर्मनीक. म्हणल्यारूच ताजी फॉरेनाक वचपाची इत्सा सोपूंक नाशिल्ली. निमाणें शमीक ताजी काकुळट आयली. धाकल्याचें मुळावें शिक्षण जातकच तें भुरग्यांक घेवन परतें गेलें जर्मनीक. फॉरेनाक वचप मनशाक पिशें लायता. शमीक मात

जर्मनीक रावपाक नाका आसतना वचचें पडलें. तडजोड करची पडली.

कांयच करूंक पावना रे हे चलयेखातीर हांव. गोंयच्या खाणाक आशेता तें. इतलीं पयस वचून रावल्यांत सगळीं, कितेंय धाडटलों म्हणल्यार धाडूंकलेगीत मेळना. हांगा आसतना कितें नाजाल्यार कितें चाबडायत आसतालें. घरांत कांय मेळळेंना जाल्यार न्हंयचेर वतालें. न्हंयचे धडेवयलीं चिपां ताका खूब आवडटालीं. आमट मरे तीं. सामकीं चर्र चर्र करून खातालें. तें खातालें म्हणल्यार म्हजे दांत शिणशिणटाले."

" भुरग्यांचें तशेंच. घरांतलें खावचेपरस जगार भोवन खावप तांकां आवडटा."

" भुरगीं म्हणटा तूं. आवयकूय तशेंच. घरांत केल्लीं खाणां नाका आशिल्लीं चड."

"हांव आनी मीरा वयले वटेन दोंगुल्ल्यांनी वतालीं फिरपाक. पयलेच फावट भेळशिणी पळयल्यो मरे आनी जांबळां पळय कितलीं बारीक म्हूण आड्डलीच. तिका सांगचें पडलें, तीं जांबळां न्हय भेळसां म्हूण.

'आगे, तीं जांबळां न्हय, भेळसां'

'पूण जांबळांभशेन दिसतात पळय.'

'हय गे, पूण जांबळां लांबूडगीं आसतात. हीं वांटकुळीं आनी बारीक आसात. जांबळी इतल्यो ल्हान आसतात?' हांवें तिका विचारलें.

'हीं खातात?' तिणें बाबडें शें जावन विचारलें.

'हय, पळय खावन बरीं लागतात जाल्यार तुका.' हांवें म्हणलें,

"तिणें खालीं. हांवेंय चार तोंडांत उडयलीं. तिका तीं खूब आवडलीं. हीं भेळसां पणजे खंय पळयल्लीं तिणें! तिजेखातीर ती नविदाद आशिल्ली. मर्दीच ती म्हाका पळोवन खूब हांसली. हांसत सुटली सामकी. मागीर म्हाका कळ्ळें. भेळसां खातकच जीब, ओंठ बी सामके जांबळेच जातात न्हय रे?."

'तूं हारशांत पळय, कितें अवतार जाला तो तुजो.' हांवें म्हणलें.

"आनीक एक नविदाद दाखोवची म्हूण हांवें तिका चिवरांचीं झुडपां दाखयलीं. तीं पळयलीं आनी फस्स् करून हांसली. 'आंवंय! हीं चिंवरां? हांकां आमी आसाळे म्हणटात. पणजे आल्तीनार टांकयेकडेन खूब जातात हे आसाळे. आसाळे, चारां, चुन्ना हीं आमकां पणजेकारांखातीर नवीं न्हय. पणजे शार जरी जालें, तरी आमचो आल्तीन दोंगोर समृद्ध आसा फळां फुलांनी.'

"तें आयकून म्हजें तोंड बाविल्ले भशेन जालें."

"भाटकान्न बरी आसतना तिजेमुखार जर तिजी ही काणी सांगिल्ली न्हय, मजा यैतली आशिल्ली. आतां जालां कितें, मनांत तिजें दुख्ख. तुज्यो खबरी आयकतना काळजांत खंय तरी किस्स् किस्स् जाता. आनी तूं तर उमेदीन तिज्यो खबरी सांगता."

"पळय बाबल्या, दोन गजाली आमच्यामुखार आसात. एक, आमकां आयची रात काडूंक जाय आनी दुसरी, आज म्हजें मन इतलें जड जालां कीं असोच उरलों हांव जाल्यार पिसो जायत म्हूण भिरांत दिसता म्हाका. म्हाका तें ल्हव करपाक जाय. खरें म्हणल्यार बाबल्या, ह्यो जिणेंतल्यो सगल्यो यादी आमी दोगांयनी एकामेकांकडेन उलोवपाच्यो. म्हातारपणांतलें तितलेंच एक वेळ वचपाचें साधन आसता. पूण त्यो गजाली करचेपयलींच ती उठून वता. गेलीच म्हणल्यार जाता. मागीर तूं तरी खंय मेळटलो म्हाका

असो गजाली करपाक? आयची रात आमची दोगांची. आदीं जर ह्यो तिज्यो काणयो सांगिल्ल्यो न्हय, तूं विसरून वतलो अशिल्लो. आतां कितें जातलें, आमी मरतकचलेगीत तुका ह्यो काणयो याद जातल्यो. म्हणटलो; 'असलो आसलो आमचो भाटकार. संकटांकलेगीत धीरान आनी हांसून तोंड दितालो.' त्याच दिसाची आनीक एक खबर सांगतां तुका. तिजेवांगडा वेळ कसो पासार जातालो कळच नाशिल्लें. बाबा, आईन आमकां इल्लीशी मेकळीक दिल्ली हें तुका हांवें सागिल्लेंच. म्हाका मेळळ्या तीं मेकळीक भाऊक आनी घरांतल्या बापोलभावांक मेळनाशिल्ली. काळूय मातसो मातसो बदलत वतालो. आनी बदलत्या काळाकडेन आमी गोंयकार जितले बेगीन जुळोवन घेतात न्हय तितले आनी खंयचेच लोक घेतात अशें म्हाका दिसना."

"अशें म्हणटा तूं भाटकारा? पूण खूबशे लोक, चड करून आमचो लोक मात आदलेच विचार घेवन बसल्यात."

"ना, हांव मानपाक तयार ना. स्वतंत्र जातकच तुमच्या लोकांत जाला तो बदलूय खूब फास्ट आसा. भारत स्वतंत्र जातकच थंयच्या गांवांतल्या लोकांभितर तुका इतलो फास्ट बदल दिसला? आजुनूय पुरातन काळांतल्यो रिती परंपरा घेवन बसल्यात ते."

"गोंयकारांचेर पाखल्यांचो प्रभाव पडला आसूं येता."

"युरोपियन विचारांचो प्रभाव आसूं येता रे. म्हाका तशें दिसतालें. पूण अख्ख्या भारताचेर गोरे लोकूच राज्य करताले न्हय?"

"झक मारूं ते गोरे लोक. फुडें सांग".

"आं! तर तुका कितें सांगतालों हांव? म्हज्या आई बाबाचे विचार! रासवळ कुटुंबांत स्वतंत्र विचार इल्ले इल्ले रिगूंक पळयताले. ताजो फायदो म्हाका जाल्लो. फिरूंक गेल्लेकडेन थोडो वेळ जालो

जाल्यार जाणटेले दुर्लक्ष करताले. तर कितें जालें त्या दिसा, आमकां दोंगरांनी भोंवतां भोंवतां वेळ जालो. उजवाड काळखाचो निरोप घेवन वचपाची ताकीद करतालो आनी तिनसांज आपल्यालो शेक सुरू करपाच्या बोवाळांत आशिल्ली. अश्या वेळार मीराची नदर एका झाडाचेर गेली. अकस्मात मीरा ताळयो मारून नाचपाक लागली.

'तें झाड पळयलां? कशे चकचकता पळय. हजारांनी नखेत्रां झाडाचेर लिकलिकतात काय दिसता.'

'आगे, तीं नखेत्रां न्हय, कांजुले. झाडाचेर बसल्यात.'

'चॅल! म्हाका पिशांत काडटात? गांवढळ न्हय आं.'

'हय गे, तूं गांवढळ न्हय म्हूण तुका सांगचें पडटा. शारांनी हो देखाव तुका खंय पळोवंक मेळटा? तुमच्या आल्तिनांत आसूं येतात पूण तूं तिनसांची वा रातीची खंय वता आल्तिनार?'

'हांवें केन्ना कांजुले पळयलेच ना अशें समजून उलयतात तुमी! शारांनीय कांजुले पळोवपाक मेळटात आं. मुंबयभशेन आमची पणजी आजून शार न्हय आं.'

'मेळटात गे, पूण अशे एका झाडाचेर एकाच वेळार असंख्य कांजुले तुवें शारांत पळोवंक नात. हे नदर खिळावन दवरपी देखाव तुका रानांनींच पळोवंक मेळटात.'

'मातशे रावुंया न्हय! एकाच झाडाचेर लाखांनी कांजुले बसल्यात तें पळोवन मन कितलें खूश जालां म्हजें जाणा तुमी? ही खोस, हो आनंद परत हांगा ह्याच जाग्यार वा आनी खंयीय पळोवंक मेळतच म्हूण सांगूंक नजो. धांवता तो खीण धरून दवरूंक नजो तसो गेल्ल्या खिणाची मजा परत अणभवूं नजो. मातशीं बसुंया.'

'आगे, रात जाली, काळोख कितलो जाला पळयला तुवें? सदांच भायर सरतना आई कितें सांगता तें आंयकुना तुवें?

'म्हाका तिजें वाक्य पाठ जालां, दिसा उजवाडे घरा पावात आं.'

'खबर आसा मगे तुका? मागीर वेळ कित्याक काडटा?'

'आज आमकां माफ करतली आई. म्हज्यो इश्टिणी म्हाका सदांच म्हणटाल्यो, तुजो वेळ वचपाक कठीण जातलो थंय. त्या खेड्यांत तूं कशे दीस काडटलें? पूण हांगा येतकच म्हाका दिसलें, हो गांव ओडलायणो आसा. ह्या गांवाची हांवें सपनांतलेगीत कल्पना करूंक नाशिल्ली. पूण हो गांव, हो सैम, हांचेकडेन केन्नातरी म्हजो संबंद आयला अशें म्हाका आतां दिसता. खरेंच! ह्या जल्मांत न्हय जाल्यार फाटल्या खंयचेतरी जल्मांत अशे तरेच्या गांवाचेर हांवें मोग केला जातलो. हो गांव म्हाका नवो आसूनलेगीत सामको संवकळीचो आसा काय दिसता. नव्या गांवाकडेन, नव्या मनशांकडेन कशें जुळटलें असोच प्रश्न म्हाका आनी म्हगेल्या इश्टिणींक पडिल्लो.'

'मागीर तुवें कशें केलें ह्या गांवांत येवपाचें? तुज्यान न्हयकार दिवपाक जातालो म्हाका.'

'न्हयकार? आनी तो चलयांनी चल्यांक केन्ना दिला?'

'तूं हेर चलयांपरस वेगळी न्हय गे! तुज्यान सुरू करूं जाताली नवी पद्दत.'

'जातली आं आतां जातली! काळ आपले गतीन वतलो आनी चल्यांक पळोवंक येवपाचें काम चलयो करतल्यो. सिलेक्शन करपाचें काम तांचेर येतलें.'

'आरे म्हज्या बाबा! विचारच करूं नजो. हांव बरो सुटलों.'

'तशे सामकेच न्हयकार दिवपासारखे नाशिल्ले तुमी.'

'म्हणजे कितें? म्हजेसारखो सुंदर पुरूश सोदूनलेगीत मेळपा ना तुका.'

'आ हा हा! सुंदर खंय! हारशांत पळयात. कोण सो खंय आपल्यालेंच कितें शें तोखेता! प्रोसोर न्हय तुमी! तें एकूच उतर आमच्या घरच्यांचेर इम्प्रेशन मारून गेलें. आमच्या घरच्यांक दिसली ती तुमची प्रोसोरकी.'

'म्हजें मात तशें नाशिल्लें आं! तुका पळोवंक गेल्लों तेन्ना दुगदुग आशिल्लोच. मनांत विचार येताले, कसलें चली आसतलें काय, साडे तीन फुटांचें काय धोदेल. आगे, पूण च्या तुवें कित्याक हाडली ना?'

'च्या व्हंकलेनूच हाडूंक जाय अशें कितें आसा तर तें?'

'च्या व्हंकलूच हाडटा. तूं सोफाचेर येवन बसली आनी त्या शांत वातावरणांत तुज्या पांयजणांचो नाजूक आवाज म्हज्या कानान आयकुंचेआदीं काळजान आयकलो. तेन्नाच मन मातशें हाल्लें. मनांत म्हणलें, येन्ना न्हय, येन्ना न्हय, सारखी वळख जावं दी. पूण जेन्ना तुवें ल्हवूच हय न्हय शी म्हजेर नदर मारली आनी गालांतल्या गालांत मुमुरखी जाली तेन्ना अर्दो खलास जालों हांव आनी जेन्ना जनेलांतल्यान एक नाजूक हवाळी आयली आनी तुज्या कपलावयले केंस नाचूंक लागले तेन्ना म्हाका दिसलें कीं हय, हीच, हीच, आनी हीच!'

'इतलो पयस गांव आनी येवप वचप वाफोरान म्हूण आईक स्थळ बरें पसंत नाशिल्लें.'

'आनी तुज्या बाबाक?'

'ताका मानवल्लें म्हुणूनच तर तुमकां फोटो आनी नक्षत्र धाडून दिल्लें न्हय!'

‘आनी तुका कितें दिसलें?’

‘मनूच विचित्र जाल्लें. नवोच अणभव. पळोवपाचो सुवाळोय नवो आनी निर्णय घेवपाचो जालो जाल्यार तोय नवो.’

‘निर्णय घेवपाचो जालो जाल्यार म्हणल्यार कितें.’

‘आई बाबान घेतलो जाल्यार बरेंच जालें. आनी तशी पद्दतूच न्ही. पूण म्हाका घेवपाक लायलो जाल्यार?’

‘आई बाबान न्हयकारिल्लो जाल्यार?’

‘तो तांचो निर्णय म्हणटलें आशिल्लें आनी ओग्गी बसतलें आशिल्लें.’

‘तुका वायट दिसचेंनाशिल्लें?’

‘कशें दिसतलें आशिल्लें? हांवें कितें तुमकां पयलीं पळयल्ले तर? तुमी म्हाका आवडिल्ले तर? काय आमचो मोग बी आशिल्लो?’

‘मागीर तुका घेवपाक लायलो निर्णय?’

‘सगळयाच चलयांक निर्णय घेवपाची मेकळीक मेळना! पूण आज दिसता, हांव भाग्यवान. म्हाका असो सैम-सोबीत गांव मेळ्ळा. अशीं मनशां मेळ्ळयांत!’

‘आनी म्हजेसारको घोव मेळ्ळा.’

‘हय! सपनांतलेगीत ‘बे ओ बो, से आ का’ म्हूण भुरग्यांक शिकोवपी. पोर्तुगेज वचून मराठी शिकोवचें पडलें पूण सपनांत तरी ‘बे ओ बो, से आ का’ शिकोवपाचें सोडलें ना. सपनांतलेगीत क्लास घेताले तुमी. लग्न जावन हांगा येतकच तुमचेपरस ह्या गांवाच्या मोगांत चड पडलें हांव आं.’

'पडपाचेंच! तसोच आसा हो गांव! आगे हें खेडें शें दिसता तुका पूण पलतडी वचत जाल्यार एक ल्हान शारूच वशिल्लें मेळटलें तुका. थंय कितें ना? सगळे तरेचे पसरे मेळटले तुका. पणजे तुका इंडियन म्हाल मेळचोना पूण हांगां लिपचोरयां बेळगांवच्यान माल येता. रेल्वे श्टेशन आसा. मडगांव, वास्कोवरी, मडगांव बी शारांनी वतलो जाल्यार गाडी आसा. बसस्टॅण्ड आसा. एका एका वरान मडगांवां वचपाक कार्रेरी आसात. पणजे वतलो जाल्यार वाफोर आसा. आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार कितलींशींच शिक्षणीक केंद्रां आसात. मॅट्रीकमेरेन हांगां शिक्षण मेळटा. ताकालागून मनशाच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास कांय प्रमाणांत हांगाच जाता. ताका लागून जर तुवें हांगाचे लोक अन्नाडी, मागशिल्ले आसतले असो समज करून घेतला जायत जाल्यार तो मनांतल्यान काडून उडय. तुजो घोव सामको अशिक्षित ना, ताणें सेतमआन केलां, कांय प्रमाणांत तो इंग्लीश जाणा, तेभायर इश्कॉल प्रिमारियोंत तो प्रोफसोर आसा.'

'जाणां, ही वळख पणजे आसतनाच मेळ्ळया म्हाका. आनी हांगा येतपसून प्रोसोर कितें म्हणटा, प्रोसोर कसो आसा, प्रोसोर बरो न्ही, असलेच प्रश्न कानार पडटात.'

"मीरान म्हाका हांसतूच जाप दिली. जाणा मरे बाबल्या, हांवें चितिल्लें तेपरस दोन पावलां मुखारूच आशिल्ली ती."

उबे जिणेंत धाकलू इतलो उलयल्लो बाबल्यान पयलेच पावट पळयल्लो. आज तो आपले जिणेंतलो एक एक प्रसंग, एक एक गुपीत उगतें करीत आशिल्लो. आपली जिवाभावाची सांगातीण आज वा फाल्यां आपल्याक सोडून वतली, हें जग सोडून वतली हें तो जाणा आसलो.

"आमी दोगांयनी मरे बाबल्या, वांगडाच संवसाराचीं कांय सपना पळयल्लीं. कांय उमेदी बाळगिल्ल्यो. कांय सपनां साकार

जालीं, पूण चडशीं भंगलीं, दुख्ख जालें, पूण निराश जालीं नात. सुरवातीच्या काळांत कांय प्रमाणांत अर्थीक तंगी आशिल्ली तरी मागीर पयसो आडको जाल्लो."

"कित्याक ते आतां पयलींचे सगले उगडास उस्तून काडटा?"

"त्याच यादींचेर जगपाचें रे बाबल्या. भूतकाळांतल्योच यादी सूख दितात. म्हजे जिणेंत आतां उरलां कितें? जिणेचो रस्तो सुळसुळीत नाशिल्लो पूण खडबडीत रस्त्यारलेगीत चलतना आनंदान खोशयेन चल्लीं. बेजारलीं नात."

"आमी मागता तें जीण आमकां दिना. जिणेकडल्यान जाय तें झोमून घेवचें पडटा. आनी तें घेवपाचो तुमी यत्न केलो. फळ आयलें ना ती गजाल वेगळी. हात-पांय सोडले नात."

"व्वा बाबल्या! तूंय आज व्हडलें व्हडलें उलोवंक लागलो."

"संगतीचो परिणाम. आनी कितें?"

"आमी एकामेकांक धीर दीत चार उतरां सांगून आपणाकूच समजायतालीं, पिराय वाडटा तशी आस, उमेद कितल्याश्याच पटींनी वाडटा, पूण पिराय वाडटा ती म्हातारपणकडेनच व्हरुन सोडटा. म्हातारपण हो शुन्याकडेन वचपाचो रस्तो. ताजी आनी खंत कसली करप?"

मीरान जर वचपाचेंच थारायलां जाल्यार आपणें दुख्ख करून, आपणें रडून उपेग कितें, अशोच विचार आज ताज्या मनांत आयलो. आनी देखून तो आपल्याक खबरींनी घुस्पावन दवरपाचो यत्न करतालो. हें पळोवन बाबल्यानूय ताका साथ दिवपाचें थारावन विचारलें,

"आज तुवें खूब खूब कितें सांगलें भाटकारा. म्हाका

खबर नाशिल्लें खूब शें कळ्ळें म्हाका. पूण भाटकारा, हाचेपयलीं असल्यो खबरी केन्ना केल्यो ना तुवें."

"आरे, तूं असो उलोवपाक मेळटालो खंय म्हाका. केन्नाय येतालो, मेळटालो, वतालो. आज वेळ आयला, मुडय आयला. सांगलें न्हीं तुका, सांगन दिसता तें सांगलेबगर रावं नाका, दुसरो सांगता तें त्याच वेळार आयकलेबगर रावं नाका.

खरेंच, तिजेवांगडा जे खीण सारले तेच म्हजे आशिल्ले रे. बाकी कांय ना. संवसार केलो, भुरगीं जालीं, तांचेवांगडा खेळ्ळों, नाचलों, तांच्या शिक्षणाचें पळयलें, तांच्या फुडाराखातीर कश्ट काडले, तें सगळें म्हजें नाशिल्लेंच. संवसाराचो तो एक भाग म्हूण म्हज्या हातान तें घडत गेलें. भुरग्यांच्या मतान तें आमचें कर्तव्य आशिल्लें, आनी तें केलें नाशिल्लें जाल्यार आमी कर्तव्याक चुकतले आशिल्ले. ते उलयले ना म्हूण कितें जालें, तांच्या वागण्यावयल्यान तें कळटाच. तांचेंय कर्तव्य कितेंय आसता हाची मात जाणीव ते दवरिनात."

धाकलून एक व्हडलो हुस्कार सोडलो. बायले म्हऱ्यांत गेलो. मदीं मदीं, तो नाजाल्यार बाबलो आळी पाळीन तिचेर नदर मारून येतालेच. तिका पळोवन परतो येवन ऑल्तेरार बसता आसतना धाकलून म्हणलें,

"बाबल्या, मीराच्या तोंडाक पळय, मातशें तेज आयिल्लेभशेन जालां. अशें दिसता कीं ती आतां म्हाका उलो मारतली."

"हय भाटकारा, दिवो पालवतासतना ताजी ज्योत खर जाता न्हय, तशेंच हें."

"पूण तिका सूद कित्याक येना तर?"

"कशी येतली? दोतोरान सांगलां तुका सगळें."

"बाबल्या, वरां कितलीं जालीं रे? हांगच्यान वणटीवयली घडयाळ दिसना. मातशी पळय."

"भाटकारा, वणटीवयली घडयाळ बंद पडल्या.

"बॅटरी सोंपली दिसता. ह्या सगल्या बोवाळांत घडयाळींत बॅटरी घालूंक विसरलों. बॅटरी सोंपली मशीन बंद. मनशांचें म्हूण कितें, तशेंच, तो वयर बसला तो दर एके बावलेक चार्ज करून धाडटा. मीराचो चार्ज सोंपत आयला, तिगेली वचपाची तयारी जाली. आमकां कितलेंय जाय पडलें म्हूण. चार्ज सोंपतकच मिनीटभरलेगीत रावूंक शकना मनीस.

"हाताची घडयाळ खंय दवरल्या?"

"मेजार आसा."

इतल्यान फोन वाजलो. आनी किण्ण शांततायेचो भंग जालो. दोगांयनी वांगडाच आंग काडलें. धाकलूक कितें जालें तें समजुचे पयलीं बाबल्यान ताका म्हणलें;

"फोन वाजता भाटकारा."

"सर्वेशाक फोन केल्लो हांवें. तो मेळो ना. ताजोच आसतलो फोन. कोणालो तो पळयतां आं. तूं मातशी गवेतांत आसा ती बॅटरी घाल घडयाळीक."

'हॅलो. कोण उलयता?'

'बाबा, सर्वेश. आई कशी आसा?'

'बरी ना रे. ती वता आमकां सोडून. दोतोरान चोवीस वरांची मुदत दिल्या. तूं येता मरे आवयचेर नदर घालूंक?'

'म्हाका कशेंच येवपाक मेळना बाबा. हांवें नितिनाक फोन करून सांगलां. तो येतलो. पावतासर मातसो कळाव लागतलो.

तोमेरेन मातशें मॅनेज कर तूं बाबा.'

'तूंय बी आयल्यार चड बरें जातलें आशिल्लें. हे पिरायेचेर धांवपळी करपाक जातात रे म्हज्यान. आतां तुमी आमकां सुसेग दिवपाचो. तुजी आई तुकाच चड हुस्केताली.'

'ना बाबा. तशें सट् सट् करून येवपाक मेळना. ही इंडिया न्हय. नाजाल्यार एक काम करुंया. हांगा 'इव्हेंट मॅनेजमेण्ट' म्हूण आसता. इंडियेंतूय सुरू जाल्यात अशें आयकलां. गोंयांत पावल्यात काय ना खबर ना. तशी वेवस्था ना जाल्यारलेगीत तांच्यानी सुरू करूंक जाता. आईपासून सुरू करूं जाता. आईकूय ताजें श्रेय मेळटलें.'

'ताणें कितें जातलें?'

'तुका समजलें ना बाबा. लग्नां, मुजी, वाडदीस, असल्या इव्हेंटाची तयारी आपल्याक करची पडना. इव्हेंट मॅनेजमेण्ट कंपन्यो आसतात न्ही तांकां सांगल्यार पुरो. तांचो मॅनेजर येता आनी सगली तयारी तो करता. आमकां कांय लागना. तशेंच मनीस मरतकच निमाण्यो विधी करपाच्यो आसतात न्हय ताचीय वेवस्था तो मॅनेजर येवन करता. तसो कोणूय तुका गांवांत मेळटा जाल्यार पळय. पयशे हांव धाडटां. तो सगलें करतलो. तुका कांयच लागचें ना.'

'अशें ऽ ऽ ऽ! आनी अग्नीय तोच दितलो रे पुता?'

'आतां जग खंय पावलां बाबा. काळावांगडा आमीय वचूंक नाका? सगलें आयतें मेळटा आतां. पयशेच जाय.'

'तुज्या त्या पयशांनी तुका तुजे आवयची माया प्रेम विकतें मेळटलें? तुजे आवयची वात्सल्याची भूक तुज्या पयशांनी मेळटली? तुमी भुरगीं लागीं नाशिल्ल्यान तुजे आईचे जिणेंत जें एकलेंपण आयलां, जी पोकळी निर्माण जाल्या ती भरून येतली तुज्या पयशांनी? तिका आपले पूत, धूव, नातरां मरतना आपले भोंवतणीं

जाय आशिल्लीं तीं विकतीं मेळटलीं? अमेरिकेक मेळटा जाल्यार सांग! तूं तुजे पयशेलेगीत खर्च करूं नाका. हांवच धाडटां पयशे.'

'बाबा, तूं चड त्रास करून घेता जिवाक. चड चिंतूं नाका. नितीन येतलो. आमचेभितर उलवणें जालां. हे खेपे तो येतलो.'

'हे खेपे म्हणल्यार?'

'आमचेभितर थारलां बाबा. हे खेपे ताणें घरा वचपाचें.....'

'आरे, हे खेपे म्हणल्यार कितें रे?'

'आईच्या वेळार रे. आईच्या वेळार ताणें वचपाचें आनी बाबाच्या वेळार हांवें वचपाचें.'

'अशें थारायलां रे बाबा तुमी? आवयबापायच्या मरणाचीय पावणी करून मेकळे तुमी. आमचे हयातींतूच आमकां कळ्ळें तुमी आमकां कशे मोक्षाक पावयतले तें. यो आं यो, म्हज्या मरणाक तूं यो. म्हाका खोस जातली.'

आनी धाकलून फट् करून फोन दवरलो आनी येवन बसल्लो ऑल्तेरार. ताजें गोरें मुखामळ तांबडेगूंज जाल्लें. सर्वेशाचीं उतरां ताज्या मनाक खूब लागिल्लीं.

हाताची घड्याळ घेवन बाबलो आयलो. ताका भाटकाराची चर्या बरी दिसली ना. ताणें विचारलें,

"कितें जालें भाटकारा, जिवाक बरें दिसना?"

"हांव बरो आसां. घटमूट. म्हाका कितें जाता तर. आनी जावपाकूय जायना. दिसान दीस भुरगो जावपाक जाय हांवें. म्हाका आतां कोम फुट्टले. आज कळ्ळें निसंतान आवयबापूय कितले सुखी आसतले तें. खरेपणींच ते सुखी. तांकां भुरगीं ना म्हणपाची एकूच खंत. हांगा भुरगीं आसूनलेगीत हजार खंती.

“जालें कितें भाटकारा? पुतान कितें म्हणलें?”

“नांव काडूं नाका तांजें. सुवार्थी जाल्या सगळे सुवार्थी. हांकां आवय बापूय म्हणल्यार वजें दिसता वजें. संकश्ट, महासंकश्ट!”

“अशें कितें जालें भाटकारा? इतलो बेजार कित्याक तूं. चड तकली तापोवं नाका. भलायकेक बरें न्हय तें.”

“हें तुका समजता. त्या रेड्यांक खंय समजता हें. मन मेलां रे तांचें. हो म्हाका सांगता, आई मरतकच नितीन येतलो आनी बाबा मरतकच खंय आपूण येतलों अशी कबलात जाल्या खंय तांचे भितर. आनी हें सांगता कोणाक? म्हाकाच. आपल्याच बापायक.... तशे सगळे मरतलेच. आवय बापायचें मरणलेगीत भुरग्यांक जड जावप हाचेसारखें दुर्दैव आसा? भुरग्यांचेंय आनी आवय बापायचेंय.”

कोंब्यान पयलो साद घालून बरोच वेळ जाल्लो. सुकणीं नाजूक आवाजान सकाळफुडें कामाक वतल्यांक उठपाची इशारत करपाक लागलीं. तींय आपल्या माणकुल्यांचे चोंचींत भरोवपाखातीर खाणाच्या सोदांत भुर करून उडूंक लागलीं. कांय वेळान धाकलूच्या जनेलांचे हारशे भायल्या उजवाडान उजळ दिसपाक लागले. भायलो उजवाड भितर येवपाची संद सोदपाक लागलो. भितरले विजेच्या बल्बांचो उजवाड उजवाडट्या दिसाच्या तेजामुखार फिको दिसपाक लागलो. बाबल्यान भायल्या उजवाडाक येवकार दिवपाखातीर जनेलांचीं दारां उगडलीं आनी पेटटल्या बल्बांच्या उजवाडाक बटन दामून निरोप दिलो. धाकलू उलयत रावता तें पळोवन बाबल्यान ताका म्हणलें;

“आतां मातशे दोळे धांपून राव पळोवया. रातभर न्हीद ना तुका भाटकारा. रात सोंपली. उजवाडूंक लागलां.”

“हय! उजवाडूच आतां सगळो.”

“ना. ना भाटकारा. आतां उलोवप ना. रातभर उलयला. आतां पुरो. आतां दोळे धांप आनी पडून राव. कसलोच विचार करूं नाका. हांव भितर वचून तोंड धुतां आनी च्याक दवरतां. हांगा हांव रावलो जाल्यार तूं आनीक उलयतलो.”

बाबलो भितर वचून तोंड धुवपाक लागलो. जितलो बेगीन काम सोंपोवन भायर येतलों तितलो भाटकाराक उलोवपाक चड वेळ मेळटलो अशें चिंतून बाबलो दर कामाखातीर आज सदांपरस चडच वेळ काडटालो. तो मान्र्यांत गेलो. तोंड धुलें. मान्र्यांत ताणें एक नदर भोंवडायली. ताज्यान मान्नें पळोवंक नजो जालें. ताणें तें बरें करून धुलें. ताणें चितलें, ‘संडासूय मात्सो धुल्यार बरो. फाल्यां लोक येतकच कोणूय संडासाक बी गेलो जाल्यार भाटकाराची लज वतली.’ ताणें संडासाचें दार उगडलें. संडास चडूच बुरसो दिसतालो. तो ताणें बरो धुलो. मागीर सगळयाक ताणें सान्न मारली. मुद्दाम सालांत मारपाक गेलो ना. पयलीं भाटकाराक च्या करतलों आनी मागीर आपूण सालांत सान्न मारतलों अशें ताणें चिंतलें. च्या जावन कोपांत घालतासर बरोच वेळ गेलो तरी भाटकार भितर कसो सरलो ना हाचें ताका अजाप जालें. ताणें चिंतलें भाटकान्न बरी आसा मूं? काय.... काय ताजो दोळो लागलो? भाटकान्नीचो दुभाव ओगीच ताज्या मनांत येवन गेलो. तिचेविशींची वायट खबर खंयच्याय खिणाक पळोवंक मेळटली हें ताका खबर आशिल्लें. च्या घेवन तसोच तो सालांत आयलो.

“च्या तयार जाली भाटकारा, घोट घे आनी च्या पी.”

ताणें भाटकाराम्हऱ्यांत च्या व्हरून दवरली. ताणें परतोय एक उलो मारलो. पूण भाटकारचें हूं वा चूं ना. आवाज ना, हालचाल ना म्हणपाचें बाबल्याक दिसलें. न्हीद लागली काय भाटकाराक अशें चिंतून ताणें भाटकाराच्या तोंडाकडेन पळयलें. दोळे उगते

आसात. न्हिदला जाल्यार दोळे धांपपाचो. ताणें ल्हवू भाटकाराक हात लायलो. भाटकार लव्रणलो. ताणें बेगी बेगीन नाकाकडेन हात व्हरून स्वास चलता काय म्हूण पळयलो. स्वास काय हाताक लागना. स्वास लागलोना म्हूण कितें जालें. आपल्या हाताक जाणवना जायत तो. ताणें छातयेकडेन कान व्हरून पळयलो. छातयेचीय हालचाल ना वा कसलोच आवाज कानाक जाणवना. ताका शुद्दीर हाडपाक म्हूण काण्णी घाली. आंगठयाचीं बोटां जोरान दामलीं. आरे म्हज्या बाबा! हें आनी कितें जालें! गेलो काय भाटकार? बाबल्याचेर आकांत आयलो. हें विपरीत कशें घडलें? अशें जायत म्हूण चिंतूकलेगीत नाशिल्लें. ताणें एक शेनरी घाली. ताजेर गादी घाली. आलमारींतलो एक धवो चादर काडून ताणें गादयेर घालो आनी भाटकाराक उबारून गादयेर घालो. ताजे पांय नीट केले, पावलां एकठांय करून दोनूय आंगठे बांदले आनी हात हड्डुयाकडेन हाडून दवरले. बाबलो चिंतूंक लागलो, आतां फुडें कितें करुया, कोणाक कळोवया? भाटकान्नीक केल्ली तयारी भाटकाराक बऱ्याक पडली. हें चिंतून ताणें हुस्कार सोडलो. इतल्यांत ताका ‘ऊँ...ऊँ असो पिरंगुपाचो आवाज आयलो. आरे म्हज्या बाबा! कितें केलें आपणें हें? भाटकार जितो आसतनाच आपणें ताका....... ताणें परत भाटकाराचो स्वास पळयलो, हालचाल करता काय पळयलें. ना! तो सामको निपचीत आसा. मागीर.... ताका परत पिरंगल्लो आवाज आयकूंक आयलो. आनी मागीर ‘आ....य...क...लां.’ असो आवाज आयलो.

‘आरे, हो तर भाटकान्नीचो आवाज. देवा हें आनी कसलें अरिश्ट!’ तो तिजेसरीं आयलो. “भाटकान्नी... भाटकान्नी.... ”

“उ..द..क...उ..द..क........”

“हाडटां हां, हाडटां.”

“हे... खंय...गेल्यात?”

"भाटकार ना घरांत. दूद हाडपाक गेला. येतलो आं." बाबलो चिंतिनासतना तोंडाक येता तें उलोवन गेलो.

भाटकान्नीन ल्हवू-ल्हवू नदर वयर काडून बाबल्याक पळयलें. बाबलो भाटकान्नीक पळयतूच उरलो. मीरान ल्हवू दोळे बंद केले, परत 'उदक' म्हणलें.

जें कितें घडलां आनी घडटा तें बाबल्याखातीर अचकीत आशिल्लें. खंयच्याय खिणाक भाटकान्न जीव सोडटली हें ते दोगूय जाणा आशिल्ले. तशी मनाची तयारी आशिल्ली. अचकीत भाटकार गेलो आनी भाटकान्नीक सुद्द आयली हें पळोवन बाबल्याक कांपरो भरलो. ह्या धक्क्यांतल्यान मातसो भायर येता म्हणल्यार ताका भाटकान्नीन उदक मागलां म्हणपाची याद जाली "हाडटां भाटकान्नी." अशें म्हणून बाबलो उदक हाडपाक म्हूण भितर गेलो. हातांत पेलो घेवन उदक पेल्यांत ओतयता मात ...... ताका पोटांत कुळ्ळ जाल्लेभशेन दिसलें. आ !...... आतां कितें करतलो? ताणें कोमोडाकडेन पळयलें. वचूं? ताणें चिंतलें.... ना.. हांव भाटकाराल्या संडासांतूच कित्याक मान्न्यांत लेगीत एक दीस हांवें हातपांय धुवंक नात. आतां कितें करूं? पोटांत तर घांस मारला. सामकें तेंकलां. तो परतो भायर आयलो. ताणें भाटकान्नीचेर नदर मारली. ती शांत आसा. शांत न्हिदिल्लेभशेन दिसताली. ताणें तिज्या नाकाकडेन आपलें बोट धरलें. स्वास चलता हें ताका जाणवलें. तांकां दोगांयकूय तशींच सोडलीं. तो तसोच भायर सरलो. फांतोडेवयल्या झिळमिळटच्या उजवाडांत तो तसोच न्हंयचे देगेर धांवलो. थंय सैमीक विधी केलेउपरांत ताका सूऽऽ जालें. जुवारी शांत आशिल्ली. पूण देगेर ल्हारां मात ल्हव ल्हव आपटतालीं. पूण तीं ल्हारां दर्याच्या ल्हारांवरी विद्धार्टी नाशिल्लीं. तीं सदांच भाटकाराक आनी भाटकान्नीक खोस दिवपी आशिल्लीं. ल्हवू ल्हवू हातांनी सांसपुपी आशिल्लीं. थंय कोणूच नाशिल्लो. ल्हारां आनी बाबलो! ही ल्हारां

भाटकार आनी भाटकान्नीच्यो इश्टिणी. तांकां संतोश दिवपी. आज तीं एकलीं पडिल्लीं. हाचेफुडेंय तांचेकडेन उलोवपी कोण आसचोना. आज तीं पोरकीं जाल्यांत अशें बाबल्याक दिसलें. आनी दोळ्यांतल्यान दुकां झर झर करून ल्हारांक वेंगावपाक लागलीं.

***





अशोक कामत

जल्म फोंडें तालुक्यांतल्या मडकय गांवांत ३ डिसेंबर १९४० वर्सा जालो. मुळावें शिक्षण मडकय जालें. माध्यमिक शिक्षण कुडचडयार थी न्यू एज्युकेशनल इंस्टीट्यूट हे शिक्षण संस्थेंत जालें. इंटर आर्टसमेरेनचें शिक्षण एक्सटर्नल पध्दतीन जालें. तांणी प्रयाग विश्वविद्यालयाची हिंदी साहित्य विशारद हें पदवीमेरेनचें शिक्षण घेतलां.

१९६४ ते २००० मेरेन सर्वोदय एज्युकेशनल सोसायटीज हायस्कूल, कुडचडें हांगा तांणी विद्यादानाचें काम केलां.

तांचें आतांमेरेन म्हजी भूंय म्हजो मोग, अशोकांकी, कोण कोणाचो न्हय हे एकांकी संग्रह, अशोकथा हो कथासंग्रह, जिवीत बिंबां हो कविता संग्रह, बंदखणींचीं देवळां जालीं आनी एक सांज असुरपिकी हीं दोन नाटकां, घणाघाय नियतीचे ही कादंबरी उजवाडाक आयल्या. बालसाहित्यांत तांणी सूर्यपूत सुभाष हें भुरग्यांखातीर पुस्तक बरयलां. तांणी कांय गितांय बरयल्यांत. तांणी कोंकणी नेमाळयांनीय बरप केलां.

तांकां कांय पुरस्कार मेळयात ते अशे- केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार, जनगंगा पुरस्कार, कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार, टी.एम.ए. पै फांवडेशन ॲप्रिसियेशन पुरस्कार, कला अकादेमी एकांकी लेखन पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळ शिक्षक पुरस्कार, गोंय सरकाराचो कला गौरव पुरस्कार.

तांणी केल्लो हेर वावरूय लक्षांत घेवपासारको आसा. तांणी राज्य शिक्षण संस्थेच्या पाठ्यपुस्तक समितीचेर वांगडी म्हूण काम केलां. कुडचडें कला साहित्य केंद्राचे अध्यक्ष आशिल्ले. कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीचे वांगडी आशिल्ले. गोवा कोंकणी अकादेमीचे नाटक समितीचे वांगडी आशिल्ले. ते १८ व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे स्वागत समितीचे अध्यक्ष आशिल्ले. कुडचडयार वेगळे क्षमतेच्या भुरग्यांखातीर सरकारी पालवान स्कुलाची स्थापना करपाचो महत्वपूर्ण असो वावर तांणी केला. गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'कोंकणी कोण कोणाचो' हे लेखक डिरेक्टरीचें संकलन तांणी केलां.